# साहित्य धारा

(गोंय, कर्नाटक आनी केरळ वाठारांतल्या वेंचीक
कोंकणी साहित्यकृतींची चिकित्सक मोलावणी)

डॉ. हनुमंत चोपडेकार





सारा क्रिएशन
फोंडें-गोंय

साहित्य धारा
(साहित्य समिक्षा)
डॉ. हनुमंत चोपडेकार

Sahitya Dhara
(Literary Criticism)
Dr. Hanumant Chopdekar



प्रकाशन क्र. : 08

पयली उजवाडावणी : 2016

उजवाडावपी : संगीता चोपडेकार
सारा क्रिएशन, श्रीराम पर्णकुटी, यशवंतनगर तिस्क
फोंडें गोंय 403401
09767410930

छापणावळ : रुतू ऑफसेट
वळवय फोंडें - गोंय
07038386551

मुखचित्र : प्रसाद नायक
9326133797

मोल : 160/- रुपया

हें पुस्तक गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती खात्याचे 'गोंयकार लेखकां खातीर अर्थीक आदार' हे येवजणे खाला छापलां

## मनोगत....

समिक्षा म्हणल्यार 'सम्यक् ईक्षा'. म्हणजेच, एखादे कलाकृतीचो सखोल अभ्यास करून तटस्थपणान ताचो नियाळ प्रस्तूत करप. वेंचीक साहित्यकृतीचो अभ्यास करताना तिचो आस्वाद घेवप आनी ताची गुणवत्ता थारोवप हें साहित्य-समिक्षेचें मुखेल प्रयोजन आसता. चिकित्सक मनशान केल्लो साहित्याचो सखोल अभ्यास तातूंत आसपावता.

भारतीय साहित्यांत समिक्षेची प्रदिर्घ परंपरा दिसून येता. पुर्विल्लुया काळांत संस्कृत भाशेंत टिका, भाष्य, मिमांसा ह्या नांवानी साहित्य-समिक्षा हो प्रकार अस्तित्वांत आसलो. 'ब्रह्मसुत्रा' वयलें 'शांकरभाष्य' वा 'अष्टाध्यायी' वयलें 'पातंजल भाष्य' ह्यो संस्कृत साहित्य समिक्षेच्यो उत्कृश्ट देखी.

"Criticism is nothing but allowing Poetry to be understand by the readers' अशें मेथ्यू आर्नोल्ड म्हणटा. ताचोच संदर्भ घेवन म्हजी भुमिका स्पश्ट करता. 'साहित्य धारा' ही प्रस्तूत कलाकृती म्हणल्यार समिक्षेच्या दर्यांत एका सामान्य आस्वादकान मारिल्ली एक बुडी. प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार 'साहित्याच्या शेतांतली असाहित्यीक नण्णी काडून साहित्यकृतीचें मुल्यमापन करपाच्या चिकित्सक प्रक्रियेंतलो हो खारीचो वाटो.

फकत एखाद्या पुस्तकाचें परिक्षण करपाचो हो यत्न न्हय तर गोंय, कर्नाटक आनी केरळ वाठारांतल्या वेंचीक कोंकणी साहित्यकृतींची चिकित्सक मोलावणी करतनाच कोंकणी साहित्यांतल्या विंगड विंगड प्रवाहांचो सोद आनी वेध घेवपाचो हो प्रारंभीक वावर. बरोवपी आनी वाचपी हांचो कलात्मक संगम घडोवन

हाडपाचो हो संकल्प. साहित्यकृतीचो अभ्यास करप, निरूपण करप, निरिक्षण करप आस्वाद घेवप, आकलन करप, विश्लेशण करप, मोलावणी करप आनी साहित्यांतल्या विविध प्रवाहांचो सोद घेवप हो हावेस बाळगून हें कार्य तडीक व्हेलां. आंतरकेंद्रीत (Centripetal) आनी बाह्यकेंद्रीत (Centrifugal) समिक्षा अश्या दोनूय समिक्षा पद्दतींचो प्रयोग प्रस्तूत ग्रंथांत केल्लो आसा. कोंकणी साहित्याच्या खऱ्या अभ्यासकांक हे साहित्य-धारेचो उपेग जातलो ही आस्त बाळगून ती रसिकांक भेटयतां.

आदीं विंगड विंगड नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्ले लेख ह्या साहित्य धारेंत आसपावल्यात. तातूंत जाय थंय फाव ते बदल केल्ले आसात. साहित्याच्या अभ्यासकांक नदरे मुखार दवरून संबंदीत पुस्तकाची रचना केल्या. ह्या पुस्तकाक गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयान अर्थीक आदार दिल्ल्या कारणान हांव तांचो उपकारी आसा.

समेस्तांक देव बरें करूं.

**डॉ. हनुमंत चोपडेकार**
फोंडें - गोंय

मांडावळ | पानां

## 1. कुणबी जाकी : पाय तियात्रिस्ताची अजंवर कलाकृती

पाय तियात्रिस्त जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस हांच्या गिरेस्त प्रतिभेंतल्यान जल्माक आयिल्लो फामाद तियात्र म्हणजेच कुणबी जाकी. जुआंवबाबान ह्या तियात्रांत आपली सगळी प्रतिभा आनी कला ओतून एक अप्रतीम कलाकृती कोंकणी तियात्राच्या पालकाक भेटयल्या. कुणबी जाकी ह्या तियात्राचो पयलो वांटो 1941 वर्सा मुंबय जाल्यार दुसरो वांटो 1946 वर्सा गोंयांत मडगांव शारांत माचयेर आयलो. कुणबी जाकीच्या पयल्या वांट्यांत भोव बरी तशेंच समाजीक नदरेंतल्यान बरयल्ली कॉमेडी आसपावल्या. पयल्यां वांट्यांत कुणबी समाजाचें जिवीत भोवूच बारीकसाणेन चित्रीत जालां. 1946 वर्सा तियात्राच्या पालकार आयिल्लो ताचो दुसरो वांटो तातूंतल्या संगीताखातीर गाजला. ह्या दुसऱ्या वांट्याक 'तीन दीस जुलगामेंत कुणबी जाकीचो' अशें नांव दिल्लें आसा.

ह्या तियात्रांत तियात्रिस्त जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस कुणबी समाजांतल्या जाकी ह्या तरनाट्याची खेरीत काणी सांगता. सेगूंद ग्राव (secondary education in Portuguese) मेरेन शिकिल्लो हो तरनाटो म्हणजेच कुणबी समाजाच्या शिक्षीत युवकाचें प्रतीक. जुआंवबाब ह्या तियात्रांत जाकीची हुशारी, ताची समाजीक जाणीव, ताका आपल्या मनशांविशीं आशिल्लो मोग आनी ताची वेव्हारांतली शिटुकसाण अश्या साबार गजालींचें दर्शन घडयता. बरोवप्यान ह्या तियात्रांतल्यान कुणबी समाजाक स्वभिमातान भेटोवपाचो यत्न केल्लो आसा. कुणबी समाजाची गांवगिरी जीण, तांची सैमीक भास, सुखदुख्खां, चालीरिती आनी सदच्या जिवितांतलो तांचो संघर्श ह्यो गजाली ह्या तियात्रांत मुखेलतायेन दिश्टी पडटात. संहितेच्या नदरेंतल्यान त्या घटकांचो अभ्यास केलो जाल्यार ह्या तियात्राची खरी वळख आमकां जावंक पावतली.

### कुणबी समाजाचें दर्शन घडोवपी उत्कृश्ट कथानक –

तियात्रिस्त जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस हांणी 1941 वर्सा पयलेंच फावटीं एक वेगळें कथानक ह्या तियात्रांतल्यान माचयेर हाडलें. जाकी नांवाच्या एका कुणबी समाजांतल्या तरनाट्याचें हें कथानक. गोंय मुक्ती पयलींची फाटभूंय ताका लाबल्या. त्या वेळाचेर शिक्षणाची व्हडलीशी सोय नासतानाय हो तरनाटो पुर्तुगीज भाशेंत सेगूंद ग्रांव मेरेन शिक्षण घेता, देखून ताचो पाय इनास आनी मांय कोंयसांव हांचेवांगडाच पुराय कुणबी समाजाखातीर तो व्हडा अपुरबायेचो पूत जाता. त्या समाजाचो तो सगळ्यांत मोठो मानदंड आनी स्वाभिमानाचें प्रतीक कसो जाता ताचीच ही काणी.

कुणबी जाकी ह्या तियात्राची सुरवात रॉक सायबाच्या कचेरेंत जाता. थंय कोस्तांव आपल्या वावराखातीर पावता तेन्ना रॉकसायब ताचें काम न्हयकारता. ह्याच वेळार जाकींचो पाय इनास जाकीच्या सिर्विसेखातीर थंय पाविल्लो आसता. हांगासर त्या ल्हानशा प्रसंगांतल्यान बरोवप्यान रॉक सायबाचो अहंकार दाखोवन कथानकाक चालना दिल्ली आसा. फुडें कथानक मुखार सरतना जाकीची हुशारी मुखेलतायेन चित्रीत जाल्या. हांगा रॉक जाकीच्या हुशारेन प्रभावीत जाता खरो पूण हो कुणबी जातींतलो भुरगो आपले वांगडा बसतलो वावुरतलो हें चिंतून तो जाकीक नोकरी दिना तशेंच ताका जातीवेल्यान हिणावपाक फाटी रावना. जाकीक थोडोवेळ स्वताक परिस्थितीची जाणीव जाता. आपूण शिकून सवरून आनी बुध्दीन तीख आसूनय वयल्या जातींतले लोक आमकां वयर सरपाक दिना देखून तो निर्शेता. दुसऱ्याच खिणाक आपल्या शिक्षणाचो उपेग शेती वेवसायाखातीर करपाचो तो निर्णय घेता. हें तियात्र ह्या पांवड्याचेर जाकीचें आंतरीक भावविश्व भोव सुंदर रितीन उक्तें करता.

कथानकांत कुणबी समाजाची भावनीक आनी मानसीक स्थिती बरोवप्यान दाखयल्या. शिकिल्लो संवरिल्लो जाकी आमच्या सारकोच चिकलांत लोळटा हें पळोवन पुराय कुणबी समाजाक वायट दिसता. कोस्तांव, बोस्तन, इसांव, टूमी, निकलेन ह्या कुणबी समाजांतल्या मनशांच्या माध्यमांतल्यान बरोवपी तांची ती भावना उक्ती करता. पूण

जाकी मनाक्काळजा सावन आपल्या शेतांत वावूरता. तियात्राच्या फुडल्या वांट्यांत जाकी आपल्या काजाराचें येवजिता. ह्या वेळार ताका दुडवांची अडचण भासता. तो मनांतल्यान अस्वस्थ जाता. हांगासरूच ताचे जिवितांत एक आजापाची गजाल घडटा. एरीयस नांवाचो एक देंवचार व्हड दानसूर आनी ताचो बरोमागपी जावन ताका मेळटा. तो जाकीची दुडवांची गरज भागयता. आनी ते बदला ताचेकडल्यान एका खेरीत पत्राचेर रगतान केल्ली ताची सय घेता.

मजगतीं एरियसं जाकीक जायत्यो अटी घालून आनी विंगड विंगड मागण्यो करून घुस्पोवंक सोदता. पूण जाकी ताका बदना. कुणबी लोकांची वेव्हारी हुशारकाय आनी सरसकट सामान्यज्ञान जाकीच्या तोंडातल्यान उलयता. हांगा एरियसाक निर्शेवन कूस मारची पडटा.
फुडें केन्नातरी असो वेळ येता आनी एका तेंपार जाकीक चाकरी न्हयकारपी रॉक लाचारेक पावता. तो जाकीकडेन रीण मागपाक येता. जाकी ताका मोट्या मनान रीण दिता आनी एरियसाचे धाटणेचें करारपत्र तयार करून ताचेर तो ताची, रगतान सय घेता. उपरांत एक दीस एरियस आपणालें रीण वसूल करपाखातीर जाकी म्हन्यांत येता. पूण जाकी नेगार वता. तो म्हणटा आपणें काररपत्र केल्ली ती सय आपणाल्या रगताची न्हय. ती वेगळ्याच एका जनावराच्या रगताची. तो एरियसाक सांगता, तूं त्या जनावराकडेन वचून तुगेलें रीण वसूल करून घे. मागीर तो रॉकीच्या रक्ताचें करारपत्र एरियसाक दिता आनी अशेतरेन रॉकीचे उश्टें काडून ताका बुद्द शिकयता.

पूण हांगा कथानक सोंपना तर एरियस उपरांत रॉकसायबाक भागाक घेवन जाकीक जिवानिशीं मारपाचो यत्न करता. रॉक जेन्ना जाकीक मारपाक म्हूण सुरी उबारता तेन्ना त्या तियात्रांतली उत्सुकताय तेंगशेक पावता. रॉकीक जाकीच्या गळ्यांत देवाचें चिन्न दिसता आनी ताचे हातपांय भिरांतेन थरथरतात. तो गळसणटा. हातांतली सुरी आपसूक जमनीर पडटा. जाकीचे गोमटें भोंवतणी देवाचें चिन्न पळोवन देंवचार एरियस नाच्च जाता. अशेतरेन जाकी जिखता. कुणबी समाजांतल्या एका हुशार तशेच मेहनती तरनाट्याचें कथानक ह्या

तियात्रांत चितारिल्लें आसा. बरोवपी जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस हांणी एक उत्कृश्ट तियात्र कुणबी जाकीच्या रूपान कोंकणी पालकाक दिला.

**कुणबी जाकी ह्या तियात्रातलो संघर्श –**

जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीसं हांणी कुणबी जाकी ह्या तियात्रांत खऱ्यानीच उत्कंठा वाडोवपी संघर्श उबो केला. शेकड्यांनी वर्सांसावून चिड्डत उरिल्लो कुणबी समाज आनी त्या समाजाचेर जावपी अन्याय अत्याचार हो गाबो घेवन हें तियात्र उबें जालां. मनशाक मनीस म्हण जगपाचो हक्क दिनासतना ताका जातीकातींच्या नांवाचेर हिणसावपी पोजडो समाज ह्या तियात्रांत दिश्टी पडटा. सकयल्या जातींतलो एखादो तरनाटो आपल्या हुशारकायेन जेन्ना जेन्ना वयर सरला तेन्ना तेन्ना ताका समाजांतल्या जाती वेवस्थेन चिडडपाचो यत्न केला. मार्थर लुथर कींग, महात्मा गांधी, बाबासाहेब आंबेडकार, नेल्सन मंडेला, कार्व्हर अशा साबार महापुरूशांक लेगीत हो त्रास सहन करचो पडला.

जुआंवबाबान बरयल्ल्या ह्या तियात्रांत लेगीत सकयल्या थरावयलो कुणबी समाजांतलो शिकिल्लो सवरिल्लो जाकी आनी उच्चवर्णीय सरकारी अधिकारी रॉक हांच्यामदलो संघर्श आयला. तेनभायर एरियस ह्या मनीसरुपी देंवचाराचो आनी जाकीचो जीवघेणो संघर्श ह्या तियात्राचो विशय जावन आसा. ह्या संघर्शांतल्यान तीख्र बुध्दीचो बुदवंत जाकी आपल्या हुशारींतल्यान सगळ्या अरिश्टांचेर जैत जोडटा तें लेखक भोव कलात्मकतायेन तशेंच नाट्यमय घडणुकांनी दाखयता.

**सकयल दिल्ले तरेकवार संघर्श ह्या तियात्रांत आसपावल्यात :**

जातीकातीं मदलो संघर्श (कुणबी आनी उच्चवर्णीय)
गरिब आनी गिरेस्त हांचेमदलो संघर्श (जाकी आनी रॉक)
शिक्षीत आनी अशिक्षिता मदलो संघर्श (शिक्षीत आनी अशिक्षीत)
मनीस आनी देंवचार हांचेमदलो संघर्श (जाकी आनी एरियस)
नीत आनी अनीत हांच्यामदलो संघर्श (इश्ट आनी अनिश्ट)

**कुणबी जाकी तियात्रातलीं कातारां -**

कोंकणी तियात्राच्या पालकार भोव गाजिल्ल्या ह्या तियात्रांत कांतारां हो एक म्हत्वाचो घटक जावन आसा. ह्या कांतारांक लागून हें तियात्र भोव गाजलां. एकेतरेन तियात्राच्या कथानकाक नेट हाचडपाचें काम हीं कातारां करतात. बरोवपी जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस आपल्या गिरेस्त प्रतिभेच्या आदारान आशयसपन्न कातांरां कुणबी जाकी ह्या तियात्रांत बरोवन गेल्लो आसा. कोस्तांव; जाकी, पियेदाद, इनास, कोंयसांव हांच्या तोंडाचेर तीं कातारां सोबून दिसता.

आपल्या ह्या कांतारांक तियात्रिस्त कांतार म्हणी नासतना 'गीत' म्हणटा ही सगळ्यांत खेरीत गजाल. तीं कांतारां प्रत्यक्षांत पालकाचेरूय आयकपासारकीं आसलीं तरीय संहितेच्या नदरेन तांचो अभ्यास करप भोव गरजेचो.

ह्या तियात्रांत वट्ट आठ गीतांचो (कांतारांचो) आसपाव जाल्लो आसा. पयल्याच गितान जाकीचो पाय आपल्या चेड्याची तोखणाय करतना दिशटी पडटा. आपल्या वांगड्यांक तो चेड्याच्या हुशारकायेची खबर सांगता. त्या गिताची सुरवात अशी जाता -

**जाकी चेडो म्हुगेलो शिकलेलो**<br>
**बाकार लोकान तेका चोयच्या नेजो**<br>
**सिरिस दिनाय बिरेरच्याको**<br>
**कुणब्या पोरांक धाडटाय हांडीर खोरें मारून**<br>
**वोच म्हुणटा, शेंतां भाटां वावर कोरूको**<br>
**कुणबी आतां भिनाय बाकारांको........**

कुणबी जाकी ह्या तियात्रांत हेर गीतांनी जायत्या पात्रांच्यो तरेकवार भावभावना उक्त्यो जाल्यात. तेभायर कुणबी समाजांतले रिती रिवाज, गायनां आनी हेर कांय म्हत्वाचो गजाली त्या कांतारांनी दिश्टी पडटात. तातूंतल्या आठव्या गितांत बोस्तांव आनी कोस्तांव आपल्या काळजांतली भावना अश्या रितीन व्यक्त करतात -

फोंड्या कोडोंग वोतेलो सांगो

आयज वचना तिंगा गो आवराको
कोंनत्राद घेल देखून मारोग कोरूंको
हांवें धाडचोये केला कुशाल.

जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस हांणी कुणबी जाकी ह्या तियात्रांतल्या कांतारांनी साबार पात्रांतल्या काळजांतली व्यथा व्यक्त केल्ली आसा. तातूंत इनास कोंयसांव, कोस्तांव, जाकी, पियेदाद हांचो आसपाव जांता. हें तियात्र चलतालें तेन्ना ताचीं हीं कांतारां त्या वेळार सर्वसामान्य कोंकणी मनशाच्या काळजांत घर करून राविल्लीं.

**कुणबी जाकी ह्या तियात्रातलें कुणबी समाजातलें चित्रण :**
तियात्रिस्त जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस हांच्या प्रतिभेंतल्यान कुणबी जाकी हें तियात्र जल्माक आयलां. ह्या तियात्रांतल्यान बरोवप्यान मुखेलतायेन ह्या समाजाची वास्तवीक जीण दाखोवपाचो यत्न केला. खरें म्हणल्यार, बरोवप्याक कुणबी समाजांतल्या इनास आनी कोंयसांव हांचो पूत जाकी हाची जिवीतकाणी दाखोवपाची आसली. पूण कुणबी समाजाचें दर्शन घडयलेबगर जाकींची जिवीतकाणी तशी पुराय जावंक शकना देखूनच बरोवपी कुणबी समाजाचें सखोल चित्रण ह्या तियात्रांत करता. हें चित्रण इतलें वास्तवीक जालां की जितो जिवो कुणबी समाज तश्याक तसो प्रस्तूत तियात्रांतल्यान आमच्या मुखार उबो रावता.

**'कुणबी जाकी' तियात्रांत दिसून येवपी कुणबी समाजाच्यो खाशेलतायो**.:
कुणबी समाजांतली गरीबी आनी पारंपारीकता
कुणबी समाजांतल्यो पारंपारीक चाली-रिती
कुणबी समाजांतली गोड गायनां.
कुणबी समाजांतली म्होंवाळ कोंकणी भास.
काजाराच्या वेळावयल्यो साबार धर्मीक गजाली.
कुणबी समाजाचें अडाणीपण
कुणबी समाजाचो स्वभिमान

कुणबी समाजांतल्या लोकांचीं सुख-दुख्खां
कुणबी समाजाक सोसचो पडिल्लो जातीभेद
कुणबी समाजांतल्या जाकी सारक्या तरनाट्याची हुशारकाय.

म्हत्वाचें म्हणजे, 'कुणबी जाकी' ह्या तियात्रांत अख्खो कुणबी समाज तांच्या धोंगापोंगासयत चितारपाचें धाडस बरोवप्यान केलां. बरोवपी एका नाट्यमय कथानकाच्या आदारान कुणबी समाजाचें भोवबरें चित्रण करता. जाकीच्या काजाराच्या सुवाळ्याच्या निमतान कुणब्यांचें रेस्पेराचें पुरसांव, काजारा वेळाचीं कुणबी गायनां आनी त्या समाजाचें रंगीत, सांगीतमय जिवीत ह्या काजारांनी पळोवंक मेळटा. तेभायर कुणबी समाजाच्यो चालीरिती, तांचो जिवितांतलो दिसपट्टो संघर्श आनी अल्पसंतुश्ट वृत्ती, तांचे त्या काळावेलें नेणारपण, भोळेंपण आनी अशिक्षितपण, तरेकवार श्रध्दा, अंधश्रध्दा, सामान्यज्ञान, वेव्हारज्ञान आनी हुशारकाय ह्या तियात्रिस्तांत वास्तवतायेन आनी संयमान मांडल्या. तियात्रिस्त जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस हांणी कुणबी जाकी ह्या तियात्रांत गोंयच्या ह्या उपेक्षीत गरीब समाजाक मानान उबो करपाचो यत्न केला. बरोवप्याक जाय जाल्यार उच्चवर्णीय तशेंच गिरेस्त समाजाची काणी तियात्रान मांडू येताली. पूण तांणी मुद्दाम कुणबी समाजाचें चित्रण आपल्या तियात्रांत केलां हाचें मुखेल कारण म्हणजे मुळांत लेखकाक ह्या समाजाविशीं उपाट आदर आसा. हो आदर ताच्या तियात्रांत पावलां कणकणी दिसून येता.

**कुणबी जाकी ह्या तियात्रातली भाशाशैली -**

पाय तियात्रिस्त जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस हे एक भोवूच संवेदनशील बरोवपी. तांणी तियात्राच्या मळार जें योगदान .दिलां ताका लागूनच तांकां 'पाय तियात्रिस्त' म्हणटात. तांच्या सगळ्या तियात्रांनी एकतरेचें वेगळेंपण दिसून येता. हें वेगळेंपण तांची एक खेरीत वळख घडयता. ताका लागून तांचीं तियात्रां फामाद जावंक पावता. कुणबी जाकी ह्या तियात्राचो विचार केलो जाल्यार हें तियात्र तातूंतल्या खुबश्या म्हत्वाच्या

गजालींक लागून फामाद जाल्ल्याचें दिश्टी पडटा. देखीत - कुणबी समाजाचें चित्रण करपी कथानक तशेंच समाजांतली जाती वेवस्था दखोवपी घटना प्रसंग, आदी.

ह्या तियात्रांत किरिस्तांव धर्मांतल्या कुणबी समाजाची वास्तव काणी शब्दबध्द जाल्या. बरोवप्यान बरोवचें पयलीं कुणबी समाजाचीं साबार आंगां बारीकसाणेन अभ्यास करूनच हें तियात्र बरयलां. खासाकरून कुणबी समाजांतल्या भाशाशैलीचो बरो उपेग तांणी आपल्या तियात्रांत केला. तियात्र हें मुळांत एक नाट्यप्रकार आशिल्ल्यान विंगड विंगड पात्रांच्या संवादांतल्यान ती भाशाशैली अभिव्यक्त जावप गरजेचें आसलें. बरोवपी त्या वावरांत नापास जावंक ना हें नोंद घेयसारकें. कुणबी समाजाचीं भाशाशैली तियात्रांतल्या दोन घटकांनी दिश्टी पडटा.

1)संवादांतल्यान 2)कांतारांतल्यान

कुणबी जाकी हें अख्खें तियात्र कुणबी समाजांतल्या निजाचे गोड भाशेन आकाराक आयलां. तांतूंतले संवाद कुणबी समाजांतल्या सद्-भावराथी, कश्टकरी आनी मातयेकडेन दसून आशिल्ल्या मनशांची सुख-दुख्खां व्यक्त करता. हे संवाद एकेतरेन तांचीं काळजांच उत्तीं करतात काय कितें असो भास तियात्र वाचतकच जाता. तशेंच कांतारांत दिसपी भास पळयली जाल्यार लेखकाची काव्य-प्रतिभाय सहजतायेन मतींत येता. खूबशे फावटी जें संवादांतल्यान सांगपाक जायना तें बरोवप्यान कांतारांतल्यान सांगलां. तातूंतलीं उतरां, भावार्थ, प्रतिकां आनी प्रतिमां सामान्य वाचकाक लेगीत मंत्र- मुग्ध करून सोडटात. तियात्रांतली भास आनी ताची शैली हें ताच्या यशाचें एक म्हत्वाचें कारण जावन आसा.

एक उत्कृश्ट कलाकृती म्हण कुणबी जाकी हें तियात्र तियात्राच्या पालकाचेर आयजूय फामाद आसा. एकंदर; कोंकणी तियात्राक एक परिपक्कताय दिवपाचें कार्य कुणबी जाकी ह्या तियात्रान केलां.

## 2. वंश कुळाचें देणें – संक्रमीत युगाचो वेद घेवपी नागेशबाबांची सशक्त अभिव्यक्ती

कोंकणी कवितेच्या मळावेलो एक दिपस्तंभ म्हणल्यार नागेशबाब करमली. आपल्या काव्य प्रतिभेंतल्यान तांणी कोंकणी काव्याक संख्यात्मक तशेंच गुणात्मक उंचाय दिल्ली आसा. गोंयच्या मुक्ती पयलीसाकून ते कोंकणी कवितेची सेवा करीत आयल्यात. ते भायर विंगड विंगड समाजीक, सांस्कृतीक, भाशीक, राजकी चळवळींनी तांचो सक्रीय सहभाग लाबला. तांच्या व्यक्तिमत्वांत ह्या चळवळींचो प्रभाव पडला. कवितेंतूय ताची झलक सहजतायेन मेळटा. नागेशबाबांच्या व्यक्तित्वाचीं साबार तांसां अशीं दिश्टी पडटात.

सुटके झुजारी नागेशबाब करमली
समाजसेवक नागेशबाब करमली
कामगार फुडारी नागेशबाब करमली
कवी नागेशबाब करमली.

**कवी नागेशबाब करमली:**

नागेशबाबांच्या ह्या व्यक्तिमत्वांत ताची हेर साबार तांसां दिसून येता. तांच्या कवितेंतल्यान ह्या साबार तासांची कलात्मक वळख घडटा. नागेशबाब करमली हांका कविवर्य बाकीबाब बोरकार शिक्षक म्हूण लानले तेन्नासावन तांच्या प्रतिभेक तेजस्वी दिका मेळ्ळी. तांणी सेगीतपणान कवितेची इश्टागत दवरली. विंगड विंगड चळवळींनी वांटेकार जातानाच तांणी काव्याक फाट केली ना. आजूनमेरेन तांचे चार कविता झेले उजवाडाक आयिल्ले आसात. ते म्हणल्यार –

1979 – जोरगत

1979 – सांवार

1989 – वंशकुळाचें देंणे

2009 – थांग अथांग

**वंशकुळाचे देणे - नागेशबाबाच्या प्रतिभेचो म्हादिश्टावो**

नागेशबाब करमलींच्या वंशकुळाचें देणें ह्या झेल्यांत 1974 ते 1985 मेरेनच्या काळांतल्यो कविता आसपावल्यात. ह्या झेल्याक 1989 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला. सांवार आनी जोरगत ह्या झेल्यांच्या माथ्यार तिबो कसो सोबपी हो कविता झेलो म्हणल्यार नागेशबाबांच्या प्रतिभेचो म्हादिश्टावोच जावन आसा.

ह्या झेल्यांत नागेशबाबान 'म्हजी कविता आनी हांव' ह्या नांवान बरयल्ली प्रस्तावना मांडल्या. हो झेलो कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत स्वता अञ्चंवर उरतलो अशीच तांची रचना जाल्या. मनीसपणाचे, समतेचें आनी समस्त सृश्टीच्या भरभराटीचें सपन, थळावेंपण राखचेलो आनी आपल्या वंशकुळाचें देणें मानचेलो अपूर्व संदेश हो कविताझेलो दिता.

**ह्या कविता झेल्यांत वट्ट तीन विभाग आसात.**

**1) युगवेद**

**2) उत्फर्के**

**3) उमाळे**

**आयच्या युगाचे वेद गाजोवपी - युगवेद** : वंशकुळाचें देणें ह्या झेल्यांतलो युगवेद हो विभाग नागेशबाबांच्या आत्मीक तळमळीचो दिश्टावो घडयता. वट्ट 27 कवितांचो आसपाव आशिल्ल्या ह्या विभागांतली वळीन वळ वाचप्याच्या मनाचो थाव घेतानाच ताका अंतर्मुख करून विचार करपाक प्रवृत्त करता. आपल्या 'आनंदसुक्त' ह्या पयलेच कवितेंत ते म्हणटात.

**मुक्त विमुक्त**
**दिकां दिकांतल्यान रचून येवं एक आनंदसुक्त**
**मन मेकळ्या**
**मनीसपणाचें रूप अपरूप एक दिव्य भावयुक्त**
(आनंदसुक्त - 03)

दिकां दिकांतल्यान एक मुक्त विमुक्त आनंदसुक्त रचून येतना

साबारकडेन मनीसपणाची सया पातळू असो हावेस हो कवी उक्तायता. ह्या विभागांतल्या जायत्या कवितांनी होच भाव व्यक्त जाता. देखीक मनीसपणाचें गीत, सूर, आदी.

युगवेदांतल्या कवितांची वर्गवारी करीत जाल्यार चडश्या कवितांनी थळावेपणाक तशेंच मुळावेपणाक ती होरायता अशें दिसता. आमकां आमच्या भुंयेचो, भाशेचो, भौसांचो आनी पर्यायान आमच्या नीज संस्कृतायेचो अभिमान दिसपाक जाय हो संदेश ते दितात. थळावेपणाचो मुळमंत्र आमच्या रक्तामासांतूच न्हय तर दर एक स्वासांत आनी आत्म्याच्या कणाकणांत घुमपाक जाय हाची सुलूस ताच्या साबार कवितांनी येता. देखीक-ह्या थळाचे आमी थळावे गा, आमी, आमी आयले, निर्धार वादळमोडां ह्यो कविता

हातूंतल्या कांय कवितांनी जाल्यार नीज संस्कृतीची जाणीव करून दितानाच कवी परत एक फावट भुंयेच्या रक्षणाखातीर दर एक धांव धरून बसपाचो निर्धार करपाक फुडें सरता.

वंशकुळाचें देणें ह्या झेल्याचें आनीक एक खाशेलेंपण म्हणल्यार युगवेदांतल्या कितल्याश्याच कवितांनी वाचकांच्योच भावभावना शब्दबध्द जाल्यात. ज्या थळाव्यापणाविशीं कवी काव्य रचता त्याच थळाव्या सुंस्कृतायेच्या रक्षणाक गावंक सोदता. कारण कवीवंरींच तोवूय वंशकुळाचें देणें लागता - कवी आपल्या कवितेंत म्हणटा...

**आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात**
**देखून आमचीं गीतां आमकां गावचीं पडटात.**
(वंशकुळाचें देणें)

'आमी' ह्या कवितेंत कवी आमी अशे न्हय, तशें न्हय, धीर सोडिल्ले अबर्गत तर न्हयच न्हय अशें सांगतना आमी आमचीच मर्णां जियेल्यात, युगात्म्याच्या कळसाक अभिषेक केला. उज्या मांडांत घालून घेवूनच आमचो बावटो आमी उबारला देखून आप सोडून ल्हेवटे जाल्ले तर आमी न्हयच न्हय अशे म्हणटा.
आमी आयले ह्या कवितेंत कवी आमी कसल्या संकश्टांचेर मात करून

आयल्यात हांची म्हायती दिता. तो म्हणटा -

**आमी आयले**
**कडेकडसां बंद पासांचे बांद मांडून**
**दुध सागराच्या घोग्यावरी**
**दोंगर खडपा**
**सह्याद्रीच्यो घळी हुपून**
(आमी आयले)

'तीं पर्थल्ली वारीं, गवाय, ते दिको हुपून गेले, पळेवपी' ह्या कवितांनी कवीन आळसायेन तशेच सुशेगादपणान फांटी उरिल्ल्या व्यक्तिची शोकांतिका मांडल्या. जिवितांत मुखार सरतलो जाल्यार खिणयाऱ्या सुखाचो त्याग करून दर एकट्यान कर्तव्याक फुडो करचोच पडटा हो मंत्र हांगा दिता. कवी म्हणटा...

**आनी**
**दीस धारेक लागपाच्या**
**वेळार मात**
**आमी ताकतीक केली**
**पूण ती पर्थल्ली वारीं**
**बरीच पयस पावलीं**
**आमकांच कळाव जालो.**
(तीं पर्थल्लीं वारीं)

नागेशबाबांच्या हेर कांय कवितांनी आध्यात्मीक तसोच तत्वगिन्यानी सूर दिश्टी पडटा. चड करून तत्वज्ञानांतल्यान अध्यात्माकडेन वचपी तांची कविता आमच्या आधुनीक काळांतली मानसीक स्थिती चित्रायता. 'सुटका दी, म्हाका दिशील्लें बंधपास सगळे दिवे पेटोवन जाले उपरांत' ह्यो तातूंतल्योच कांय वेचीक कविता. कवी स्वता जिवितभर झुंजला. गोंयकारपण राखचेखातीर म्हणात वा गोंयची

भास, भूंय आनी संस्कृतीरक्षण करपाखातीर म्हणात ते सदांच सक्रीय रावल्यात. आतां आनी जापसालदारकेचें वजें माथ्यार मारू नाकात असोच सूर तांच्यो ह्यो कविता दितात. बंधपास ह्या कवितेंत कवी म्हणटा...

**रे तोडून पास बंधपास**
**घेवंचो तुवें मेकळो स्वास**
(बंधपास- 27)

सगळे दिवे पेटोवन जाले उपरांत हे कवितेंत कवी ह्या अथांग काळखेल्ल्या उडवाडांत तूं रे सायबा आमकां पेटय, आमकां उडवाड भेटय आनी उजवाडाकूच आमकां भेटय, अशी विनंती त्या परमशक्तीक करता. हांगा दिश्टी पडटा ती कवीची आध्यात्मीक तशेंच चिन्तनशील वृत्ती.

युगवेदांत आनीक कांय विशय मांडपाचो यत्न कवीन केला. तांची 'अन्तहीन काणी' वा 'ते दीस आतां गेले सारक्यो कविता खऱ्यानीच ह्या झेल्याक वेगळेंपण हाडटात. आतां ह्या भुंयेचेर अन्याय अत्याचाराक जागा उरूंकना. हांव रैत तूं पातशा अशे पाचारपाचे दीस आतां सोपले हाचो भरंवसो ते दीस आतां गेले ही कविता दिता. जाल्यार अन्तहीन काणयेंतल्यान कवी संवसाराची आनी ताच्या अस्तित्वाची व्हांवती काणी शब्दबध्द करता.

कवी नागेशबाब करमलीन युगवेदांतल्यान कोंकणी कवितेच्या बावट्याक उंचायेर व्हेला अशें वयल्या विवेचनांतल्यान म्हणूं येता.

**सैमाचो काव्यात्मक दिशटावो – उत्फर्के :**

नागेशबाबांच्या 'वंशकुळाचें देणें' झेल्यांतलो दुसरो विभाग म्हणल्यार उत्फर्के. ह्या उत्फर्क्यांत चार गीतां आसपावल्यांत. गेयता घेवन आयिल्ल्या त्या कवितांचो आसपाव मुद्दाम 'उत्फर्के' ह्या नांवान जाता. हीं गीतां पयलीं आकाशवाणीवेल्यान स्वरबध्द जाल्यांत आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ह्या चारूय गीतांनी सैम एक मुखेल

घटक जावन उलयता. कवीच्या काव्यप्रतिभेचो साक्षात्कार सैमाच्या दर एका घटकांतल्यान वाचकाकडेन संवाद साधतना हांगा दिश्टी पडटा. पयल्या उत्फर्क्यांत कवी बरयता –

**गगन घना रे**

**श्रावण सुगंध ओतीत यो**

**सपन घनाचो**

**प्रकाश दिगंता रकयत यो गगन घना रे**

(उत्फर्को - 1)

दुसऱ्या गीतांत कवी वनावनांतल्यान मनमनांतल्यान काळीज कोगूळ गीत गायता आनी अशा वेळार कणाकणांतल्यान तणातणांतल्यान हांगा अंतर वझरो व्हांवता अशें म्हणटा. कवी नागेशबाबांच्या अंतर्मनांतलो सैमसुवाळो कळतनकळत ह्या काव्यांतल्यान व्यक्त जाता. कवीच्यो शब्दकळा इतल्यो ल्हवपीक आनी फिशाल आसात की तातूंतलो शब्दानशब्द वाचकाला मनांत खातकुतल्यो करून वता.

**फांतोडपारा दंवांत भिजल्या रानांत**

**अचळय सूर कोणाले सांडले रे?**

(उत्फर्को - 2)

वयलो प्रस्न उबो करपी कवी वाचप्याक फांतोडेची टवटवीत सृश्टी भेटयता जाल्यार निमण्या उत्फर्क्यांत कवी संवसाराच्या विशाळकायेक नमळायेन शरण वता. संवसारांतल्या कुरूपायेक पुसून उडय अशें त्या असीम सैमीक शक्तीकडेन मागता. उत्फर्कें कवीच्या काळजांतलें सृश्टी सौदर्य गीतांतल्यान शब्दबध्द करता.

**स्फुटकाव्याचो उत्कट वजरो ... उमाळे**

'वंशकुळाचें देणें' झेल्यांतलो निमणो विभाग म्हणल्यार उमाळे. कवीन आपल्या काळजांतलो मोगाचो उमाळो हांगा उतरांच्या

माध्यमांतल्यान मांडला. हातूंत वट्ट धा उमाळे आनी निमणी एक दीर्घ कविता म्हणल्यार एक प्रयोग..... नदर फाटी वता तेन्ना अशा नांवान नागेशबाबान ती प्रस्तूत केल्या. पयल्या उमाळ्यांत कवी बरयता की पावशी धारो निशेवन गेल्यात, तांणी अळंग वारो गंधीत केला आनी अशा धूंद आकूळ खिणा -

**तुजे म्हजे वेगेंत -**
**तुजो म्हाका**
**म्हजो तुका**
**पुरो एकूच सांगात**
(उमाळो)

मोगाचो, वोगाचो आनी प्रणयाचो हावेस ह्या उमाळ्यांत व्यक्त जाला जाल्यार पांचव्या उमाळ्यांत कवी म्हणटा -

**तुवें ओडून घेतिल्लया मौनांतल्यान**
**तुवेंच पयलें उतर काडचें आतां**
**खंयतरी अंदून उरपी घुस्मटमारांतल्यान**
**तुवेंच मेकळी वाट सोदची आतां**
(उमाळो)

मोगाचो रूसवो फुगवो, राग ह्या साबार गजालींची उस्तवारी हे उमाळे करतां. एकामेकाच्या मनाक जपपाचो प्रयत्न दर एक मोगी करता. हें प्रकरण शब्दबध्द करताना कवी म्हणटा -

**तुवें केन्नाच दिलें ना**
**आनी तुवें जोडचें म्हणून**
**हांवे वगीच कितेंय मोडलें ना.**
(उमाळो)

नदर फाटी वता तेन्ना ह्या दिर्घ काव्यांतल्यान कवीनं पुराय वंशकुळाचें देणें ह्या झेल्याची आनी तातूंतल्या कवितेंची फांटभूंय

मांडल्या. आमी आतां एक युगस्पर्शी म्हायात्रेंत सापडल्यात... अशें म्हणपी ती कविता कोंकणी काव्यांतलो खरो वाटचिरो. नागेशबाबान आपल्या व्यक्तीमत्वाचें सर्वव्यापी पडबिंब तातूंत उतरयला, कोंकणी कविता अभ्यासतना एखाद्या कविकूय करसो अभ्यासचो हाची देख ह्या झेल्यांच्या अभ्यासान सहज मेळटा. वंशकुळाचें देणें कोंकणी कवितेच्या इतिहासांतले भांगरा पेणे जावंक पावल्या हातूंत मातूय दुबाव ना.



## 3. तिकली - डॉ. मनोहररायांच्या भांगराळ्या प्रतिभेचो एक रंगयाळो थेंबो

कोंकणी कवितेक पडिल्लें सोबीत सुंदर सपन म्हणल्यार डॉ. मनोहरराय सरदेसाय. तांणी आपल्या इश्वरी प्रतिभेंतल्यान कोंकणी काव्याचो खरो दिश्टावो पुराय संवसाराक घडयलो. तांच्या काव्यसृश्टीन समस्त कोंकणी साहित्याची गिरेस्तकाय वाडयल्या. कोंकणी काव्यांत रचनात्मक तशेंच कालात्मक बदल हाडून पुराय काव्य-संवसारांत नवचैतन्न्य हाडपी कवी र. वि. पंडीतांच्या उपरांतचो खापो शब्दकवी म्हणल्यार डॉ. मनोहरराय सरदेसाय.

'आयज रे धोलार पडली बडी, जायात जागे, गोंया तुज्या मोगाखातीर, जायो जुयो, पिसोळीं, जय पुण्यभूंय जय भारत, मनोहर गीतां' हांच्या वांगडा 'बेब्याचें काजार, माणकुलीं गीतां, गोड गोड गीतां' असो काव्य प्रवास तशेंच तोलामोलाचें गद्य बरप तांच्या प्रतिभेची रूजवात दिता. तातूंत दर्जेदार नाटकां, शास्त्रशुध्द अणकार, परिपक्व समिक्षण-संपादन असो साहित्यीक वावर ह्या एका झपाटिल्ल्या व्यक्तिमत्वान केल्लो आसा. संवसारांतल्या उंचेल्या पांवड्यावेल्या सर्वोत्कृश्ट साहित्यीक कलाकृतींचो कसाय तांणी घोटलां. इग्लीश, फ्रेंच, पुर्तुगीज तशेंच हेर युवरोपी आनी जगांतल्या हेर प्रतिभावंत साहित्यिकांच्या मांडयेक मांडी लावन ते वावुरल्यात. पॉल एल्युआर, जॅकी, पाब्लो नेरूदा, गार्सिया लॉर्काच्या काव्याचो दिव्यरस घोटून वॉल्तॅर, दिदरॉ, व्हिक्टर ह्युगो, रोमारोला, आल्मर्ट हांच्या नदरेंतलें गिन्यान तांणी टिपून घेतलां.

एक समर्पीत शिक्षक, आपल्या शब्द सामाथ्र्याचेर सर्वसामान्य लोकांच्या काळजांत सुवात जोडपी लोककवी, गीतकार तशेंच बालसाहित्यकार म्हूण ते फामाद. ह्या धर्तरेचेर तोंडार चान्ने आनी काळजांत सदांच मनीसपणाची झर घेवन वावरिल्लो मनोहारी मनीस म्हूण ताची याद संवसारांत जितीच उरतली हातूंत मातूय दुबाव ना.

तिकलेच्या अंतरंगांत पावल दवरतना ......

16 जानेर 2004 ह्या जनमत कौलाच्या पवित्र दिसा सुनापरान्ताची दुसरी इनिंग आरंभ जाली. नवी टिम (पंगड) नवो कोच (मार्गदर्शक) नवी सिस्स्टीम (पध्दत) आनी नवो पॅशन (जोश) आत्मसात करून सुनापरान्त उजवाडाक येवपाक लागलो. पयलेंच फावटी कोंकणी पत्रकारिता व्यावसायीक पांवड्यार स्थिरावली. ही व्यावसायीकताय हाडटाना साहित्यिकांकूय तातूंत मानांची सुवात मेळची हाचीय तजवीज करून व्यवस्थापक आनी संपादकान आपल्या विद्धत्तेचें दर्शन घडयलें. त्याच विद्धत्तेची एक जिवी देख म्हणल्यार डॉ. मनोहरराय सरदेसायांचें 'तिकली' हें सदर. खरें म्हणल्यार तिकली वा कुकूम हें सौंदर्याच्या पुर्णतायेचें प्रतीक. हिंदू संस्कृतायेन ताका आयावपणाचें प्रतीक मानला (कुकमाचो आदार) सुमापरान्ताच्या दुसऱ्या इनिंगेचो कप्टन (संपादक) म्हूण सुत्रां हातांत घेवपी संदेश प्रभुदेसाय हांच्या कल्पक बुध्दीचो तो एक सोबीत सुंदर अविश्कार. आयच्या व्यावसायीक फांटभूंयेक आनी वृत्तपत्रीय गरजेक मनींत धरून डॉ. मनोहरराय सरदेसाय सारक्या जेश्ट कवीच्या प्रतिभेचो कलात्मक रितीन केल्लो भौमान म्हळ्यारूच तिकली (सदर)

1979 वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या आनी दिल्लीच्या केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबिल्ल्यां 'पिसोळीं' ह्या कविता झेल्याचो उगडास करून दिवपी आनी समस्त वाचकांक नवो सुखद धक्को दिवपी 16 जानेर 2004 ची मनोहरबाबांची 'तिकली' अशी आसली -

**मनाच्या कोनशांतलो कोयर**
**जळोवन उडयला**
**तरीय ताचो धुंवर**
**दोळ्यांत वेता, दुकां हाडटा**

मनशाच्या मनाची आनी तांच्या काळजांतल्या विविध स्पंदनांची शब्दकवनां कवी हांगा व्यक्त करता. मनांतले पोजडे विचार, वायट चित्तवृत्ती, राग, तिडक मत्सर, द्वेश अहंकार हांका जळोवन उडयल्यारूय तांचो धुंवर दोळ्यांत दुकां हाडटा, फाट सोडिना अशें

म्हणपी कवी मनोहरराय सरदेसाय अंतर्मनांतल्या विविध मनोव्यापारांचो यथार्थ परामर्श घेता. 16 जानेराक सुरू जाल्ली ही तिकल्यांची यात्रा मुखार नवी तेंगशी गांठत गेल्या हाका समस्त वाचक गवाय आसात. मनोहरबाबांच्या तिकलेंत अणभवाची खरसाण वैश्वीकतायेचो आशय विशय आनी मानवी दृश्टीकोन आसपावला हाकाच लागून ती समस्त वाचकांनी आपल्या. काळजाच्या कपलाक लायल्या. जिवितांतलें खरें तत्वगिन्यान सांगतानाच वाचकांक हांसयल्या धोलयल्या आनी कांय कडेन अंतर्मूख जावन विचार करपाक प्रवृत्त केल्या. मनोहरबाबान तिकलेंत शब्दाचो खेळ केन्नाच करूंकना तर जिणेच्या साद्या सुदया प्रसंगांतल्यान वा अणभवांतल्यान तातूंतल्या अर्थाचें आनी मर्माचें दर्शन आमकां घडयलां. देखीत-

**एकूय ना मिरी**
**ताच्या सदऱ्यार**
**सगळ्यो मिरयो**
**ताच्या चेऱ्यार**
(तिकली 23-01-2004)

**तो व्हड हिशेबी आसलो**
**ताणें जिविताचो हिशोब केलो**
**आनी जिवूच म्हारग पडटा**
**म्हणून जीव दिलो**
(तिकली 5-06-2004)

**सुर्य काळखाक भिता**
**देखून तो रात पडचे आदीच**
**दर्यांत उडी मारता.**
(तिकली 14-03-2004)

पडून पडून उतर जालो
कडून कडून भांगर जालो
चुकून चुकून शाणो जालो
(तिकली 30-03-2004)

दोतोरान ताका बरो तपासलो
हें खाव नाका तें खाव नाका
अशें सांगून गेलो
वायटकार सातूच दिसांनी
भूक लागून खंवसलो
(तिकली 2-04-2004)

हांव ब्रेण्डी दोनूच वेळा घेता
थंडी जाल्या म्हूणून
अमनी
थंडी जांवची न्हय म्हणून
(तिकली 05-04-2004)

एक चूक सुदारूंक वेतां
दुसरी चूक करतां
दुसरी सुदारतां, तिसरी करतां
चुकांची सरपळी पांयांत
ओडीत भोंवता (तिकली 16-05-2004)

उदकांत पेवचें
बुडचें न्हय
मोगांत चलचें
पडचें न्हय

(तिकली 21-05-2004)

पंद्राव्या माळयेर रावतां
मळब लागीं जालां
पूण जमनीचो पावसांतलो वास
म्हाका पयस जाला (तिकली 31-05-2004)

उजवाडाकडेन वचूंक सोदता
ताका काळखांतल्यान वचचें पडटा
(तिकली 05-01-05)

पुनवेच्या दबाज्याक
नखेत्रांक पळयलीं नात
देखून उमाशेच्या व्रताक
एकूय नखेत्र आयलेंना (तिकली 12-03-06)

भूतकाळाच्या माल्यांत
हात घालो
उगडासाच्या म्होवामुसांनी
फोडून खालो (तिकली 27-09-06)

अश्या तिकल्यांच्या माध्यमांतल्यान मनोहरबाबान मोग, फोग, खोशी, आनंद, तत्वगिन्यान, विनोद, गंभिरता, मनशाच्यो बऱ्योवायट वृत्ती, प्रवृत्ती, भक्ती, श्रध्दा, देशप्रेम अशे जायते विशय हाताळ्यात. एखाद्या ल्हान माणकुल्या बियांत जशी मळबाकडेन सर्त करपी तांक आसता तशीच तांक मनोहरबाबांच्या तिकलेंत आसपावल्या. व्हडांतल्या व्हड ग्रंथांतल्यान जें व्यक्त करूंक जावंचेना तेंच हो कवी हांगा चार-पांच वळींच्या तिकलेंच सहजतायेन सांगून वता. गिरेस्त प्रतिभेचो स्पर्श

जातकच फातराचेंय भांगर जांवचें तशे तांचे शब्द उलोवंक लागता आनी वाचप्यांच्या तनामनाचेर बासुरी वाजता. मराठींतली 'चारोळी', जपानी भाशेंतलो 'हायकू' उर्दुंतले 'शेर' जशे वाचकाक मंत्रमुग्ध करतात तेच तरेन हे तिकलेंतले तरेकवार सूर कोंकणी वाचकाक पिशें लायतात. वयर दिल्ल्यो वेंचीक तिकल्योच न्हय तर मनोबरबाबांच्यो सगळयोच तिकल्यो आशय विशय आनी अभिव्यक्तीच्या नदरेंत उजव्यो थारल्यांत.

काव्य समिक्षकांनी तिकलेची सुरवेक तोखणाय केली पूण उपरांत ती फकत आयतारच्या अंकातूच येवंची, सदांच येवपी तिकलेंत तेंच तेंचपण दिसून येता असो आरोप केलो. म्हत्वाचें म्हणल्यार मनोबरबाबान स्वताच्च तो आरोप स्विकारिल्लो. तांणी म्हणिल्लें - संपादकान तिकली सदांच प्रकाशीत करची म्हूण निर्णय घेतला; कित्याकतर तिकली ही सदांच लावची आसता म्हूण. खुबशे फावटी म्हाकाय जाणवता की दर दिसा तिकली आयिल्ल्या कारणान तिच्यामदीं विविधताय दिसना, पूण शब्दाचे नासले तरीय अर्थाचे विंगड विंगड रंग दिवपाचो यत्न हांव करता. वाचकांकूय त्यो मानवतात देखूनूच हें सदर यशस्वी रितीन चलता.

**तिकलेच्या रंगयाळ्या थेंब्याचो अर्क सोदताना.**

मनोहरबाबांच्या तिकलेंत भावनांचे विंगड विंगड रंग ताच्या बऱ्या वायट शेडीसयत तरंगून वता. वाचप्यांच्या मनांत ताचे पडबिंब खिणांत उमट्टा. ताचो स्वताचोच नीज उमाळो तिकलेंतल्यान व्यक्त जाला तें पळोवन तो सुखावता आनी त्या तिकलेक तो काळजांत दसयता.
मनोहरबाबांची एक पिसोळी म्हज्या जिविताची वंयवाट चलताना म्हाका सदांच वाट दाखयता आयल्या. ती म्हणल्यारः

**सोय बरी वाटचे पयलीं**
**रोस पिळून काडचो न्हय**
**उतर मनांत शिजचे पयलीं**
**गीत पानार वाडचें न्हय**

हें कवन उलयता साधनेचेर, गुणवत्तेचेर आनी आधिकाराचेर. होच विचार आपणावन हेर कितल्याश्याच जाणांनी आपल्या जिणेची दिका थारयल्या आसतली... खरेंच, मनोहरबाबांचें दर एक काव्य वा कवन मनशाक जगपाचो नवो मंत्र, नवें तंत्र दिता अशें म्हणल्यार चूक थारची ना. तिकल्या विशीय वाचकांचो असोच अणभव आसा. तिकल्यांचें संकलन आनी विश्लेशण करताना जाल्यार मनोबरबाबांची समाजीक जाणविकाय, तांची निरिक्षण शक्ती, तरनी नदर आनी तरणाट्याक लजोवपी रसिकताय दोळ्यांक भिडून गेली. उदकांत पेंवचें बुडचें न्हय, मोगांत चलचें पडचें न्हय वा कडून कडून भांगर जालो चुकून चुकून शाणो जालो असो म्हणपी हो कवी इश्वरी चैतन्न्याच्या दिव्य स्पर्शांत आमकां तना मनांतल्यान खिणांत पर्जळून उडयता.

शब्दयोगी मनोबरबाब त्या अमृत यात्रेंतले एक प्रवासी जावन आमकां सोडून गेले.... पूण कोंकणी साहित्याक माणकां मोतयांची गिरेस्तकाय भेटोवन गेले. तांच्या तिकल्यांचो प्रवास मात नित्यनेमान चालूच आसा. कवी सुदेश लोटलीकार, माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार, नयना आडारकार, अशोक भोंसलो, श्रीधर कामत, मुकेश थळी, संतोष महाले, अरूण साखरदांडे सारके कवी आपल्या प्रतिभेचो रंग मनोहरबाबांच्या तिकलेक चडयत रावल्यात आनी रावतले हातूंत मातूय दुबाव ना. मनोहरबाबांच्या दर एका तिकलेचे विश्लेशण हांगा करप शक्य जावचेंना पूण सर्वसादरणपणान मतां मांडचीं जाल्यार तिकलेचें शास्त्रशुध्द विवेचन अशें करूं येता.

मनोहरबाबांची तिकली..... जल्मापयलींच्या तशेंच मर्णाउपरांतच्या गुपितांची उस्तवारी करता, तिकली..... जिवितांतल्या व्हड सत्याची जाणीव करून दिता, तिकली.... एकाच खिणांत जिणेच्या जायत्या पैलूंचें दर्शन घडयता, तिकली.... नीज अणभवांचें आंगलें बांदता, तिकली.... काळजाच्या भगभगपी चंवनांचेर फुंकर घालता, तिकली.... मनीसपणाचो मंत्र दिता, तिकली.... वाचप्याच्या अंतर्मनाचो सोद घेता.

खऱ्यानीच तिकली आपल्यावांगडा कितल्याश्याच

भावभावनांचो व्हांवतो वझरो वाचकांच्या तकलेर सोडटा. तातूंत राग आसा, मोग आसा, हयकार आसा न्हयकार आसा, प्रणयाची वेंग आसा विरहाचो उजो आसा, उमेद आसा, खंत आसा, जमीन आसा मळब आसा, जळप आसा फळप आसा, फातराची रास आसा फुलांची भास आसा शब्दाचो चोमो आसा कांट्यान्या अर्थाचो शेमो आसा..... डॉ. मनोहराय सरदेसायांच्या भांगराळ्या प्रतिभेचो एक एक थेंबो आसा.....



## 4. देवाच्ये कुर्पेन - खडपाच्या तांकीची इतिहासीक कोंकणी कादंबरी

डॅनियल डॅफो हांणी 'रॉबिन्सन क्रुस्सो' ही 1719 ह्या वर्सा इंग्लिशींतली आनी संवसारांतली पयली कादंबरी उजवाडाक हाडली. ह्या कार्याखातीर तांकां 'founders of modern English novels' अशें म्हणटात. प्रथम पुरूषी निवेदनांतल्यान बरयल्ली ही कादंबरी मध्यमवर्गीय मानसिकतायेचें दुख व्यक्त करता. हे तरेन इंग्लीश कादंबरीन संवसारांतल्या साहित्यीक जगाक एक नवो साहित्यप्रकार दिलो. जो उपरांत इग्लीश धरून जगांतल्या हेर भासांनी उदरगतीक पावलो.

20 व्या शेकड्यांतले जगांतले कांय म्हत्वाचे कादंबरीकार वेचून काडले जाल्यार तातूंत सुरवेकच्या काळांत पाश्चात्य वाठारांतले बरोवपी मुखार आशिल्याचें जाल्यार उपरांतच्या काळांत आफ्रिकन उपखडांतले तशेंच आशियायी उपखडांतले कादंबरीकार जैतिवंत जाल्ल्याचें दिश्टी पडटा. आयज 21 व्या शेकड्यांत संवसारांतल्या सगळ्याच मुखेल भासांनी कादंबरी हो साहित्य प्रकार ते ते भाशेंतले लेखक केळयत आसात. आमच्या भारतांत ल्हान व्हड सगळ्याच भासांनी हो साहित्य प्रकार फामाद जाल्लो आसा. हिन्दी ह्या राष्ट्रभाशेक धरून सिंधी, नेपाली, कोंकणी सारक्या ल्हान भासांनी लेगीत हो साहित्य प्रकार उदरगतीक पाविल्लो आसा.

कोंकणी कादंबरीचो विचार केलो जाल्यार, कोंकणी कादंबरी मुखेलतायेन तीन लिपयांनी बरोवन जाता. व्ही. जे. पी. साल्दानान रचिल्ली 'देवाच्ये कुर्पेन' ही कन्नड लिपयेंतली कोंकणी कादंबरी भोवूच गाजल्या. कादंबरी तशेंच नाटक रचपी म्हूण ते अख्ख्या कोंकणी समाजांत आनी साहित्यीक मळार फामाद आसातूच पूण तेभायर एक अणकारपी, बरो वक्तो, संगीतकार, संपादक, कोंकणी संघटक म्हूण ते परिचयाचे आसात.




**देवाच्ये कुर्पेन - सद्-भावने साकून संघर्शामेरेन...**

व्हि. जे. पी साल्दानान कोंकणी कादंबरीक एक नवी वळख दिल्या. आपल्या जायत्या कन्नड लिपयेंतल्या कोंकणी कादंबरींतल्यान तांणी वेगळी जाणविकाय, वेगळें जिवीत आनी वेगळी कथा कोंकणी साहित्याक दिल्ली आसा. 'देवाच्ये कुर्पेन' ही तातूंतलीच एक उत्कृश्ट कादंबरी. रेगो अँड सन्स प्रकाशनान ती 1995 वर्सा देवनागरी कोंकणींत लिपयांतरीत करून उजवाडाक हाडली. पयलीं ती कन्नड लिपयेंतल्यान ह्याच नांवान प्रसिध्द जावन भोव गाजिल्ली.

तशें कादंबरीचें कथानक सामान्य तरेन फुडें सरता. म्हैसूरचो राजा हैदरअलीचो पूत टिपू सुलतान हाच्या सैनिकी तशेंच राजकी व्यवस्थेंत हिकमतींत वावूरपी कोंकणी तरनाट्यांची ही कथा. ह्या वाठारांतलो कोंकणी मनीस तसो सद्-भावराती. तातूंतल्या तातूंत उमेदीच्या तरनाट्यांची ही कथा. टिपूच्या प्रशासनांत कर्नाटकांतल्या मंगळूर, बार्कूर, ओम्जूर, बंटवळ, फळणीर, जमलाबाद आदी वाठारांतले कोंकणी क्रिस्तांव तरनाटे कशे धिटायेन वावूरताले तें सांगून कादंबरीकारान ओम्जूरगार सिमांव पेद्रू प्रभू आनी फळणिरगार आंतोन पाव्ल शेट हांच्या मदीं घडिल्ल्या पैजीची आनी दुस्मानकायेची काणी हांगा सांगल्या. हे दोगूय टिपूच्या दरबारांतले महारथी. दोगांयकूय राजदरबाराचो मानसन्मान तशेंच टिपूची खास मर्जी फाव जाल्ली आसता. ब्रिटिशांकडेन झुजताना कोंकण किनारपट्टीचेर वशिल्ल्या बार्कूर साकून कल्लिकोट मेरेनच्या कोंकणी क्रिस्तांव समाजाकडच्यान आपल्याक तेंको मेळचो म्हूण टिपू आपल्या निश्टावंत सर्दार आंतोनीक एकदा बंटवळच्या राफायल मिंगेल कामताच्या धुवेकडेन सोयरीक जुळोवन काजार जावपाक धाडटा. टिपूच्या राजकी मुसद्दीपणाचो तो एक नमुनो आसता.

पूण मिंगेल कामतीची धूव सर्दार आंतोनीक अपमानीत करून मेकळ्या हातांनी परतून धाडटा. सर्दार सिमांव आनी ताचे सांगाती इश्ट ताचीं फकाडां करतात. थोडो वादविवाद जाता आनी दोनूय सर्दार तेमाक पेट्टात. सर्दार सिमांवाच्या अहंकाराक आघात जातकच तो सर्दार आंतोना लागीं एक पैज मारून बसता. स म्हयन्या भितर आग्नेस सिसिलियाक

फाजार करून हाडिना जाल्यार आपली सगळी आस्पत.आंतोनाक देवपाचो दाव तो खेळटा. सरदार आंतोनूय प्रतीतेमान आपली आशिल्ली नाशिल्ली सगळी आस्पत दावाक लायता. इश्ट समजयता पूण कोणाचें काटीं सरना. ह्या नाट्यमय घडणुकेंतल्यान आरंभ जावपी ह्या कादंबरीचें कथानक लेखकान वट्ट 42 विभागांनी रचलां.

पयलो विभाग, दर्बाराचो दाव ह्या नांवान सुरू जातां जाल्यार साबार वळणां घेयत निमणेकडेन 'बंट्वळाक आदेव्स' ह्या प्रकरणांतल्यान कादंबरी वाचकाक आदेवस करता. एकंदर 259 पानांनी बरयल्ल्या ह्या कादंबरींत सर्दार आंतोन फितूरी कशी करता, सर्दार सिमांव पेद्रू प्रभू बंटवळाक कसो वता. वाटेक ताका टिपूचे सैनीक कशे आडखळी हाडटात. ताची ग्रेगोर तेल्लीस ह्या तिरूमलराय म्हणजेच टिपूच्या राजकी दुस्मानाची भेट कशी जाता, सिमांव ग्रेगोर तेल्लीस जावन तिरूमलरायचे बरोमागपी मिंगेल कामतीचेर कसो पावता, आग्नेस सिसिलिया आनी सिमांवाचो मोनो मोग कसो शब्दाविणें उलोवंक लागता, तशेंच आग्नेस सिसिलियाचे आनी मिंगेल कामतीचे सगळ्या आस्पतीचेर दोळो दवरपी दोतोर मर्याणाची फितुरी, राफायल मिंगेल कामतीक सोडोवचे पासत सिमांवान केल्ली अटक, ग्रेगोर तोल्लीस समजून सर्दार सिमांवाची टिपूच्या सैनिकांकडच्यान अटक, मान्वेल मेंदोस ह्या नीज कोंकणी सैनिकी अधिकाऱ्याची भेट आनी सहकार्य, ग्रेगोर तोल्लीस समजून सर्दार सिमावांचेर चलिल्ली कायदेशीर कारवाय, थंयसर घडोवन हाडिल्ली आग्नेस सिसिलियाची मोगाळ भेट, सर्दार आंतोनाची कपटी भुमिका, मिंगेल कामतीची परत अटक, टिपू सुलताना कडेन सिमांवाची भेट आनी सुटका, दुश्ट दोतोर मर्याण आनी सर्दार आंतोनाचो शेवट, मिंगेल कामतीची सुटका, आग्नेस सिसिलियाचें सिमांवाक बंटवळांतली निमणें मेळप आनी लागी आयिल्ल्या मोगी जिवांची पैजेच्या दावाच्या कारणान इत्सा नासुनूय जाल्ली तातातूट, अश्या घडणुकांक विणीत ही कादंबरी आकाराक आयल्या.

हे कादंबरेन लिपयांचें दुरीग हुपलां हाचेवयल्यानूय तिच्या लोकप्रियतेचो तशेंच गुणवत्तेचो अदमास लावं येता. तरीय लेगीत ह्या

कादंरबींतल्या गुण-दोशांचेर सविस्तर भाश्य करप गरजेचें.

**देवाच्ये कुर्पेन - चिकित्सक समालोचन ते समिक्षेमेरेन...**

20 व्या शेकड्यांतल्या निमण्या दशकांत प्रसिध्द जाल्ली ही कोंकणींतली इतिहासीक, साहसीक तशेंत मोगाची एक ताकिवंत कादंबरी. महाबळेश्र्वर सैलांची कारवारचे काळ्या न्हंयचे देगेक वशिल्ल्या लोकजिणेचें उमाळे उक्ते करपी 'काळी गंगा' ही कादंबरी, आनी हेमा नायकाची दुडवांच्या फाटल्यान गल्फाक धांवपी गोंयच्या तरनाट्यांची बायलेच्या प्रतारणेची वास्तवकथा मांडपी 'भोगदंड' ही कादंबरी, ह्यो ह्या निमण्या दशकांतल्यो म्हत्वाच्यो कादंबीऱ्यो गोंयांतली आनी कारवार वाठारांतली वास्तुस्थिती मांडपी ह्यो ह्या दशकांतल्यो म्हत्वाच्यो साहित्यकृती. भोगदंडांत जाल्यार इराक आनी कुवेटाच्या झुजावेळार कोंकणी समाजाचेर जाल्ले परिणाम दाखयल्यात. ह्यो मुखेल कादंब-यो निमण्या दशकांतल्या कोंकणी कादंबरीचें खरें प्रतिनिधित्व करताना दिश्टी पडटा. ह्या दोन म्हत्वाच्या आनी गाजिल्ल्या कादंबरी मदीं देवाच्ये कुर्पेन नित्शितूच आपली सुवात राखून दवरता हें ह्या साहित्याकृतीचें खरें कर्तूब.

हे कादंबरींतल्यान व्हि. जे. पी साल्दानान कर्नाटकांतल्या उत्तर आनी दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतल्या कोंकणी क्रिस्तांव समाजाची टिपू सुलतानाच्या राजवटींतली शोकांतिका शब्दबध्द केल्ली आसा. म्हैसूचो राजा टिपू सुलतानाच्या राजवटीचो कालखंड घेवन ह्या कादंबरीचें कथानक घुंवता. हे कादंबरीची फाटभूंय आनी वातावरण अस्सल इतिहासीक जावन आसलें तरीय घटनाप्रसंगांचो निश्चित कालखंड सांगपाक स्वता लेखक अनमनताना दिसता. तातल्या तातूंत टिपू सुलतानाच्या जिविताचो कालखंड मतींत घेवन वाचक संबंदीत कालखंडाचो अदमास काडटा ती वेगळी गजाल. कादंबरीच्या जायत्या प्रसंगांनी थोडीभोव फिल्मी शैली दिसून येता. देखीत - सर्दार सिमांवाची आनी ग्रगार तेल्लीसाची भेट वा ग्रेगोर तेल्लीस समजून ताचेर आग्नेस शिरिलिया केल्लो मोग. ह्यो गजाली इतिहासीक रचनेंत तरी मनाक

पटना.

तरीय एक समादानाची गजाल म्हणजे, तातूंतल्यो व्याक्तिरेखा साहसीक तशेंच जिव्यो तट्टटीत जावन वाचप्यांच्या भेटेक येतात. नायक सिमांव पेद्रू प्रभू, नायिका आग्नेस सिसिलिया, तिचो बापूय राफायल मिंगेल कामत, खलनायक सर्दार आंतोन पाव्ल शेटी, दोतोर मर्याण, पाद्र जोकीम मिरांद, नायकाचे बरेमागपी आनी इश्ट अंतुलो पडवळ, तोमास कामत, युसुफ अली, मान्वेल मेंदोस, ग्रेगोर तेल्लीस, कथानकांत वेगळी मोडणां हाडपी सावकार मार्सेल कुवेलीन, जुवान मोनिका कुवेल, ह्यो व्यक्तिरेखा आपल्या स्वभावांतल्या दोंगां-पोंगां सयत जिव्या तट्टटीतपणान उब्यो जाल्ल्यो आसात. कादंबरींतली सगळ्यांत जमेची वट ती ही. खास करून नायक सिमांव आनी आग्नेस सिसिलियाच्या अमुरपिक्या मोगाची तरेकवार भावनीक ल्हांरां शब्दबध्द करताना तांचीं अंतर्मनां बरोवप्प्यान भोवूच जिवंतपणान चित्रीत केल्यात. हांगा लेखकाची निवेदन शैली चडूच परिपक्क दिसता. देखीत -

1) अशें सदांयी घडटालें. आग्नेस कुंवर्निची कुडी अत्म्याची सोभाय, तिचे शेगुण आनी लक्षण मेळोन सर्दार सिमांवच्ये जिण्येक नवोच अर्थ आयिल्लो. तिचें काळीज जिखोन तिका आप्ल्ये जिणेची सांगतिण केल्या बगार, ताचा जिविताचो शेवट अर्थाभरीत जांव्चोना म्हण तो आतां जाणा जाल्लो. देकुनय तसलें माणिक आपुण जुगारेंत जिकोंक आयिल्लो म्हण चिंतून ताका लज भोगताली. (पान - 36)

2) आग्नेस कुंवर्निक, राविल्लेकडे झिंट मारिल्लेबरीं जाली. तिणे, तो गेल्ल्ये कुशीक हात ओड्डाव्न मसिमांव!फम्हणोंक तोंड उग्तें केलें. पूण, गद्रद्या तिचा ताळ्यांतल्यान आवाज भाय्र सरोंक ना. त्या काळोकांत आपंव्चो तिचो हात, सर्दार सिमांव्क दिसोंक ना... (पान - 259)

कादंबरींतली भाशाशैली तशेंच संवादशैली ओडलायणी आनी कन्नड वाठारांतल्या समाजमनाक उक्ती करपी जावन आयल्या. थळाव्या वाठारांतली भास तशेंच तातूंतल्यो म्हणी-ओंपारी आदींचो उपेग बरोवप्प्यान व्हडा कळाशेन केला. ह्या कादंबरीची पुराय बांदावळ इतिहासीक तशेंच चरित्रात्मक शौर्यगाथेकडेन झुकताना नदरेक

भरता.

Fictitious prose narrative of book length, typically representing character and action with some degree of realism ही शब्दकोशांतली कादंबरीची फामाद व्याख्या ह्या कादंबरीच्या उस्तवारीक सामकी लागू जाता. तातूंतलें some degree of realism हें तत्व ह्या कादंबरीच्या रचनाप्रक्रियेंत भोव म्हत्वाचें थारलां. मुळांत इतिहासीक कथानक लाभिल्ली ही कादंबरी आपल्या इतिहासीक सत्यतेची रूजवात तशी स्पशटपणान खंयच दिना. प्रकाशक मात ऐतिहासीक, साहसीक आनी मोगाची कादंबरी म्हूण तिचो गौरव करता. लेखक आपणें मांडिल्ल्या घटनाप्रसंगांक अस्पशट तरेन वास्तववादाचो हयकार दिता. टिपू सुल्तानाच्या राजवटींत कन्नड जिल्ल्यांतल्या कोंकणी समाजाची जाल्ली विदर्णा आनी विद्धस कादंबरीकार देवाच्यो कुर्पेन सांगूंक सोदता. तेखातीर ते टिपू सुलतानाच्या दरबारांतल्या सर्दार सिमांव आनी सर्दार आंतोन ह्या दोन सर्दारांच्या आंपआपसांतल्या पैजेचें प्रयोजन करतात. कन्नड जिल्ल्यांतल्या बंटवळ वाठारांतल्या राफायल मिंगेल कामतीची धूव आग्नेस सिसिलियाक हातासपाच्या ह्या पैजेच्या दावांतल्यान फुडें सरपी ही कादंबरी तातूंतल्या व्हांवत्या आनी उत्कंठावर्धक कथानकाक लागून वाचकप्रिय थारल्या हातूंत मातूय दुबाव ना. आग्नेस सिसिलीयाक मेळोवपाच्या प्रयोजनांतल्यान घडपी तरेकवार साहसीक तशेंच मोगाच्या घटनाप्रसंगानी ही कादंबरी रूप घेयत वता.

ही काणी जायत्या नाट्यमय घडणुकांनी रंगल्या. तांकां 42 माथाळेय बरोवप्यान दिल्यात. चिकित्सक नदरेन पळयल्यार त्या माथाळ्यांची निखलस गरज थंय भासना. मुळांत बरोवप्यान खंयच घुस्पगोंधळ करीनासतना कथानकाची मांडणी केल्ली आसतना माथाळ्यांची गरज ती कसली! ते माथाळें थंय वोगीच कालवाकालव केल्लेवरी आपलें अस्तित्व दाखोवन वाचकाक आडखळ करीत रावता. घडयें लेखकाक सामान्य वाचकाक सोपें जावचें म्हूण ही येवजण आखल्या आसुयें, पूण प्रदिर्घ लेखन केल्ल्या सिध्दहस्त लेखकान

वाचकांच्या पातळेचेर वच नासतना आपल्या प्रतिभेच्या आनी शैलीच्या जादवान सामान्य वाचकाक उंचेल्या पातळेचेर व्हरून दवरपाचो आसता. सांगपाचो मुद्दो म्हणजे, ही माथळ्याची चूक फकत माथाळ्यां पुरती मर्यादीत उरूंकना तर लेखकाची ह्याच तरेची भुमिका पुराय कादंबरींत कळतनकळत दिश्टी पडत राविल्ल्यान जायते फावटीं वाचकाचो विरस जाता. देखीत - दर्बाराचो दाव ह्या पयल्याच प्रकरणांत लेखक बरयता -

- ताचा आस्थानांत आम्च्ये सबार माल्घडे, सैनांत आनी राजेवट्कायेंतनांवाडोन, राया साक्र्या दरेबारान जियोताले.

- पुण ही कथा, श्रीरंगपट्णाच्ये बंधडे प्रास थोड्या वर्सा आद्ली. तोदना टिप्पु सर्दार, राजकीय कारणां खातिर आनी मंग्ळुरांत्ल्या थोड्या महंतनी कुट्मांनी ताचा विरोध त्या फिंग्र्यांकडे फितुरी चलयिल्ल्या खतिर, आम्च्या माल्घड्यां विरोध पुर्तो खुबळोंक नातल्लो.

- ताच्या आस्थानांत आम्च्या मंग्ळुरांतले, बार्कुरांतले, ओम्जुरांतले, आनी बंटवळांत्ले युवक थरावन हुद्दे सांबाळुन आसल्ले. (देवाच्ये कुर्पेन - पयलो वांटो)

वयल्या देखींनी बरोवप्याची तटस्थ भुमिका दिसना. आमचे म्हालगडे, आमचो वाठार, आमच्या मंग्ळुरांत, अशी वाक्यरचना लेखकाची प्रचारकी तशेंच वैयक्तीक भुमिका पयलींच उक्ती करता. भारतीय लेखकाचो देशीवाद समजू येता, तो आसचोच. पूण तो वस्तुनिश्ट पद्दतीन आयल्यार कलाकृतीची सृजनात्मक कलात्मकता एका उदात्त आनी क्लासीक पांवड्यार पावपाक शकता.

हांगा.आनीक एक गजाल विचारांत घेवपा सारकी आसा. ती म्हणजे, लेखक स्वताच जुवीज जावन जायत्या तथाकथीत इतिहासीक घडणुकांचो निश्कर्श काडटा. जायतेकडेन बरोवपी खासा आपल्या निवेदनांतल्यान बरयता -

1) मनिजाय्की आमकां शिकयिल्ले तित्लो क्रिस्तांव विरोधी तो (टिपू सुलतान) न्हय आसल्लो.

2) मब्रिटिशांच्या विरोध निमणी घडी पर्यात झुजोन जीव दिवपी आपूण देशभक्त जावन आसल्लो म्हैसूरचो वाघ सर्दार टिप्पू.फहांगाय बी बरोवपी आपली वस्तुनिशटता राखपाक लेखक अयशस्वी थारता अशें म्हणचें पडटा. कारण हांगां बरोवपी पयलींच निर्णय दिवन मेकळो जाता. वाचकाच्या तक्लेक ताण दिवपाचें तो थंय कांयच दवरिना.

खरें म्हणजे, बरोवप्याची सात्वीक वृत्ती हांगा बॅरींग सोडटा अशें म्हाका दिसता. कादंबरी ह्या कथनात्मक साहित्य प्रकाराच्या शास्त्रीय बसकेचें आकलन जावप आनी तें प्रत्यक्षांत लिखणेंत खेळोवप हें कादंबरीकाराचे खरें करसब आसता. तेभायर प्रयोगशीलतायेक आशिल्ल्या संदीचोय लाव घेवप ही एक कळाशी. हें लेखनतंत्र पचोवपाक कादंबरी हो साहित्य प्रकार करसो जल्माक आयलो ते कळप गरजेचें. कादंबरीच्या रचने फाटल्या फोर्साचो सोद लागत जाल्यार ह्या प्रकाराची योग्य वळख जातली अशें म्हाका दिसता. 18 व्या शेकड्यांत पुराय संवसारांत विज्ञान तंत्रज्ञान आनी वैचारीक क्रांतीचो आरंभ जालो. तातूंतल्यानूच संवसारांतल्या सगळ्याच मळाचेर दोळे दिपकावपी परिवर्तन घडूंक लागिल्लें. मनशाची जीण मुळासावन बदलूंक लागिल्ली. समाजीक, राजकी आनी सांस्कृतीक मळाचेर हें परिवर्तन चड प्रमाणांत दिशटी पडटालें. पाश्चात्य सांवसारांत ताचो प्रभाव भोवच खोलायेन जाल्ल्याचो जाणवतालो देखूनच साहित्यीक मळाचेर लेगात नवे आयाम ह्याच वाठारांतल्या लेखकांनी प्रास्थापीत करपाचे प्रयत्न केले. कविता, कथा, अशें साहित्याचे प्रकार तेन्ना भोव फामाद आशिल्लेच. विज्ञान, तंत्रज्ञान आनी वैचारीक क्रांतीच्या जिविताचेर जाल्ल्या प्रभावान लांबादीक स्वरूपाचो कथनात्मक साहित्य प्रकार सादारण 18 व्या शेकड्यांच्या सुरवेक जल्माक आयलो. ताचे पयलीं कांय लेखकांनी हो प्रकार केळोवपाचो यत्न केलो पूण ताका शास्त्रीय बसका फावो जावंक नाशिल्ली. चडान चड लोकांनी चडान चड अभिरूची आपणावन आपणायल्लो हो कादंबरी नांवाचो साहित्य प्रकार खऱ्या अर्थान 1719 ह्या वर्साक जल्माक आयलो.

20 व्या शेकड्यांत पुराय जगाक दिपकावन सोडपी

विचारवंतानी कादंबरी हो साहित्य प्रकार हाताळिल्याचें नदरेक भरता तातूंत चार्ल्स डारर्विन्, कार्ल मार्क, फेड्रिच्च नित्व्ये, सिग्मोन्ड फ्रॉय्ड, जे. पी. सार्त्र अश्या तत्वगिन्यानी विद्धानांचोय आसंपाव जाता. तांच्यानी आपल्या कादंबरींतल्यान सैमाची आनी मनशाची उत्पती, दैवी संकल्पना, मनशाचे अंतरीक मन, मनशाची मनोवासना, संवसाराच्या निर्मितीचें गुपीत, मानवी अस्तित्वाचो सोद अश्या विंगड विंगड विशयाचेर सोदात्मक कादंबरी रचिल्ल्यो आसात. हे फायभूंयेचेर टिपू सुलतानाच्या राजवटींत कर्नाटकांतल्या क्रिस्तांव कोंकणी समाजाची स्थित्यंतरां मांडपी व्हि. जे. पी. साल्दाना एक इतिहासीक जाणिवेचो बरोवपी म्हूण दोळ्यांक भिडटा. तांणी केल्लें संशोधन आनी एकठांय केल्ली म्हायती कादंबरींत दिसून येता.




## निश्कर्शाचीं उतरां ....

टिपू सुलतानाच्या राजदरबारांतल्या सर्दार सिमांव पेद्रू प्रभू आनी आंतोन पाव्ल शेट हांच्या आपआपसांतल्या पैजेच्या निमित्तान लेखक कोंकणी क्रिस्तांव समाजांतल्या असंघटीतपणाचेर भाश्य करता. कुल्लयांभशेन पांय ओडपाची वृत्ती, सुवार्थ नदर आनी स्वंयकेंद्रीत राजकारण ह्या गजालींक लागून संबंदीत वाठारांतलो क्रिस्तांव कोंकणी समाज तांक आसुनूय बी फाटीं उरलो हाची खंत बरोवपी ह्या कादंबरींतल्यान नकळटाच मांडटा. वयलेचाराक ही कादंबरी ह्या विशयी कांयच उलयना. पूण प्रत्याक्षांत लेखकाक सांगपाचें आसा तें हेंच. कारण फकत घडिल्लो इतिहास मांडपाक लेखकाक रस ना तर कोंकणी समाजाची असंघटीत वृत्ती कितली घातक आसली ताची इतिहासीक रूजवात दिवन ते भविश्यांत ह्या समाजान तातूंतल्यान शिकवण घेवन एकवटान रावचें असो संदेश ही कादंबरी दिता. संवसारांतल्या व्हड व्हड कादंबरीकारानीय अशाच आशयाच्यो कादंबऱ्यो रचून तुटिल्ल्या समाजाची नाळ जोडपाचो यशस्वी यत्न केल्लो आसा.

नाथालॅन हाव्थॉर्ने हांच्या The Scarlet letter आनी House of the Seven Gables ह्या 1850-51 रचिल्ल्या कादंबरींनीय होच

थळाव्यापणाचो भावार्थ आयला. भारतीय वंशाचे नॉबल पुरस्कार इग्लीश कादंबरीकार व्हि. एस. नायपॉल हांणी कॅरेबियन जुंव्यावयल्या लोकमनाचे हुंकार अभिव्यक्त करून शिपडून पडिल्ल्या असंघटीत कॅरेबियन मनांक सत्वाची जाणीव करून दिवपाचें मोलादीक कार्य आपल्या लेखणेंतल्यान केलां. तांच्यो हाऊस फॉर मिस्टर बिस्वास आनी हाफ अ लायफ ह्या सारक्यो कादंबऱ्यो परकीय भुंयेंत पोट भरपी तथाकथीत विस्थापितांच्या घाव्यांचेर फूक मारताना दिश्टी पडटात.

कोंकणींत इतिहासीक तशेंच चरित्रात्मक कादंबरींचो तसो व्हडलो प्रवाह दिश्टी पडना. कांय हाताच्या बोटांनी मेजपा इतल्योच तसल्यां आशयाच्यो कादंबऱ्या कोंकणींत आयल्यात. दिपाजी राणे हांच्या पराक्रमी जिविताचेर उजवाड घालपी लक्ष्मीदास बोरकार हांची 'दिपत्कार', इंन्क्विजिशनाच्या पिडापिडेक आनी बाटाबाटीच्या सांवाराक वाचा फोडपी 'युगसांवार' ही महाबळेश्र्वर सैलाची कादंबरी आनी ए. टी. लोबो हांची कन्नड वाठारांतल्या कोंकणी समाजाची इतिहासीक वस्तुस्थिती मांडपी 'वेलघडी' ही लांबादीक कादंबरी अश्यो कांय वेंचीक कादंबऱ्यो सोडल्यार ते तरेची रचना कोंकणींत जाल्ली ना. त्या मानान व्हि. जे. पी. साल्दानान ह्या मळाचेर हेर कांय प्रयोग केल्ले नदरेक भरतात. देखात - सायबा बोगोस, मोगाची महिमा, बेल्तांगडीचो बाल्ताझार ह्यो कादंबऱ्यो.

'खडाप' ह्या नांवान फामाद बरोवपी व्ही. जे. पी. साल्दानान देवाच्ये कुर्पेन ह्या इतिहासीक कादंबरींतल्यान कोंकणी कादंबरीचो आंवाठ आनी ताकद वाडयल्या. आपल्या भितर आशिल्ल्या कांय दोशा वांगडाच 'व्हांवतें कथानक, वास्तवीक पात्ररचना, व्यक्तिरेखेंचें आंतरीक दर्शन घडोवपी सुचक संवाद, नाट्यमयतेन आनी उपाट शौर्यान पावला कणकणी उत्कंठा वाडोवपी संघर्श, सहजतायेन इतिहासीकता दाखोवपी वातावरण निर्मिती, सुटसुटीत तशेंच मनमोहक निवेदन आनी काळजाक चिंटमिटे लावपी शेवट; अशा घटकांनी उबी राविल्ली 'देवाच्ये कुर्पेन' ही कोंकणी साहित्यीक संवसारांतली एक उत्कृश्ट कलाकृती जावन आसा'.

## 5. पारजालो मेरेवेलो गांवकार : एका विनोद यात्रेची भोंवडी

कोंकणी साहित्यीक मळार सर्गेस्त लक्ष्मीनारायण पारज हांचे नांव व्हडा आदरान घेवंक जाय. आपल्या ल्हानशा साहित्यीक वावरान ताणें समस्त कोंकणी वाचकांक मंत्रमुग्ध करून सोडिल्ले आसात. कोंकणी साहित्याच्या मळाचेर विनोदी मिश्कील शैलीन बरोवपी लेखक भोव थोडे आसात. अ. ना. म्हांबरो हांचें वाचकांक मदींच चिमटे काडपी बरप खासाकरून निबंद आनी कथा, चा.फ्रा.च्यो मना-काळजाक खातकुतल्यो करपी विनोदी पूण विचार करूंक लावपी सुटसुटीत कविता, तॉमाझिन कार्दोज, एम. बॉयर हांच्या तियात्रांतलो वा कांतारांतलो ल्हवपीक विनोद अशीं हाताच्या बोटांचेर मेजपाक मेळपी नांवां सोडलीं जाल्यार कोंकणी साहित्यांत विनोद हो प्रकार चडसो फामाद जावंक ना हें मानून घेंवचेंच पडटा. (नाटकांचो आडवाद सोडलो जाल्यार)

ना म्हटलें तरीय वयले वळेरींत सर्गेस्त लक्ष्मीनारायण पारज हांचे नांव अधिकारान येताच. लक्ष्मीनारायण पारजांचो फक्त एकूच निबंद झेलो तांच्या अधिकाराक पोसवण दिवंक पुरो जाता. पारजांचो 'मेरेवयलो गांवकार' नांवाचो व्यक्तिचित्रणात्मक निबंद झेलो- राजहंस प्रकाशनान 1989 वर्सा उजवाडाक हाडलो. ह्या झेल्यांत वट्ट धा निबंद आसपावल्यात. सुरवेक वेगवेगळ्या पत्रकांनी उजवाडाक आयिल्ले निबंद वेंचून हो झेलो गुंथिल्लो आसा. तातूंतलोच विनोद सोदपाचो हो प्रपंच......

काणकोणच्या गांवगिऱ्या वाठारांत लक्ष्मीनारायण पारजांचो जल्म जालो. भुरगेपणासावन तांकां धर्मीक, संस्कृतीक उत्सवांतल्यान साहित्य, नाटकां, नकलां हांची उस्तवारी करपाची आवड. गोंय गोंयकारपण हांचो तांकां अभिमान. गोंयची शीतकडी, सुंगटा-हुमण, बांगड्यांची हुड्डमेथी, कोंबडेची शागोती, खतखतें, सोजी हातूंत जसो गोंयकारपणाचो वास आसता तसो सुवास तांच्या बरपावळीक मारता.

व्हड साहित्यीक, राजकारणी, समाजसेवक, कलाकार हांचेकडेन तांची आमिगात. खंयचीय गजाल विनोदी, मिश्कील शैलीन

सांगप ही तांची खाशेलताय. तांची ही वेगळी शैली सुरवेकच्या अर्पण पत्रिकेंतूच दिसून येता. ते म्हणटा–

**पुस्तक छापणारो आपले पयशे घेता.**
**उजवाडावपीय आपली पड**
**सोडयता**
**बरोवपी कितेंय मेळ्ळ्यार**
**बोल्सांत घालता**
**सगळे हक्क आपलेकडेन दवरता**
**आतां अर्पण करपाचें कितें उरता...**
**तेंच म्हाका समजना...**

अर्पण पत्रिकेंतल्यान सुरू जाल्ली ही विनोद यात्रा पुस्तकाच्या पानापानाकणकणी दिसून येता. मनीस स्वभाव, मनीस वेव्हार, मानवी वृत्ती विकृती, तरेकवार प्रसंगावेळार प्रकट जावपी तांची मनोवृती हांचें उत्कट दर्शन ह्या झेल्यांत घडटा. आमच्या भोंवतणचोच एखादो व्यक्ती तांच्या बरपाचो नायक जाता, तो आपल्या सभावांतल्या धोंगा पोंगा सयत आसा तसोच आमचे म्हन्यांत उबो रावता. देखूनच वेगवेगळ्या प्रसंगावेळार विनोदाच्यो चिळकांड्यो उद्वात. वावराडी (पान नं. 23), फोंडू (पान नं. 53), शॅबाबा (पान नं. 69), मुकूंद (पान नं. 82), सोंशेबाब (पान नं. 132) ह्या निबंदांतले तरेकवार घटना–प्रसंग हांगा हिसपाक घेवं येतात. तांच्या बरपावळींतली मिश्कीलताय केन्ना केन्ना सट्ट करून जाल्यार केन्ना केन्ना फट्ट करून भायर सरता आनी वाचकाच्या तोंडार हांसो पातळटा. पूण ताच्या विनोदाक एक भावनीक आनी समाजीक देग आसा हें मात विसरूंक जावचेंना. हे साबार विनोद तांच्या बरपावळीच्या आदारान सोदून काडपाचो हो सुपुल्लो यत्न.

**पयलो विनोद.... शालीवाहन**

बाकीबाब बोरकार हे कोंकणी आनी मराठींतले खापे कवी.

तांच्या व्यक्तिमत्वाचेर उजवाड घालपी हो निबंद. बाकिबाब कवी म्हूण कसो आसलो, घरकार म्हूण कसो आसलो आनी मनीस म्हूण कसो आसलो हांचो परामर्श लेखक लक्ष्मीनारायण पारजान अतिशय मिश्किलपणान हांगा मांडलां. हो विनोद प्रकट करताना तांणी बाकीबाबाक ल्हान करूंकना हें विशेश. बाकीबाबाची वळख जातकच ते म्हणटात - 'हांव तेन्ना इतलो खोशी जालों तसो नेर्वाजूय जालो आनी म्हजें कितें कितें जालें तें अणभवानूच कळपाचें म्हजी सामकी कायलोळी कशी जाली'.

बाकीबाबांच्या व्यक्तित्वांची वेगवेगळीं तांसां पारजान बरपांत मांडल्यांत. कवी बाकीबाब, भुरग्यांवांगडा रमी खेळटाना भुरगो जावपी बाकीबाब, गीता, ज्ञानेश्वरीचेर भाश्य करपी तत्वगिन्यानी बाकीबाब, भिकाऱ्या कडेन इश्टागत दवरपी सामान्यांतलो सामान्य बाकीबाब, ज्या घोस्तान व्हिस्की घेता त्याच घोस्तान जीव ओंतून शांतादुर्गेचे तिर्थ घेवपी रसिक बाकीबाब आनी इमरजन्सीच्या वेळार निशेध चीट बरोवन विनोबा भावेकूय आव्हान दिवपी बाकीबाब पारजांच्या शालीवाहनांत दिसता.

बाकीबाबाच्या सभावांतली विनोदी शैली आनी ताची हजरजबाबीपणा जायतेकडेन विनोद प्रकट करतात. देखीतः बाकीबाब एक फावट कितें म्हणटा ते पारज बरयता -

1) बायलांक आपल्या घोवाचें कौतूक लग्न जावंचे पयलीं खूबच दिसता आनी लग्न जातकच तें सुकता. तें कित्याक जाता जाणा.... बायलेन आपल्या घोवाक लपट अवस्थेंत नागडो पळयल्लो आसता, तेन्ना तिचेलागी कर्तबगारीची हुशारी मारल्यार ती म्हणटा- पुरो पुरो दवर तुजें हांवें सगळें पळेलां. (पान नं. 13- पयली आवृती)

2) आयज वता थंय बंद, घेराव, सवका काम करप हें पळेल्यार देस सुदरता काय फाटल्यान वता तेंच कळना, तरी बरें देवान सुर्य, चंद्र, पृथ्वी, नखेत्रां हांची गती आपल्या हातांत दवरल्या. नाजाल्यार हे लोक एक दीस पृथ्वी भोंवपाची बंद करपा आसले (पान नं. 11). अशे तरेन बाकीबाबांच्या तत्वगिन्यानाचो आनी विचारांचो आदार घेयत पारजान

ह्या बरपाक एक नवो विनोदी आलेख दिवपाचो यशस्वी यत्न केला.

**दुसरो विनोद..... वावराडी**

वावराडी हो पारजांचो दुसरो निबंद. ह्या निबंदात कल्पना आनी वास्तवता हांतात हात घालून मुखार सरतात. निबंदाच्या सुरवेकूच बरोवपी म्हणटा - आमची वावराडी अचकीत एका दिसा देवागेर गेली. देवागेर गेली म्हणल्यार तशी तशी मेली बी ना कित्याक तर कोणय मेल्यार तो देवागेर गेलो अशे म्हणपाची चाल आसा पूण तशें कांयच घडलें ना. देव म्हणल्यार रामकृष्ण देव. तो आमच्या शेजरा रावपी मिनेराचो ड्रायवर. त्या रामकृष्ण देवावांगडा आमची वावराडी गुल्ल जाली. (पान न. 23, पयली आवृत्ती)

अशे तरेन बरोवपी लक्ष्मीनारायण पारज वस्तूस्थिती सांगतनाच विनोदाच्यो ल्हायो पिकयता. वावराडी पळून गेल्ल्यान तिची घरर्चीं आनी मिनैर ताका दुशण दिता पूण बरोवपी एक वेगळ्याच विचारान मनांतल्या मनांत धादोसता. स्वयंवर प्रथा वावराडेन कळतनकळत सांबाळ्ळी म्हूण सुखावता. आयज न्हवरो सोदपाक व्हंकलेच्या बापायक जोतीं झरोवंर्चीं पडटात पूण वावराडेन बापायची जोती शाबूत दवरली अशे म्हणून पारज त्या प्रसंगाची गंभिरतायूच काडून उडयता.

वावराडी पळून गेल्ल्यान बरोवप्याच्या बरपाचेर परिणाम जाता ताचें बरप कमी जाता अशें तो आपल्या इश्टांक सांगता तेन्ना ताचे इश्ट मुद्दामूच वाकडो अर्थ काडटा. पयलो, वावराडेचेर बरोवप्याचो जीव आशिल्लो जावंक जाय अशें म्हणटा जाल्यार दुसरो वावराडीच बरप करताली आनी हो आपल्या नांवान बी तें छापतालो आसूंक जाय म्हणटा तेन्ना बरोवपी अतिशय विनोदी शैलींत वयलें दोनूय आरोप न्हयकारता. ते बरयतात -

अश्यो एकेकल्याच्यो तकल्यो दब्यांत पॅक करून फॉरेनाक धाडपा सारक्यो. आमचे मजगती अशे तकलेचे मनीस आसताना अमेरीकेपयलीं आमी चंद्रार कशे गेलेनात हाचें म्हाका अजाप जाता.

विश्वामित्राभाशेन एक नवीच सृश्ट निर्माण करपाक आमचे आमीग सगळ्यात फुडें. आपलें कुले उत्ते पडल्यार तांकां कळना पूण दुसऱ्यांच्या पोल्यार मातशें कितेंय लागल्यार रोखडेंच दिश्टी पडटा. (पान. क्र 25 पयली आवृत्ती)
तरेकवार वावराड्यांचे कोडू गोड अणभव बरोवप्यान ह्या निबंदांत मांडल्यान ते अणभव वाचतना वाचकांच्या पोटांत हांसोन हांसोन गुळो येता.

**जय शंकरा -**

हो निबंद एका म्हान गोंयकाराचेर आनी ताच्या असामान्य व्यक्तित्वाचेर आदारिल्लो आसा. तसो शंकर भांडारी हो आकाशवाणीचेर काम करपी एक सादो गोंयकार पूण आपले बुद्दीमत्तेच्या आनी विव्दत्तेच्या जोराचेर ताच्या नांवाचो धबधबो गोंयकार पातळ्ळा देखूनच संबद गोंयांतले ल्हानव्हड लोक तेका सोदूंक येता. शंकर भांडारी विशीं पारज बरयता -

'शंकर काय मंत्री न्हय, मोटो सावकारूय न्हय. व्हडलो अधिकारी न्हय वा पत्रकारूय न्हय. तो आशिल्लो पणजे आकाशवाणीवयलो सादो ऑफिसर. पांयांत जोतें, खादीचो धवोफुल्ल सदरो, खंय कानाशिलाचेर थोडेभोव केंस. खांकेंत बोटवो आनी तोंडार चाह्ने. अशा भेसान सांजवेळार शंकर पणजे आल्तिन्यावयल्यान देंवता आसतना गोंयचो दूदसागर आपली वाट चुकून आल्तिन्यार बी पावलो काय अशें दीस'.

शंकर भांडारीन ओपीनियन पोलावेळार तशेंच समाजीक आनी भाशीक चळवळींत भोव मोलाचो वावर केला. खंयच्याय कवी संमेलनांत शंकरबाबाची 'गोड गोड गोड गळ्यान - गोमटें गोंय गायता संगिताच्या निजान ताच्या निर्मितल्याक होरायता' ही कविता पयल्याच बोलार बॅट्समॅनान सिक्सर मारिल्लेवरी भासता.

शंकराबाबाची 'गणा' हे कवितेचीय व्हडविकाय बरोवपी ह्या निबंदांत व्यक्त करता. ह्या निंबंदांत शंकरबाबांच्या हजरजबाबीपणाच्यो जायत्यो देखी दिवन विनोदाचीं हांसतीं फुलां पारजान फुलयल्या.

बरोवपी म्हणटा शंकरबाबांक इंग्लीश मराठी मिक्स करून नाट्यसंगीत गावपाची उमेद येतली तेन्ना ते म्हणटाले –

**डॉन्च्यूवरी डॉन्च्यूवरी**
**जागृत गिरीधारी**
**ॲम्पल रायस करी**
**जागृत गिरीधारी**

(पान क्र,. 45, पयली आवृत्ती)

**फोंडणी फोवांतलो विनोद... फोंडू –**

विनोदी लेखनांत सामको मुदयेक थिक करसो 'फोंडू' हो पारजांचो निबंद बसता. हो लेख मात्सो उथळ, नाट्यमय दिसलो तरीय अवास्तव मात निखालस न्हय. वयलेवयर पळयलें जाल्यार हें पात्र खरें दिसना पूण फोंडू ह्या गोंयच्च्या मातयेंतलोच हें निश्चित. फोंडू हजार राटावळी करता पूण बाबड्यांक यश लाबना. वयल्यान लोक नागयता. तरीय तो मुखार सरपाचो धर्म सोडीना. बरोवप्यान एक भन्नाट व्यक्तिमत्व फोंडूच्या रूपान हांगा चितारलां हें सामकें खरें. अतिशय विनोदी पद्दतीन फोंडू ह्या निबंदाची रचना बरोवप्यान केल्या. हलक्या फुलक्या मिश्कील वातावरणांत मुखार वचपी हो व्यक्तिचित्रणात्मक निबंद मनाक खातकुतल्यो करताच पूण तेच वांगडा फोंडूच्या दुख्खाकडेन वाचकाक अंतर्मुख करून उडयता

फोंडू निबंदांतल्यो कांय विनोदी शब्दाकळा पळोवया –

1)फोंडू देव ना म्हणटालो पूण जात, पत्रिका, गिऱ्यांचे परिणाम हें मानतालो. ताचो एके चलयेचेर मोग आशिल्लो. तो मोग तोंकाक वच्चेपयलीं ताणें तिची पत्रिका पळोवन मोग मुखार व्हेलो. चलयेच्या बापायन साकर पुड्या पयलीं देवाचो प्रसाद घेतलो ही गजाल कळ्ळी आनी ताचे तकलेक भिरभिरी मारली. ताणें देवस्पण कोणेंच करचें न्हय म्हूण कोंदीसांव घातिल्लें पूण व्हंकलेच्या बापायन देवाप्रसाद घेतलो म्हूण ताणी लग्न मोडलें. (पान क्र 56 पयलीं आवृत्ती)

ह्या निबंदांत बरोवप्यान स्वाभिमानी गोंयकार फोंडू सुटकेझुजारी फोंडू, गॉगल लावन आनी हातांत लुंवां घालून देवस्पणाक

तयार जाल्लो फोंडू, धंदेकार फोंडू, आद्धोगाद फोंडू, बेबदो फोंडू अशी फोंडूचीं तरेकवार रूपां मिश्कील शैलींत चितारल्यात.

**शॅबाबाः कास्ताचो विनोद**

शॅ..... बाबा म्हणल्यार रवळू महादेव राजकोंबो. पूण अख्खो गांव ताका शॅ..... बाबा म्हूण वळखतात. कोणाकूय गांवांत रवळू खंय रावता काय म्हूण विचारल्यार तो तुमकां पळयतूच रावतलो. शॅ..बाबाक लेगीत ताचें स्वताचें नांव रवळू आसा हें खबर ना. कांय लोकांक विशिश्ट पद्दतीन चलपाची वा उलोवपाची संवय लागलेली आसता आनी ताचेवयल्यानूच तांका लोक वळखतात. शॅबाबाक उतराकणकणी आनी वाक्या कणकणी 'शॅ...बाबा !, अशें म्हणपाची संवय देखूनूच तो सगळ्या गांवचो शॅबाबा जाल्लो आसा. देखीक -

1) शॅ....बाबा ! बाजारांत गेल्लो बाजाराक पेटला उजो.
2) शॅ...बाबा ! त्या हरीशणैक चड जालें.
3) शॅ...बाबा ! आगे तो स्मार्ट म्हणल्यार स्मार्ट
4) शॅः.बाबा ! असल्यो पंचायती म्हाका नाका.

शॅ... बाबा गांवचो सेक्रेटरी, दोतोर, भविश्यकार, सोयरीगती जुळोवपी म्हालो, कोणायच्या जल्माक तशेंच मरणाक पावपी खरो गांवकार. शॅ....बाबा सारको परोपकारी मनीस गांवांत दुसरो कोणूय मेळचोना अशें बरोवपी सांगता. पूण ह्याच मनशान आपल्या स्वताच्या कुटुंबाक केन्नाच मदत केलीना हें व्हड सतूय मांडटा. घरांत पिसो पूत, घोवान सोडिल्ली धूव आनी संवसाराचो गाडो कसोतरी मुखार धुकलपी बायल हांचो तांणी केन्नाच हुस्को केल्लो दिसना. स्वताची बायल मरता तेन्ना जाल्यार तो मरणाक लेगीत पावना. शॅ..बाबा सारके जायते मनीस आमच्या समाजांत दिसून येतात, तांचेंच प्रतिनिधीक रूप हांगा बरोवप्यान चित्रायलां अशें म्हणूं येता.

**पांचवो पंचतारांकीत पूण वास्तवीक विनोद - मुकुंद**

मुकुंद हो एक नाट्य कलाकार. एक नाट्यपिसो गोंयकार. भुरगेपणासावन नाट्यकलेच्या मोगांत व्हावून गेल्लो खरो रंगयात्रीक. ताचें नाटकाचें पिशें वाचप्यांक हांसयता, खेळयता केन्ना केन्ना ताच्या वास्तवीक अभिनयाक पळोवन माथ्यावेलें चेंपें काडून ताका सलाम करपाक प्रवृत्त करता. बरोवपी मुकुंदाच्या ल्हानपणाचें तरेकवार प्रसंग अतिशय विनोदी शैलींत ह्या निबंदान जिवे करता. भुरगेपणान पिड्याच्यो तलवारी, साकाचे वा चादरीचे पट्टे तशेंच पत्र्याचे डबे घेवन नाटकां करतानाचे जायते प्रसंग ह्या निबंदांत दिसून येता. देखीक - मुकुंदान नाटकांत दुसऱ्याच्या सांगण्यावरून तुमका उलयतोस् असो डायलॉग मारून सादर केल्लीं पदां -

**परवशता कल्ली खाता**
**कांटा गळा लागता**
**मग हो मरणाला तयार**
**मारीन झोडीन फोडीन तोडीन**
**तंगडी मोडून सुण्यास घालीन**

**शतखंड हाची दंड**
**गोमटी मोडूनी**
**दोणांत घालून**
**आंबली म्हणूनी**
**मोंडाक लायन**

(मुकुंद पान क्र. 83, पयली आवृत्ती)

अशे भशेन ह्या ल्हानपणांतले प्रसंग आनी उपरांत व्हड जातकच मुकुंदाच्या नाट्यप्रवासांतले हेर प्रसंग हांचो गांथन म्हळ्यारूच मुकुंदाचे व्यक्तिचित्रण.

हो मुकुंद नाटकाच्या छंदाक लागून जिवितांत लग्नूय जायना. आपलें लग्न नाटका लागीं जालां अशें तो म्हणटालो. सिनेमांतली अक्टींग ही भेळशेल्ली अक्टींग म्हूण आपणें सिनेमानी कामां केलीना अशे

तो म्हणटा. मुकुंदाच्या रूपान बरोवप्प्यान गोंयकारांची नाट्यपिशीं अभिरूची शब्दबध्द केल्या अशेंच म्हणचें पडटलें.

## म्हजो न्युटन - सातवो विनोदवीर

एखाद्या मनशाच्या नांवाचो परिणाम ताच्या व्यक्तित्वाचेर जाता काय ना हाचो सोद घेवपाचो यत्न हो निबंद कळतनकळत करता. आपलो चलो व्हड शास्त्रज्ञ जावंचो ह्या हेतान न्युटन हें नांव दवरूनूय जेन्ना ताका गणितांत शून्य पडटा तेन्ना गणिताचो प्राध्यापक आशिल्ल्या बापायची अवतिकाय ह्या निबंदात व्यक्त जाल्या.

न्युटनाचें तरेकवार बालप्रताप ह्या निबंदाचे घटक जाल्यार इतलेंच न्हय तर 'रबरी जोतें वा बूट घातल्यार मनशाची मत इबाडटा' असो सोद आपल्या भुरग्यान लायला अशें बापायक दिसता पूण बूट घातिल्ल्यान बेरीज-वजाबाकी करपाक बाबड्या न्युटनाक बोटांचो वापर करून मेळना ही गणितांत झेर पडपाची मूळ कारणमिमांसा आसता हें वाचकाक कळटा तेन्ना तो सुखावता.

## सपन - एक उत्कृश्ट व्यंगरचना

आपल्या जिवितांत आपूण कोणतरी व्हड मनीस जातलो अशें दर एकल्याक दिसताच. ताकाच आमी सपन अशें म्हणटात. कांय लोक आपणें थारयल्ल्या प्रमाण त्या त्या सपना मेरेन पावतात जाल्यार खुबशे जाण अपयशान जें कितें हाताक मेळटा तातूंत समादान मानतात. कांय जाण जाल्यार जिवितभर सपनभंगाचें दुख्ख घेवन बसतात. पूण प्रस्तूत निबंदांत बरोवप्याचें सपन आयचें फाल्या तिगना आनी फाल्याचें परवा उरना. ताच्या अणभवविश्वांत जशी जशीं भर पडटा तशें ताचें सपन बदलता. ल्हानपणात तांका पसरकार रामराय शणै जायन सो दिसतालो. उपरांत मास्तर, रसूल ड्रायवर, कॉलेजचो प्रोफेसर आनी जायतें कितें पूण ताचें नशीब ताका वेगळेच कडेन व्हरता आनी सगळ्याक हांसो फांकता. तो मिलेट्रीच्या ऑफिसांत मुलाखत दिवपाक वता हो प्रसंग जाल्यार हांसून पोटांत मुड्डो घालपी. खरें म्हणल्यार तें

प्रत्यक्षांत वाचपूच रास्त.

### वाश्कीत - वास्तवांतल्यान जल्मल्लो हास्यकळो

ललितगद्य ह्या प्रकारांत मोडपी आनी वास्तवाच्या साणीचेर घांसून पुसून तयार जाल्लो निबंद म्हणल्यार वाश्कीत. ह्या बरपाची शैली जरी विनोदी आसली तरीय ताका मनीसपणाची ओलाय आसा. पुर्तुगेजांच्या मुस्तींत मिश्कीत लोकांक कशे सतायताले, कशे पिडटाले हाचें मार्मिक चित्रण ह्या निबंदांत लेखकान केलां. मिस्तीत म्हणल्यार बापूय पुर्तुगीज आनी आवय गोंयकार हांचेपासून जल्माक आयिल्लो व्यक्ती. व्हड जातकूच ते चडकरून पुर्तुगेजांच्या पुलिसेंत वा मिल्ट्रींत काम करताले. गोंयकारांचेर गरज नासताना वोगीच राग काडटाले, केन्ना केन्ना जाल्यार आवटेंपणूच करताले. कोणाच्या घुडांतल्यो कोंबड्यो फारय, दुकर धरून व्हर, नुस्त्या गांथनी हातांतल्यान हिस्काय आनी बायलांचेर वाकडी नदर दवरप, बळजबरीय करप असलीं नश्टेंपणां ते करताले.

बरोवप्यान वास्कीत हो व्यक्तिचित्रणात्मक लेख स्वताच्या अणभवांतल्यान रचलां. पुर्तुगेज राजवटींत वाश्कीत नांवाचो अधिकारी सिमेचेर पासपोर्ट तपासतना लोकांक कसो पिडटालो हाचे जिवंत चित्रण उबें करताना जायते विनोद आयल्यात. बरोवपी म्हणटा -

'जयहिंद म्हणटकच तांच्या दोळ्यामुखार काजुले येताले, इतलेंच न्हय तर कलसांवूय ओलें जातलें. पूण जयहिंद म्हणल्यार कितें हें कोणच मिस्तीत नकळो आसलो. थोडे जयहिंद म्हणल्यार इंदियान पिश्तॉल अशे समजताले. कोणाक जयहिंद म्हणल्यार फारार फार मारपाची ऑटोमेटीक बंदूक जाल्यार थोड्यांक जयहिंद हो हातबॉम नाजाल्यार गर्नाल काय कितें असो दुबाव मारतालो. थोडीं पुस्तकां शिकिल्ल्या मिस्तिसांक जयहिंद म्हणल्यार एक स्फोटक साहित्याचो प्रकार अशें दिस. (पान. क्र 129, पयलीं आवृत्ती)

बरोवप्यान फक्त एक इतिहासीक प्रसंग हांगा मांडला. तोवूय विनोदी शैलीन. कोणांक दुखोवपाचो ताचो हेतू ना हे रोकडेंच स्पश्ट

जाता.

### सोशेबाब - निमणी विनोदी भैरवी

सोशेंबाब म्हणल्यार गोंयकारांच्या दानी आनी त्यागी वृत्तीचें दर्शन घडोवपी व्यक्ती. बरोवप्याच्या मतान दानशूर म्हूण महाभारतांतल्या कर्णा उपरांत सोशेंबाबाचो नंबर लागपाक जाय. खऱ्यानीच, गोंयांत तांणी कितल्याश्याच संस्थांक, क्लबांक तशेंच शिकपी भुरग्यांक दुडवांचो आनी हेर तरेचो आदार दिल्लो आसा. जायत्या जाणांक स्वताचो धंदो उबारून दिला. तांच्या घरांनी देवा म्हऱ्यांत साशेबाबाचो धंदो आसता हाचे वेल्यान साशेंबाबाचें कार्य मतींत येवं येता.

पूण अशा ह्या परोपकारी मनशाक वक्तृत्वकला नासतनाय भाशणां करपाची भारी हौस. देखूनूच ते उलोवंक लागले म्हणटकच पावलाकणकणी हांसो पिकता. कांयकडेन ते मुद्दाम विनोद करून लोकांक हांसूंक लायतात. मुकुंद जसो नाटकांनी रंगता तसो सोशेबाब भाशणांनी. आपल्या भाशणांनी दर एक गजाल वा मुद्दो नाट्यमय रितीन व्यक्त करपाक ते मुखार (देखीक)

**1) आयचीं भुरगीं म्हणल्यार गोरवां, मास्तर राखणे**
**मास्तर जाल्यार सोऱ्याबार्रार बसून भुरग्यांक**
**मडको लावपाक धाडटात.**
(पान. क्र 134, पयलीं आवृत्ती)

**2) तात्यान तात्या कोरोपंत तात्या**
**इतर तात्या लावती चपात्या**
**नानात नाना फडणीस नाना**
**इतर नाना करती ठणाणा**
**मास्तरांत मास्तर साळवी मास्तर**
**बाकी सगळे मिनाचे मास्तर**

## तांच्या तोंडार खा... थू...

(पान क्र. 135, पयली आवृत्ती)

सोशेंबाबांचें मसूदेंतलें भाशण, सरस्वती पुजनाच्या कार्यावळींचें भाशण अशीं जायतीं विनोदी भाशणां हांगा बरोवप्यान दिल्यात. गोंयचो सयाजीराव गायकवाड अशी उपादी बरोवपी सोशेंबाबाक दिता. हें पात्र जरी नांवान काल्पनीक दिसलें तरीय अशे त्यागी आनी परोपकारी गोंयकार गोंयच्या समाजीक तशेंच राजकी मळार जावन गेल्यात तशेंच जायत आसा हाचो दिश्टावो बरोवपी दिता.

**सोपयतना थोडेंशे.....**

सर्गेस्त लक्ष्मीनारायण पारज हांणी 'मेरेवेलो गांवकार' ह्या नबंद झेल्यांत गोंयच्या नीज मनशांचें स्वभाव, वृत्ती, प्रवृत्ती तांची मनोवृत्ती अश्या जायत्या गजालींचेर भाश्य केलां. आपल्या मिश्कील. विनोदी शैलीत हे लेख चितारताना तांणी त्या त्या कर्तृत्वी व्यक्तींचो आदर शेणूंक दिवंकना हें म्हत्वाचें. मनीस स्वभाव आनी मनीस वेव्हार हातूंतलें सत्य सोदपा खातीर उचंबळ जाल्ले कितलेच उमाळे हांगा दिसतात. हे उमाळे केन्ना विनोदाची गोड फोडणी घेवन जाल्यार केन्ना व्यंगाची मखलाशी लावन वाचप्याच्या भेटेक येता. पूण ह्या व्यंगातूय आनी विनोदाच्या मुळांत दुख्खाची धग आसा, आदार आसा, मनशाच्या अंतस्करणाक स्पर्श करपी नमळाय आसा. लक्ष्मीनारायण पारजांच्या बरपावळीक गोंयच्या मातयेचो परमळ आसा. गोंयची भूंय भास आनी भौसांची लोक्तुबाय तांच्या काळजांत किल्लता देखुनूच तांचें बरप फाकाणेर आसूनूय मनाक भावता काळजांत स्थिरावता.

हीं व्यक्तिचित्रणां बरोवप्यान साद्या सरळ भाशेंत रचल्यां पूण तातूंतलीं कलात्मकताय तांणी बलिदान करूंक ना. सामान्य वाचप्याचें मनोरंजन करतानाच ताका तनामनांत खातकुतल्यो करीत, कुटल्यो मारीत ताच्या गिन्यानांत भर घालपी शंबरांतलें एखादें पुस्तक मेळटा. तो मान 'मेरेवेलो गांवकार' ह्या पुस्तकाक फावता.



## 6. र. वि. पंडीतांचें म्हजें उतर गावड्याचें - एक विवेचन

रघुनाथ विष्णु पंडीत हांणी 'म्हजें उतर गावड्याचें' ह्या कविता झेल्यांतल्यान गोंयच्या नीज संस्कृतायेचो दिश्टावो घडयला हातूंत मातूय दुबाव ना. पंडीतांची काव्यशैली ही उखलापी नासून तिका ह्या तांबड्या मातयेचो गंध आनी पांचव्या रैमाचो सुगंध लाबिल्लो आसा. 1963 वर्सा तांणी पांच कविता झेले कोंकणी सरस्पतीच्या पांयार दवरले. त्या वेळार तांणी घडयल्ली ती एक साहित्यीक क्रांतीच आसली. 'म्हजें उतर गावड्याचें, उरतलें तें रूप धरतलें, धर्तरिचें कवन, चंद्रावळ, आयलें तशें गायलें' हे ते साबार काव्यझेले. तातूंतल्या 'म्हजें उतर गावड्याचें' ह्या झेल्याची ही चिकित्सक वळख.

**गोंयच्या नीज जिणेंचे वास्तवीक दर्शन घडोवपी काव्यः**

र. वि. पंडीतांच्या सगळ्याच कवितांनी तांबडे मातयेचो धेक, पांचव्या रैमाचो शेक आनी खाऱ्या उदकाचो उद्रेक सैमीकतायेन तकली वयर काडटाना दिसून येता. पूण म्हजें उतर गावड्याचें हो कविता झेलो म्हणल्यार खऱ्यानीच गोंयच्या मूळ भुंयपुताचो शाब्दीक आविश्कारूच जावन आसा. हो भुंयपुरूश म्हणल्यार गावडो. र. वि. पंडीताच्या उतरांनी तो पोटतिडकीन अभिव्यक्त जाताना दिसता -

**तुमी बामणांनी**
**आमकां कांडला**
**अजून कांडीत आसात**
**पूण पिठो जाला**
**आनी**
**फुडें जातलो**
**तो मात तुमचो**
**आमचो पिठो जायना**
**केन्नाच.......**

हांगा ह्या काव्यांत सकयल्या पांवड्यावेल्या मनशाच्या अतंस्करणांत स्वताच्या विशीं जो अभिमान आसता ताचो दिश्टावो कवीन स्पश्ट केल्लो आसा. ह्या एकेच कवितेंतल्यान कवी ह्या मूळपुरूशाचो म्हणल्यारूच गावडो नांवाच्या मूळकेश्वराचो गौरव करता. फकत सहानुभुतीन न्हय तर तो अजून मेरेन आपले भुंयेक आनी आपले संस्कृतायेक दसून आसा म्हूण. दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ह्या कवितेंत गोंयच्या साबार समाज वेवस्थेचेर भाश्य करून कवी फक्त गावडो होच आपले मातये कडचें नातें सांबाळून आसा हाचें स्पश्टीकरण दिता. आपल्याक कितलोय कांडलो तरीय आपलो पिठो जायना अशें सांगपी हो गोंयचो भुंयपूत व्हडा उमेदीन आपलें दायज जतनायेन मुखार व्हरतना दिश्टी पडटा.

'म्हजें उतर गावड्याचें' ह्या कविता झेल्यांत कवीन गावड्या सारकिल्ल्या जायत्या गोंयकार भुंयपुतांची जीण तरेकवार कवितांनी मांडल्या. देखीक – 'भाटकाराचो सत्यनारायण' हे कवितेंतल्यान देमूची व्यथा आनी 'पावसा यो पुता म्हजे बरोबर रडपाक' हे कवितेंतल्या शेतकाऱ्यांची व्यथा हिसपान धरूं येता. भाटकारालो सत्यनारायण हे कवितेंतलो देमू हो सर्वसामान्य भागेली. तो भाटकाराच्या सत्यनारायणाक दिसरात राबता. म्हणजेच; भाटकाराच्या सत्यनारायणाचे पुजे वेळार देमू नांवाच्या मुंडकाराची कशी पंचखाद्य जाता हें कवीक दाखोवपाचें आसा. पावसा यो पुता म्हजे बरोबर रडपाक हे कवितेंतूय भाटकाराच्या प्रभावा खाला म्हणजेच ताच्या रिणाच्या दोंगराखाला चिड्डल्लो मुंडकार कशे रितीन आपले दीस घालयता हाचे भिरांकूळ चित्र कवीन उबें केलां. शेताचे कुंबळे, फाटल्या वर्सांचें कळंतर, आज्या पणज्यांचे रीण आनी ह्या सगळ्यांच्या हिशोबाचो घुस्पागोंदळ भाटकाराच्या चोपड्यांनी पिळग्यान पिळग्यो घुस्पून पडिल्ल्या मुंडकाराची दुखेस्त काणी ह्या झेल्यांतल्या जायत्या कवितांनी शब्दबद्द जाल्या.' दोनूच जाती' ही कविताय तोच आशय मांडटा.

**मुक्तछंदांतली आगळी वेगळी कविता –**

कवी र. वि पंडीत हांणी कोंकणी कवितेच्या मळाचेर अती
ुक्तछंद वापरून एका वेगळ्याच तरेच्या काव्यशैलीचो आविश्कार
ाडयला. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हे ह्या अतिमुक्त छंदा संदर्भांत म्हणटा
- 'पंडितांचे काव्य हे शिमिटान बांदून काडिल्ल्या तळ्यांतल्या उदका
परी न्हय, पंडीतांची कविता ही व्हांवती झर. ती खंय सुरू जाता आनी
खंय सोपता तें सांगूंक नजो. पूण जंय जंय ती वता थंय थंय आपले देगेर
ती जीण निर्मिता.' कवीवर्य मनोहरराय सरदेसाय हांचें म्हणणें
बारीकसाणेन पळयलें जाल्यार खऱ्यानीच पंडितांची कविता व्हांवत्या
झरीवरी मुखार चलत रावपी. तेभायर पंडितांच्या काव्यांत वैचारीकताय
प्रखरतायेन तकली वयर काडटा. त्या विचारा मदीं गोंय, गोंयकारपण,
गोंयची संस्कृताय, गोंयचें पुर्विल्लें दायज, गोंयची भूंय, भास आनी भौस
हांचो हुस्को दिसता. पंडितानी अती मुक्तछंद आपणावन आपल्या
विचारांक आनी उमाळ्यांक कवितेच्या फास्केंत घातल्यात.

**गोंयच्या सैमांतलीं प्रतिकां आनी प्रतिमा हांचो दिश्टावो घडोवपी कवनां -**

म्हजें उतर गावड्याचें ह्या नांवातूच कवी तांबड्या मातये कडेन
कितलो एकरूप जाला हाचो अदमास आमी काडूं येता. देखूनच कवी हेच
मातयेंतलीं तरेकवार प्रतिकां आपणावून आपले कवितेक आकार दिता.
ते प्रतिकांनी उलयता काय प्रतिकां ताच्या तोंडांतल्यान उलयतात हो
प्रस्न तांच्यो कविता वाचतकच पडटा. कवीचे मातयेकडेन नातें तुटूंक
ना हाची जिवी गवाय दिवपी तांच्यो कविता ह्या कविताझेल्यांत
आसपावल्या. संवसारांतल्या सुख दुखाचो, रंग, रूप, रस, गंध हांचो
दिश्टावो घडयतना कवी गोंयच्या सैमांतली नीज प्रतिकां वापरता.

एका दिसाच्या वासाक जग भुलुसता, एकाच माळेचे मणी ह्यो
कविता हांगा देखी खातीर दिवं येतात. एका दिसाची वासाक जग
भुलुसता हे कवितेंत खिणयाळ्या सुखाच्या फाटल्यान धांवत वताना
मनीस आपले कडेन आशिल्ल्या नीज सुखाक कशे रितीन फाट करता
हाचो दिश्टावो कवी घडयता. हांगा फूल, परमळ, कापूस, इमारत, अशीं
जायतीं प्रतिकां आपणावन कवी आपलो संदेश वाचप्यामेरेन पावयता.

भुरगीं आनी जाण्टीं हे कवितेंतल्यानूच कवी सैमीक प्रतिकां आपणावन भुरग्यांच्या भावूक मानसीकतायेचें वास्तवीक दर्शन घडोवपाक यशस्वी जाला.

र. वि पंडीत अश्या प्रतिमां आनी प्रतिकांचो वापर करून जायत्या समाजीक विशयांत ह्या झेल्यांत आसपावन घेवपाचो यत्न करता. माडा बाप्पा कल्परूखा, चंद्राचो बैल शिंगाडो, एकेच माळेचे मणी, बिस्कल दातांची बंदखण, म्हजे मन जशे चिंचेचे पान ह्यो कविता प्रतिकां आनी प्रतिमांनी उपाट भरिल्ल्यो आसा अशें म्हणल्यार अतिताय जांवची ना.

**अन्यायाचो प्रतिकार करपाक उर्बा दिवपी गावड्याचें उतर –**

प्रस्तूत कविता झेलो कवीन भारताची स्वतंत्रताय जतन करपी जवानाक ओंपला. इतलेंच न्हय तर तांच्या जायत्या कवितेनी अन्यायाचे प्रती झुजपाची स्फुर्त तांणी दिल्या. हाचोच अर्थ कवी अन्याय आनी अत्याचाराचो प्रतिकार करप्यांचे वटेन आसा हे सिध्द जाता. संवसारांत न्याय, नीत, मनीसपण, सवस्तकाय उदरगत आनी सुख समादान आसचें अशें कवीक सदांच दिसत आयलां. देखूनच हो विचार म्हजें उतर गावड्याचें ह्या कविता झेल्यांत दर एका कवितेंत दिसून येता.

जो रोयता तांणीच खावंचें वा जो घाम गळयता ताच्या तोंडांत कश्टाची भाकरी पडची असो विचार करपी हो कवी जेन्ना बळिश्ट मनीस दुर्बळ मनशाक पिड्टा ते पळोवन अस्वस्थ जाता. शेतकार आनी तांची भुरगींबाळां हांची दुखेस्त अवस्था पळोवन ताचें अंतस्करण पेटून उठता. आयज पुराय संवसारांत जो आकांत पसरला तशेंच विज्ञान आनी तंत्रज्ञानाच्या बळग्याचेर जो अच्छेव बळिश्टांनी दुर्बळाचेर मातयला ताचें पडबिंब पंडितांच्या काव्यांत अशे रितीन पडलां –

**हिरोशिमाचीं चवनां**
**यादस्तीचे कातीचेर**
**आजून व्हांवतूच आसात**

कवी हांगा संवसारीक शांतताय आंवडेता तशेच अणुबाँम सारकिल्लया विद्धंस घडोवपी गजालींचो त्याग आमी करपाक जाय अशें आवाहनूय कवी हे कवितेंतल्यान करता. स्वताक गावडो म्हणून घेवपी हो कवी गरज पडटा तेन्ना अन्याय आनी अत्याचार करपी वायट्र वृत्तीच्या व्यक्तींक नानपश्यात करपाक फाटी सरना. 'आयज म्हाका मरचें आसा' हे कवितेंत अन्याय आनी अत्याचाराच्या प्रती झुजत रावपाची कवीची वृत्ती अशी दिसून येता -

**आयज म्हाका**
**देशा खातीर**
**झुजत झुजत मरचें आसा**

**वाचकांक भुलोवपी काव्या शैली -**

कोंकणी साहित्यांतलें एक म्हालगडे कवी म्हूण र. वि. पंडीत हांणी नांव जोडलां. तांणी पयलेच फावटीं सगळे तरेचीं बंदना कुशीक सारून लज, भीड, भिरांत धरी नासतना छंद, यमक हांची फास्की मोडून काळजांतलो खतखतीत उमाळो तश्याक तसो कागदार उतरला. तरणेपणाचो नेट आनी वास्तवतायेचो स्पर्श लाभिल्ली तांची ही कविता ह्याच कारणांक लागून समस्त वाचक वर्गाक भुलोवन गेल्या. पंडीतांची दर एक कविता ही वाचकाच्या मनाचो थाव घेवन ताका आपल्या वांगडा घेवन वता. दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार तांचें काव्य अतिशय साद्या आनी सरळ भाशेंन आशिल्लया कारणान सर्वसामान्य वाचक आनी कवितेंतलो विचार हांचे मदीं कसलीच आडखळ उरना. देखूच दिवची जाल्यार एखादी ल्हानांतली ल्हान कविता लेगीत घेवं येता.

पंडितांची कविता सर्वसामान्य वाचकांक भुलोवन सोडटा. हाचे फाटले आनीक एक कारण म्हणल्यार कवितेंतली भासशैली. ही शैली पावसाचे धारेवरी तुटक तशीच धरिल्लया बियांक जाग घडपी. तांची भास केळीच्या पानावरी पिसुडिल्ली आसली तरीय एकाच दांड्याची. कवीवर्य र. वि. पंडीत हांणी 'म्हजें उतर गावड्याचें' ह्या झेल्यांत कितलेशेच

समाजीक प्रस्न मांडपाचो प्रयत्न केला. तेच वरी समाजांतल्या अत्याचारांचो प्रतिकार गरज पडटा तेन्ना तेन्ना केला. जिवितांतल्यो तरेकवार घडणुको आनी तातूंतलो रंग, ढंग आनी संग हांचेरूच मार्मीक शैलींत काव्य रचलां. भुंयपुताक माथ्यार घेतना उपाट देशभक्तींत तांचें काळीज भरून आयलां. वयल्या साबार गजालींचो आपरोस घेतल्यार केन्ना केन्ना तांची लिखणी समाजाची कुशिल्ली कूड घांसून पुसून निवळ नितळ करता कांय कितें असो आभास जाता.



## 7. व्हंकल पावणी : आधुनीक कोंकणी कथेची चंद्रमुखी लावणी

संवसारांतल्या आधुनीक साहित्याच्या इतिहासाचीं पानां उगडून पळयत जाल्यार आधुनीक कथा साहित्याचो आरंभ सादरण देडशीं वर्सां पयलीं जालो हाची रूजवात मेळटा. भारतांत परंपरागत रूपांत चलत आयिल्ल्या काणयेचेर 20 व्या शेंकड्याच्या आरंभाक पाश्चात्य 'शॉट स्टोरी'चो प्रभाव पडिल्ल्यान हें सगळें घडत आयलें.

कोंकणी कथेचो विचार केल्यार हेर भारतीय भासांच्या तुलनेंत कोंकणी कथासाहित्याचो इतिहास मात्सो वेगळो बरोवंचो पडटलो. खरें म्हणल्यार कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृती 450 वर्सां पुर्तुगेजांच्या जुल्मी चेंपणांत चिड्डत उरली. तिच्या साहित्यीक गिरेस्तकायेक जाल्यार लासून नानपश्चात करपाचे यत्न जाले, तरीय आपले नीज अशा स्वयंभू तांकीचेर आनी आंतरीक बळग्याचेर ही भास, ही संस्कृती आनी हें साहित्य तगून उरलें. कोंकणी कविता आनी कथेचो तातूंत मोठो वांटो आसा हें न्हयकारूंक जावचें ना.

आधुनीक कोंकणी कथेचो प्रारंभ शणै गोंयबाबांच्या 'म्हजी बा खंय गेली' ह्या कथेंतल्यान जालो म्हणटा तें सामकें न्हय. त्यावेळावयली ती एक उत्कृश्ट कथा पूण आधुनीक तंत्रांत ती फीट बसना. आधुनीक कोंकणी कथेची बुनयाद 1935 वर्सा उजवाडायिल्ल्या 'वोंवळां' ह्या प्रातिनिधीक कथाझेल्यांतल्यान पडली. कोंकणी कथासाहित्याचो तो नवो आविश्कार आसलो. तातूंत जायते कौटुंबीक समाजीक आनी हेर विशय आर्विल्ल्या कथातंत्रांतल्यान पयलेंच फावटी शब्द बध्द जाल्यात. ताचेउपरांत जायत्या कोंकणी साहित्यिकांनी आपल्या भाशीक, साहित्यीक, समाजीक कर्तव्याक पाळो दिवपाखातीर कथा ह्या साहित्य प्रकाराक लागीं केल्ल्याचें दिसून येता. तातूंत जायते कवीय आसपावीत आसात. देखीक - डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, नागेश करमली, उदय भेंब्रे आदी. पूण ह्या काळांत वट्ट कथाकार म्हूण मुखार आयिल्ल्या मर्दीं दोन नांवां मुखेलतायेन लक्ष वेदून घेतात तीं म्हणल्यार प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी चंद्रकांत केणी.

कोंकणी कवितेवांगडाच कथाय चंवरपाक जाय. विंगड विंगड प्रयोग कथेच्याय मळार जावपाक जाय ह्या ध्यासान कोंकणी कथेक घेवन तिची घुंडी जिवितभर उबारून धरपी आद्यकथाकार म्हणल्यार चंद्रकांत केणी. गोंयच्या मुक्ती पयलींच्या काळांत कोंकणी कथेक एक उंचाय फाव जांवची म्हूण झरपी चंद्रकांत केणीन पुरायपणान कथेक ओंपिल्लें नेमाळें उजवाडायलें. 'कुळागर' ह्या नांवान येवपी त्या नेमाळ्यान कोंकणी कथाकारांची एक नवी फौज तयार केली. राष्ट्रमताचे संपादक ह्या नात्यानूच ह्या कार्याक तांचें तोलामोलाचें योगदान आसा. तेभायर 'मिर्ग, साळीक, साद, प्रजेचो आवाज, नवें गोंय, कोंकणी' हीं पत्रकाय तांच्यो तशेंच हेरांच्यो कोंकणी कथा वाचप्यांमेरेन पावोवपाक यशस्वी जालीं.

मुक्तीपयलींच्या दोन प्रातिनिधीक झेल्यांनी त्या वेळावयल्या आधुनीक कथेची फांटभूय समजुपाक मेळटा -

**1) भूंयचाफीं - चंद्रकांत केणी संपादीत (1950)**

**2) स्वाती - विष्णू नायक संपादीत (1960)**

## आधुनीक कोंकणी कथेंत चंद्रकांत केणीचें योगदान

1960 उपरांत कोंकणी कथेची नवी इंनिंग सुरू जाली. ताचे कर्णदार आनी ओपनर आशिल्ले चंद्रकांत केणी. 1920 ते 1960 मेरेन आपल्या पारंपारीक रूपांतल्यान आधुनीकतायेचो वेद घेवपी कोंकणी कथेक तांणी स्थिरता हाडली. जायत्या राष्ट्रीय आनी अंतराष्ट्रीय भासांतल्या कथेचो कस घोटिल्ली तांची प्रतिभा कोंकणी कथेक पोशक थारली. तांणी कोंकणी कथेक भारतीय आनी संवसारीक कथा साहित्याच्या पंगतीक व्हरून बसयली. प्रादेशीक कथाबिजांनी बंदिस्त कोंकणी कथेक वैश्वीक मुखावळ दिवपाचें मोलादीक कार्य तांणीच केलें. आशय विशय, नवनवीन तंत्र- मंत्र, शैलींतलें नाविन्य मानसशास्त्रीय दृश्टीकोन अशे जायते आधुनीक आयाम तांच्या बरपांतल्यान पयलेंच फावटी कोंकणी कथेक मेळ्ळे. तांणी शेंकड्यांनी न्हयतर हजारांनी कथा कोंकणी सरस्पतीच्या पांयार ओंपिल्ल्यो आसात. ह्याच सगळ्या

वावराखातीर तांकां आधुनीक कोंकणी साहित्यांत पयलो कथाकार म्हूण पाचारतात.

**कथनात्मक साहित्यांतलें चंद्रकांत केणींचे योगदान**

**1. धर्तरी अजून जियेताली. (कथाझेलो 1964)**
**2. आशाढ पांवळी (कथाझेलो 1973)**
**3. अळमी (कथाझेलो 1975)**
**4. तरेतरेचीं संवगां (कथाझेलो 1975)**
**5. व्हंकल पावणी (कथाझेलो 1985)**
**6. मेघमल्हार (कथाझेलो 1994)**
**7. जंय वता थंय (व्याक्तिचित्रणात्मक कथाझेलो 1994)**
**8. बहुरत्नां वसुंधरा (व्याक्तिचित्रणात्मक कथाझेलो 2004)**
**9. दंवा थेंब, कथिका (कथिकांचो झेलो)**
**10.श्रीनिवास, एक सपन सपनेल्लें, एकलो एकसुरो, समर्पण, नायिका (दिर्घकथा)**
**11. बर्मी दीस, विराट (कादंबरी)**
**12.काशिनाथ, हुकुमाची राणी, वण्टी, त्रिवेणी (अणकारीन नवलिका, दिर्घकथा)**
**13. सात पावलां मळबांत (अणकारीत कादंबरी)**

**व्हंकल पावणी - एक शास्त्रीय वळख**

कुळागर प्रकाशनान 1985 वर्सा उजवाडायिल्ल्या 'व्हंकल पावणी' ह्या झेल्याक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार 1988 वर्सा फावो जालो. चंद्रकांत केणीच्या व्यासंगी साहित्य साधनेक आनी सातत्यपूर्ण कथाभक्तीक मेळिल्ली ती एक पावती आसली. खरें म्हणल्यार ताचे उपरांत तांकां जायते मान सन्मान फावो जाले पूण जे साहित्यकृतीन तांच्या साहित्यीक प्रतिभेक राष्ट्रीय भौमान भेटयलो ते कृतीचो आदार घेवन तांच्या कथनात्मक प्रतिभाशक्तीचें विश्लेशण करपाचो हो यत्न.

'व्हंकल पावणी' ह्या झेल्यांत वट्ट 20 कथा आसपावल्यात. ह्या विसूय कथांनी जशी केणींच्या कथाशैलींची गवाय मेळटा तशीच तांची गिरेस्त प्रतिभाय दोळ्यांक भरता. 1985 वर्सा जरी हो कथाझेलो उजवाडाक आयलो तरीय तातूंतल्यो कथा ह्यो कांय वर्सा फाटल्यो. बरोवपी स्वता एक प्रस्न ह्या पुस्तकाच्या स्वगतांत आपल्या कथासाधने विशीं विचारता तो म्हणटा -

**'हांव कथा कित्याक बरयता... वेगवेगळ्या वेळार विंगड विंगड कारणां खातीर हांव कथा बरयत आयलां.... ती म्हाका सादली आसत वा नासत पूण इतलें मात खरें, ती बरोवन जातकच म्हाका आनंद मेळ्ळा. तो कृतार्थतायेचो, साफल्याचो वा सृजनाचो आनंद आसलो...'** (स्वगत - व्हंकल पावणी)

हातूंतल्या व्हंकल पावणींतल्योच कथाच न्हय तर केणींचें पुराय साहित्य हें सृजनात्मक अभिव्यक्तीचो आनंद घेवपाखातीरं रचून जालें अशें म्हणू येता. बरोवपी स्वता एक कर्तव्यदक्ष संपादक, एक सक्रीय समाजवावुरपी. समाजीक लागणुकेंतल्यान तांचो वावर मुखार सरला. पावलाकणकणी मेळपी व्यक्तींचेर तांच्या स्वभावांतल्या विस्मितांचेर आनी अजापांचेर तांचें सुक्ष्म निरिक्षण. दर एका सर्वसामान्य मनशा मदीं एक असामान्यत्व लिपिल्लें आसता. त्या असामान्यत्वाक सोदपाचो तांचो ध्यास. ह्या ध्यासांतल्यान तांचें कथाविश्व आकाराक आयलां. एकाद्रो प्रसंग, संवाद, मनीस, देखावो, विचार, घटना हांचें रवथ करता करताच तांची कथा रूपकाराक येता अशें तेच स्वता म्हणटा.

हो बरोवपी आपल्या प्रतिभेच्या म्हालवज्यार बरयत वता. तो जंय जंय वता थंय थंय ताका कथाबिजां मेळत रावता. ताचो विस्तार करप, मखलाशी करप आनी ती कथा पुर्णत्वाक व्हरप होच मागीर व्याप उरता. हें व्यापाचें आव्हान ते स्विकारतात आनी सहजतायेन जैत जोडटात. व्हंकल पावणी ह्या झेल्याची देख घेतली जाल्यार वयलें विवेचन आनी ताचो भावार्थ मतींत आयल्यारबगर रावचोना. ज्ञानपिठकार तपस्वी बरोवपी भौ. रवींद्र केळेकारांची उतरां घेतली

जाल्यार तांच्या प्रतिभेची उस्तवारी अशी करूंयेता.

'चंद्रकांत केणी हांच्यो सगळ्यो कथा, धरूंया फाल्यां इतिहास जमा जाल्यो तरूय, म्हाका दिसता तांगेली 'अबुध्द मोग' ही एक कथा खूब वर्सां जियेतली. आनी ही एकूच कथा कोंकणी सरस्पतीच्या इतिहासांतलें चंद्रकांतबाबांलें कथाकार म्हूण नांव अज्रंवर करपाक पुरो जातली.' ('असो कथाकार अश्यो कथा' अळमी कथा झेल्यांतली प्रस्तावना)

**व्हंकल पावणींतल्यो कथा -**

व्हंकल पावणी, पोस्ट मॉर्टेम, नातें रगताचें, ओलीं पाखां, याद आसा, रिना जोझेफ, मिस डायना डिसुज़ा, लुसी, अनोळखी, कथा मोगाची आनी लग्नाचीय, गुलाब, मांडवी अशीच व्हांवता, पराजिता, निरोप, क्रिस्सा मुर्गीका, खंत ना खेद ना, जननी, अणभव, किळांच

**अभ्यासाच्या नदरेन तांचें अशें वर्गीकरण करूं येता -**

**- घटना-प्रसंगांची विविधताय साधिल्ल्यो कथा**

**- मानवी संवेदनांचें मुल्ल्यांकन करपी ल्हवपीक कथा**

**- अस्तुरेच्या तरल भावविश्वाचें दर्शन घडोवपी मोग कथा**

**- कोंकणी कथेक नवी उबारी दिवपी प्रयोगशील कथा**

**- सृजनात्मक अनुभुतीक होरावपी रूपक कथा**

**घटना-प्रसंगांची विविधताय लाबिल्ली कथा -**

कथानक वा कथावस्तू हो कथासाहित्यांचो एक मुखेल घटक. बरोवपप्याक ह्या प्रकाराच्या शास्त्राची पुराय जाण आसा. विविध घटना-प्रसंगांतल्यान जल्माक येवपी कथेचें कथानक आनी ताचें बीज तांकां जंय वता थंय मेळटा. धर्तरी अजून जियेताली, अळमी, मेहमल्हार, बहुरत्नां वसुंधरा, आशाढ पावळी, तरेतरेचीं संवगां आनी हेर झेल्यांनी तांची ही कळाशी दिसून येता. व्हंकल पावणी ह्या झेल्यांतल्या कथानकांत वा घटना प्रसंगांनी पुनारावृतीचो दोश खंयच दिश्टी पडना.

हातूंतल्यो चडश्यो कथा सर्वसामान्य मनशांचेर आनी खासा करून बायलमनशेंचेर आदारीत आसल्यो तरीय तातूंत विविधताय दिश्टी पडटा.

पयले कथेंत घोव बायलेच्या मानसीक भावविश्वाचें दर्शन घडयताना आपली अशी वेगळी वाट सारपी व्हंकलपावणी बरोवप्यान रंगयल्या. दुसऱ्या कथेंत म्हणल्यार पोस्ट मॉर्टेमांत तांणी पेस्ट मॉर्टेम सारक्या क्लिश्ट विशयाक धरून मिनाक्षीच्या पेस्ट मॉर्टेमाचो प्रसंग वेंचून डॉ. माधवांच्या अस्वस्थ मनाचे उमाळे शब्दबध्द केल्यात. 'नातें रगताचें' ह्या कथेंत जाल्यार तांणी रगता रगतामदीं भेद नासता, अंतर नासता. भेद आसता तो फक्त मनशाच्या वृत्तींत रगतांत न्हय ह्या श्रेश्ठ मानवी मुल्यांचो दिश्टावो घडयला.

ओलीं पाखां, मांडवी अशीच व्हांवता, किळांच अशा कथांनी बरोवपी कौटुंबीक कलह, घोवा बायलेचे समज गैरसमज, तातूंतल्यान उप्रासपी विविध प्रस्न हातळटा जाल्यार याद आसा, रीना जोसफ, मिस डायना डिसुजा, अनोळखी, कथा मोगाची आनी लग्नाचीय, लुसी सारक्या कथांनी मोग आनी फोगाची कथावस्तू आपल्या वास्तवीक शैलींत चितारता. निरोप, अणभव, जननी, किस्सा मुर्गी का हातूंत घटना-प्रसंगाची विविधताय सांबाळून बरोवप्यान जिणेच्या दर एका खांचीकोनशांचें बारकायेन चित्रण केलां हें स्पश्ट जाता.

### मानवी संवेदनांचें मुल्यांकन करपी ल्हवपीक कथा -

कथाकार चंद्रकांत केणी एक संवेदनशील पत्रकार आनी साहित्यीक. मनशाच्या मनांत उडकी मारून थंयसल्या सुख-दुख्खाचो थाव घेवप हो तांचो छंद. ह्या छंदाक लागुनूच तांचेकडल्यान शेकड्यांनी कथा बरोवन जाल्यात. दर एका सामान्य मनशाभितर आनी ताचे जिणेभितर तांकां कथा बिजां मेळटात. घरांत, ऑफिसांत, रस्त्यार, बसींत, भुरगेपणांतल्या यादींनी, शाळेंत, कॉलेजींत, परिसंवादांनी, बातम्यांनी सगळेकडेन मेळिल्ल्या मनशांच्या आंतरीक संवेदनांक

शब्दरूप दिवपाचें काम तांच्यो कथा करतात. व्हंकल पावणेंत ताचो प्रत्यय येता.

नातें रगताचें कथेंतलो लकप्पा आसूं, ओलीं पाखांतलो बापूय आसूं, अनोळखींतलो शंकर वा सुधा आसूं, कथा मोगाची आनी लग्नाची मदली सोनाली आसूं, गुलाबा मदलो मोगी तशेंच फोगी वृत्तीचो वसंत आसूं, पराजितांतलें अपराजीत जीण जगिल्लें विजय आसूं, खंत ना खेद ना मदलें सुलक्षा वा लुसी, डायना, रिना, विणा कोणूय आसूं बरोवपी तांच्या मनाची संवेदनशील स्पंदनां आपल्या कथेंतल्यान सहजतायेन व्यक्त करून, ताचें मुल्यमापान करीत कथा रचता.

ह्यो साबार कथा त्या त्या पात्रांच्या भावनीक आनी मानसीक व्यक्तिमत्वाक आमच्या म्हऱ्यांत दवरता. व्हंकल पावणींतल्या कथांचें खाशेलेंपण म्हणल्यार पात्रांच्या बाह्यीक चित्रणा परस तांच्या आंतरीक, भावनीक आनी मानसीक घुस्पागोंधळाचें वा अस्वस्थतायेचें संवेदनशील चित्रण बरोवप्यान केलां. खासाकरून मानसशास्त्रीय दृश्टीकोन हांगां लक्ष ओडून घेता. व्हंकल पावणी, गुलाब, निरोप, अनोळखी, ओलीं पाखां ह्यो कथा मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान अभ्यासूंक मेळटात.

**अस्तुरेच्या तरल भावविश्वाचें दर्शन घडोवपी मोग कथा –**

व्हंकल पावणींतल्योच न्हय तर चंद्रकांत केणींच्यो हेर चडश्यो कथा अस्तुरे भोंवतणीच घुंवताना दिश्टी पडटा. ह्या गजालीखातीर तशेंच कांय कडेन भडक चित्रणाखातीर तांची टिकाय जाल्ली आसा. बरोवप्याक ह्या मुद्दयांची जाणविकाय आसा. अस्तुरेबगर संवसार चलना अशें तांचें म्हणणें. दादल्यापरस ती चड सोंसता, भोगता देखून तिचीं साबार बरीं-वायट रूपां बरोवप्याक प्रेरीत करता. ह्या बायलमनशेक तिच्या सुख-दुख्खासयत, धोंगा-पोंगासयत, सोबीतकाये-कुरूपतायेसयत तशाक तशी उबी करपाचो यत्न तो करता. व्हंकल पावणी ह्या झेल्याचो विचार केल्यात तातूंतल्यो चडश्यो कथा अस्तुरीप्रधान जाल्यात हें स्र्त. रीना

जोझेफ. मिस डायना डिसुझा, लुसी, गुलाब, मांडवी अशीच व्हांवता, जननी. अणभव, किळांच, पराजिता धरून किस्सा मुर्गीका ह्या सारकीय कथा अस्तुरी प्रधानूच. कस्तुरें, लुसी, गुलाब, डायना, विणा, रिना, विजय, सुलक्षा, सोनाली, सुधा हांच्या रूपान बरोवप्यान तरेकवार बायलांच्यो व्यक्तिरेखा यशस्वी रितीन उब्यो केल्यांत. तांचें विश्लेशण अशें करूं येता.

अस्तुरी ही समाजाच्या आनी कुटुंबाच्या केंद्रस्थानार आशिल्लयान तिच्या समाजीक, मानसीक आनी बौध्दीक अवस्थेचो तपशील हांगा आयला. दादल्यापरस तिच्या वाट्याक चड दुख्ख आयला देखून हळुवारपणान तिचेर फुंक मारपाचो यत्न ह्या कथाझेल्यांत जाला. आत्मसन्मानान जगपाचो अधिकार चंद्रकांत केणींच्यो स्त्री व्यक्तिरेखा राखून दवरता. स्त्री पात्रांच्या विचार आनी भावनांचें चिकित्सक विश्लेशण व्हंकल पावणेंत लक्ष ओंडटा. अस्तुरेचें सौंदर्य आनी तिचो मोग कलात्मकतायेन ह्यो कथा व्यक्त करता.

**कोंकणी कथेक नवी उबारी दिवपी प्रयोगशील कथा -**

चंद्रकांत केणींक कोंकणी साहित्याच्या मळार आद्यकथाकार म्हूण वळखतात. तेभायर कोंकणी कथेक प्रादेशीकतायेंतल्यान वैश्वीकतायेक झेप मारचेली तांक ताणेंच दिली अशें म्हणप रजांवाचें जावन आसा. नवें कथानक, नवें तंत्र, नवें मंत्र, नवी शैली, नवी निवेदनपद्धत, नवी लेखन फास्की, नवी मानसशास्त्रीय नदर आनी नवनवीन प्रयोग करून कोंकणी कथेक नवें रूप दिवपाचो सफळ यत्न केणीन आपल्या कथासाहित्यांत केला.

समकालीन भारतीय आनी संवसारीक कथेचे नवे प्रवाह समजून घेवन कोंकणी कथा खंयच्याय पावंड्यार फाटी उरची न्हय हाची दखल तांणी घेतल्या. खासा व्हंकल पावणींतल्या जायत्या कथांची देख हांगा दिवं येता. मांडवी अशीच व्हांवता ही संवादरूपी कथा, किस्सा मुर्गीका ही कल्पक कथा, खंतना खेदना ही कपयाळी कथा जाल्यार जननी ही सृजनकथा वा रूपककथा जावन आयल्या. हांगा बरोवपी

कोंकणी कथेंत प्रयोगशिलताय हाडपाक प्रयत्नशील आसलो ताची गवाय मेळटा. बरोवप्यान आपल्या हेर कथा साहित्यांतूय अशे जायते प्रयोग केल्यात 'अळमी' ह्या तांच्या झेल्यांत तांणी वट्ट लघुनाट्यांतल्यान कथा उबारिल्याचें दिसून येता. (पिकिल्लीं पानां)

जाल्यार 'कथिका, दंवाथेंब, जंय वता थंय, बहुरत्नां वसुंधरां' ह्या झेल्यांनी मोटव्या आकाराच्या कथिका ह्या कथा प्रकाराची वळख कोंकणी वाचकांक करून दिल्या. आयच्या 20-20 च्या जमान्यांत हो प्रकार खुबूच फामाद जाला हें पळयल्यार तांच्या दुरदुश्टीची तोखणाय करीन दिसता. चंद्रकांत केणीन केल्ले कांय प्रयोग जैतिवंत जालें जाल्यार कांय फसलें पूण तांचे हे प्रयोग कोंकणी कथेक परिपक्वताय दिवन गेले हातूंत मातूय दुबावना.

**सृजनात्मक अनुभुतीक होरावपी रूपक कथा -**

व्हंकल पावणीच्या स्वगतांत बरोवपी म्हणटा - 'कथा साधनेच्या यात्रेंतल्या निमण्या टप्प्यांत हांव आज पावलां अशें म्हाका दिसता. शेड्ड्याची धांव वंयमेरेन म्हणटात तशी म्हज्या कथांची धांव हाचे मुखारूय वचत म्हणपाचो म्हाका भरवंसो ना.'

तेच तेच प्रयोग करून आयिल्ल्या उबगणेंतल्यान घडये बरोवप्याची मनस्थिती अशी जाल्या आसुंयें पूण म्हाका दिसता, होच तांचो अतृप्त भावार्थ ताच्या नवकथेच्या आरंभाचो नवो मंत्र थारलो. कारण व्हंकल पावणी उपरांतच्या ताच्या कथनात्मक साहित्याक पळयत जाल्यार तांणी आपल्या मोटव्या आंवाठाच्या कथिकांक चड म्हत्व दिल्लयाचें दिसून येता.

कथिका हो बंगालींतल्यानें कोंकणीत पाविल्लो एक मोटवो कथाप्रकार. केणीन तो कथिका ह्या नांवान कोंकणींत हाडलो. कथिका प्रमाणूच तांणी आनीक जायते वेगवेगळे प्रयोग कथेंत केले. व्हंकल पावणींत तांचे कांय उत्कृश्ट नमुने पळोवपाक मेळटात. जननी, अणभव, ओलीं पाखां ह्यो कथा ताची गवाय आसात. जननी हे कथेंतल्यान

केणीन जगत जननी जिणदिणी अस्तुरेच्या सृजनात्मक तांकीचो दिश्टावो घडयला. जे तरेन तांणी ही कथा रचल्या ती तरा खऱ्यानीच अप्रतीम अलौकीकतायेंतल्यान लौकिकताय साधपाचो यत्न ही कथा करता. एक सोबीत सुंदर रूपक हांगा हे कथेंतल्यान तांणी शब्दबध्द केलां. तृप्त धादोसकायेची घुंवळ अणभवूंक दिवची... इंद्रधोणुच्या रंगाचो कसाय पिवंचो... चंद्राच्या शितळतायेचो गंध लावंचो तेपरी ही कथा वाचप्यांक मंत्रमुग्द करता म्हणल्यार अतिताय जावंचीना. हे कथेची निवेदनशैली म्होंव्या उतरांनी आनी प्रतिकात्मक अर्थांनी तुडूंब भरिल्ली आसा. जिबेर दवरिल्ल्या गुलाबी कापसावरी ही उतरावळ थंयच्याथंयच नाच्च जाता.... मोरपाखांवरी अचळयत काळजाक खातकुतल्यो करता. आनी एका अमुरपिक्या अस्पशटतायेन अळंग आत्म्याक आफुडटा.. थंयच सृजनानुभुतीचो नवांकूर जल्म घेता... घेयत रावता.

देखीक - तिगेली एकच कागाळी. कागाळी काय खंत. सृजनाची प्रक्रिया आपणाक आपले नदरेक दिश्टी पडना... तिका तरी तें एक अदभूत गुपीत.. कुवींडें कशें दिसलें... जें आपले भितर घडटा पूण ताचेर आपलो इल्लोय अंकूश ना... ताचें रंग... रूप... स्वरूप थारोवप आपल्या हातांत ना.. चेराचो परमळ ल्हारांनी वातावरणांत पातळावंचो तशें कितें तरी तिच्या आंगभर पातळटालें... किल्लल्ल्या कोंबाक आंकरी फुटून ती लवलवताली..... पालेताली..... फुलताली..... फळटाली.... (जननी 154)

अणभव, ओलींपाखां ह्यो कथाय अशोच रूपकतायेक वाव दिंवपी सुचक आनी रोचक. तातूंत अणभव ही दोट्टी परिणाम सादपी प्रतिकात्मक कथा. वाघणी सारक्या रानवटी जनावराक लेगीत आवयपणाच्या सृजनानुभुतीची जाणविकाय आसून ती गुरूवार आशिल्ल्यान कस्तुऱ्याक सोडून दिता आनी उपरान्त त्याच गर्भार वाधिणीक गांवचे लोक गुळ्यो घालून मारून उडयता तेन्ना तिच्या पोटांतले पेटे भायर सरता अशा उंचेल्या शोकांतिकेक व्यक्त करपी ही केणींची आशयसपन्न कथा. अजापीत करपी सृजनात्मक अनुभुतीचो दिश्टावो ती दिता. ओलीं पाखांतली सपनभोंवडीय व्हंकल पावणींतली

ऱूपक कथा म्हूण आमच्या मनाक हात घालता.

## व्हंकल पावणी - एक विश्लेशण

'व्हंकल पावणी' हे कथाझेल्यांतल्यान बरोवपी चंद्रकांत केणी हांणी कोंकणी कथेची परिभाशा बदलून उडयल्या अशें म्हणूं येता. हाचें कारण म्हणल्यार ताचो हो झेलो आनी तातूंतलो कथा काव्यमय जाल्लयो आसात. तंत्रशुध्दता, रेखीवपणा, समर्पक भाशा आनी सहज सुटसुटीत निवेदन हांका लागून ती वाचनीय जाल्या. एखाद्या घटनेचें सोबीत चित्र रंगोवप आनी सुस्पश्ट व्यात्किरेखा उबी करप हें तांका बरें सादलां. विंगड विंगड तरेच्यो कथावस्तू ते कुशळतायेन टिपून घेतात. कथेचो माथाळो धरून सुरवात, मध्य, प्रसंगाची गुंफण, संवाद, भाशाशैली, संघर्श, उत्कंठा, विस्मय, अजाप, शेवट अशा सगळ्यांच घटकांनी ती घटमूठ जाता.

ह्या कथाकाराक लघुकथेचें खरें तंत्र खबर आसा. कथा कशी बरोवंची हे परस कथा कशी बरोवपी न्हय हाचें गुपीत तांका होलमला देखूनच ते अज्रांवर कथा बरोवंक पावले. कमीत कमी पात्रां आनी कमीत कमी घटना-प्रसंगांतल्यान कथा लेखन करपा कडेन तांचो कल आसता हें व्हंकल पावणी वाचतकच मतींत आयलेबगर रावना.

चंद्रकांत केणी हांच्यो ह्यो कथा अभ्यासतना वपूच्या (व. पू. काळे) कथेंचो आनी शैलीचो उगडास जाता. किळांच, लुसी सारक्या कथेंचेर जाल्यार वपुंच्या कथेचो सरळ प्रभाव जाणवता. पूण ह्यो कथा निव्वळ वेगळ्यो. तातूंत समाजांतल्या अन्याय, अत्याचाराची, विशमतेची चीड वा विद्रोहाची भावना निखालस ना पूण अनुभवाची विविधताय आनी वास्तवताय निश्चितूच आसा. ते मध्यमवर्गीयांच्या दुख्खा कडेन व्हडा सहानुभुतीन पळयतात आनी तांचें सुख दुख्ख मांडटात. तांच्या काळजांतल्या भावनेक व्यक्त करतात पूण तांच्या जिणेंत मेतेर जायना. कुशीक रावन ते संवसाराच्या तत्वगिन्यानाचो सोद घेतात, जिविताच्या मर्माक हात घालतात पूण पात्रांच्या जिविताक स्पर्श करीनात. देखून तांचें बरप आनी शैली वाचप्यांक अंतर्मुख करता.

आपलीशी दिसता.

'व्हंकल पावणी' मनशाच्या जिविताची काव्यमयता, समृद्धी, संस्कार, संयम, समर्पण, सात्वीकताय आनी संगीत साक्षीभावनेंत गुंथीत वता. एखादी नाजूक साजूक लावण्यवतीचो भास जावंचो तशी ही 'व्हकंल पावणी आधुनीक कोंकणी कथेची चंद्रमुखी लावणी' जावन आसा अशें म्हणपाचो मोह जाता.



## 8. कर्णपर्व - कोंकणी नाटकाचो आधुनीक संदर्भ

कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेचे चळवळींतले एक व्हालगडें व्यक्तीमत्व म्हणल्यार उदय भेंब्रे. तांणी आपले पुराय जिणेंत कोंकणीची प्रदीर्घ सेवा केल्या. गोंयची स्वतंत्र राजकी अस्मिताय राखपी जमनत कौलांत (Opinion Poll 1967), कोंकणी भाशेक दिल्लीचे साहित्य अकादेमीन 'एक स्वतंत्र साहित्यीक भास' म्हूण मानून घेवची म्हूण जाल्ल्या विधायक आंदोलनांत आनी 1985-86-87 मजगतीं गोंयांत घडिल्ल्या 555 दिसांच्या राजभास आंदोलनांत ते पोटतिडकीन वावूरल्यात. कोंकणी भाशा मंडळ. अखील भारतीय कोंकणी परिशद, कोंकणी प्रजेचो आवाज, गोवा कोंकणी अकादेमी, अस्मिताय प्रतिष्ठान, भारतीय भाशा सुरक्षा मंच, अशा असंख्य संस्था आनी संघटनांनी वावर करताना तांणी सदांच कोंकणी अस्मितायेक तेंको दिल्लो आसा. एक उत्कृश्ट संघटक, प्रभावी वक्तो, प्रतिभावंत साहित्यीक, धाडसी संपादक, कल्पक विचारवंत, ल्हान-व्हडांक वांगडा घेवन वचपी नेतो आनी सगळ्यांच्या काळजांत सुवात जोडपी एक गोड मनीस अशीं विंगड विंगड तांसां उदयबाबांच्या व्यक्तिमत्वाक लाबिल्लीं आसात. .

भुरगेपणा सावन आयज मेरेन तांणी गोंयकारपण आनी कोंकणीपण सांबाळ्ळां. तें करताना तांचे भितरल्या प्रतिभावान साहित्यिकाचेर अन्याय जाला. तरीय लेगीत कोंकणी साहित्यांत एक फामाद कवी, गीतकार, कथाकार आनी नाटककार म्हूण तांची वेगळी सुवात आसा. आतां मेरेन उदयबाबाच्यो 'चान्न्याचे रातीर (कविता झेलो), ब्रह्मास्त्र (निबंद झेलो, मराठी), कर्णपर्व (नाटक) आनी अस्मितायेचो कसाय (लेख संग्रह) ह्यो साहित्यकृती पुस्तक रुपान उजवाडाक आयल्यात. तेभायर तांचीं असंख्य कोंकणी गीतां ध्वनीमुद्रीत जावन लोकां मेरेन पावल्यात. तशें कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेच्या इतिहासाचेर तांणी जायतें साहित्य रचलां जें आजून उजवाडायक येवपाची वाट पळयता. सद्द्या तांणी इंक्विझिशन ह्या विशयाचेर स्वतंत्र स्वरुपाची इतिहासीक कादंबरी बरोवपाचो वावर

हातांत घेतला.

'कर्णपर्व' हें नाटक उदयबाबान 1960 च्या दशकांत आपले विद्यार्थी दशेंत आकाशवाणी मुंबय खातीर बरयलें. उपरांत कोंकणी भाशा मंडळान तें गोवा कला अकादेमीचे सर्तींत सादर केलें. तेभायर अंत्रुज लळीतक हे संस्थेनूय ताचे प्रयोग केल्यात. प्रस्तूत नाटक चंद्रकांत केणी संपादीत 'ऋतू' आनी एन. शिवदास संपादीत 'उर्बा' ('उदयबाब' खाशेलो अंक) सारक्या अंकांतूय आदीं प्रकाशीत जालां. 'तीन दसकां' ह्या वेंचीक साहित्य ग्रंथांतूय तें प्रकाशीत जाल्ल्याची नोंद मेळटा. सांगेच्या संजना प्रकाशनान प्रस्तूत नाटक 2013 वर्सा नव्या रुपान प्रसिध्द केलां आनी ताच्या एकंदर रचनेक पुरायपण आयलां. तांचे हेच साहित्यकृतीक 2015 वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाला.

उदयबाबान रचिल्लें 'कर्णपर्व' हें एक पुराणीक संदर्भ लाबिल्लें नाटक. महाभारतांत सूतपुत्र म्हूण शापीत जिवीत जगपी कर्णाचे व्यक्तिरेखेचेर तातूंत उजवाड पडटा. पूण फकत पुराणकथा नाट्यमय घडणुकांनी प्रस्तूत करप हें कर्णपर्वाचें खरें प्रयोजन न्हय हें प्रत्यक्ष नाटक वाचतकच वा पळयतकच मतींत येता. कर्णाचें जिवीत भावराती नदरेंतल्यान न्हय तर भोव विज्ञानीक नदरेंतल्यान अभ्सासून उदयबाबान एक विलक्षण कलाकृती कोंकणी रंगमाचयेक दिल्ली आसा. आदल्या पुराणीक कथांनी लिपिल्लो इतिहासीक आनी विज्ञानीक संदर्भ सोदपाचें कार्य भारतीय साहित्यांत (खास करून नाट्यरचनेंत) फाटल्या कांय दशकांनी जावपाक लागलां. तातूंत बादल सरकार, चंद्रशेखर कंबार, गिरिश कर्नाड, विजय तेंडुलकर, वि. वा. शिरवाडकर, जयशंकर प्रसाद, महाश्वेता देवी, शंकर शेष, इंदिरा पार्थसारथी, के. एन. पानिक्कर सारक्या भारतीय नाटककारांचो आसपाव जाता.

हे फाटभुंयेर कोंकणी नायकाचो विचार केल्यार कोंकणी नायकाक त्या पांवड्यार पुंडलीक नायक सारक्या नाटककारान व्हेलां. पुंडलीक नायकाची नाट्यसाधना सादरण 1975 सावन आरंभ जाता. तांच्यांनी कोंकणी नाटकाक राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय मान्यताय

दिली. शबै शबै भौजनसमाज, चैतन्न्याक मठ ना, श्री विचित्राची जात्रा, सुरींग, परिक्रमां, सांगोड सारक्या तांच्या नाटकांनी गोंयची सिममेर हुपून कोंकणी नाटक वैश्वीक पांवड्यार व्हरून सोडलें हातूंत दुबाव ना. तशें पळोवंक गेल्यार, पुंडलीक नायकाची नाट्यसाधना आरंभ जावचे आदीं उदय भेंब्रे हांणी रचिल्लें हें नाटक.

नव्या दमाच्या आधुनीक कोंकणी नाटकाची सुरवात कर्णपर्व सारक्या नाटकान केल्ली अशें म्हणूं येता पूण दुर्देवान उदयबाबान हें एक नाटक सोडलें जाल्यार हेर कोंकणी नाटकां बरयलीं ना. एके नदरेन तांणी कोंकणी रंगमाचयेचेर अन्यायूच केलो अशें म्हणपाक रजांव आसा. कारणां जायतीं आसत. भाशीक चळवळींत सक्रीय जाल्ल्यान तांचे एकंदर साहित्य साधनेचेर परिणाम जालो अशें कांय जाण म्हणटा. तशें जाल्यार सगळ्याच कोंकणी बरोवप्यांचेर ती पाळी आयिल्ली. नाय म्हटल्यार आमचे सगळेच रायटर फायटर जावन वावूरल्यात. पूण तांणी आपले प्रतिभेर अन्याक करूंक दिवंक ना. पूण एक गजाल स्विकारपाक जाय. ती म्हणल्यार उदयबाबांचें कर्णपर्व हें नाटक पुराणीक संदर्भ घेवन एक नवें सत्य सोदपाचो हावेस बाळगितां. अशे तरेचे प्रयोग बंगाली, कन्नड आनी मराठी रंगभुंयेर चड प्रमाणांत जाल्यात. कोंकणींतलो हो पयलो प्रयोग.

ह्या नाटकाची रचना करतना वट्ट पांच अध्यायांनी तें वाटून घातलां. ह्या नाटकांत महाभारतांतल्या एकंदर संघर्शाचो दिश्टावो घडटा. तातूंत राजकी, संस्कृतीक, समाजीक, कुटुंबीक, भावनीक आनी मानसीक संघर्शांचीं विंगड विंगड वलयां दोळ्यांत भरता. नाटककारान हस्तिनापुरचो राजा धृतराष्ट्र, राणी गांधारी, पितामह भिष्म, गुरू द्रोण, युवराज दुर्योधन, दु:शासन, मामा शकुनी आनी अंगराज कर्ण हांच्यो व्यक्तिरेखा भोवूच वास्तवतायेन उब्यो केल्यात. पांडू पत्नी कुंती, पांडू पूत धर्मराज, युधिष्ठीर, गधाधारी भिम, धनुर्धर अर्जून आनी राजकी कुटनितींत प्रवीण महारथी कृष्ण आदी पात्रां तांच्या स्वभावांतल्या धोंगां-पोंगां सयत चित्रीत केल्यात. खासा करून कर्ण, कृष्ण आनी कुंती हांकां केंद्रीत करून नाटककारान कर्णाच्या जिविताचो आनी

अंताचो नवो सदर्भ लावपाचो यत्न केला. कुंती आनी कर्ण हांचे मदीं आवय आनी चलो अशें नातें आसा हें गुपीत फोडप, कर्णाचो आत्मविश्वास तोडप आनी कुंतीक एक शस्त्र म्हूण वापरप हें कृष्णाचें एक राजकी कुटनितीचें कारस्थान जावन आसलें, अशें कल्पक कथानक नाटककारान उबें केलां. कर्णा सारक्या महायोध्याक झुंजांत हारोवपाचो तो एक डावपेच आशिल्ल्याचो विचार हें नाटक धिटायेन मांडटा. घंडये ते खातीरूच हें नाटक हेरां परस वेंगळें थारता.

## कर्णपर्व नाटकाच्यो खाशेलतायो

1) कर्णपर्व हें नाटक पुराणीक कथानकाक आधुनीक आनी विज्ञानीक नदरेन सादर करता.

2) कर्ण, कुंती आनी कृष्ण हांचो एक विलक्षण नाते-संबंद ह्या नाटकांत पळोवपाक मेळटा.

3) कथानक, व्यक्तिरेखा, संवाद, संघर्श आनी शेवट ह्या नाटकाच्यो जमेच्यो वटो जावन आसात.

4) कर्णपर्व ह्या नाटकांतल्यान नाटंककारान कर्णाचे उपेक्षीत जिणेची अंतहीन शोकांतिका उबी केल्या.

5) नाटककारान आशय, विशय आनी अभिव्यक्तीचे नदरेन एक उत्कृश्ट साहित्यकृती कोंकणीक दिल्या.

एकंदर, कर्णपर्व हें कोंकणी रंगमाचये वेंलें एक प्रयोगश्रम तशेंच एक नवो विचार दिवपी नाटक. पूण उदय भेंब्रे हांचे कडच्यान कर्णपर्व सारकें दुसरें नाट्क बरोवंक जालें ना. नाट्य लेखनाची प्रतिभा आसुनूय तांच्या हातांतल्यान कोंकणी रंगमाचयेची व्हड सेवा जावंक शकली ना. ताचीं कारणांय जायतीं आसात. उदयबाबान कोंकणी भाशीक चळवळीक दिल्लो वेळ हें तातूंतलें एक मुखेल •कारण. पूण हेर बरोवप्यांनीय रायटर आनी फायटर जावन कोंकणी भाशेची सेवा करतानच कोंकणी साहित्याची सेवा केल्या. रवीन्द्र केळेकार, पुंडलीक नायक हांचीं नांवां देखी खातीर हांगा दिवं येतात. पुंडलीक नायक हे अंयशीच्या दशकांत रंगमाचयेर चड सक्रीय जाले आनी उपरांत कोंकणी

रंगमाचयेची घुडी तांणीच आपल्या भुंजार उबारली. पूण साठाच्या दशकांत बरयंल्लूया करणपर्व ह्या नाटकांतल्यान बरी ओपनींग जाल्ली आसतनाय उदय भेंब्रे हांची नाट्यसंपदा वाडूंक शकली ना. देखून ते कोंकणी रंगमाचयेक दिका दिवंक पावले ना. तें दिका दाखोवपाचें क्रांतीकारी कार्य पुंडलीक नायक हांणी केलें.

आयज एकविसाव्या शेंकड्यांत पुंडलीक नांयक सारक्यां तांकिवंत नाटककाराक धरून देविदास बाबय, भरत नायक, दत्ताराम कामत बांबोळकार, विष्णू वाघ, प्रसाद लोलयेंकार, डॉ. प्रकाश वजरीकार, डॉ. राजय पवार सारके स्वतंत्र प्रतिभेचे नाटककार फुडें आयले हें तेच क्रांतीचें फळ जावन आसा.



## ०९. सतीश दळवींच्या 'चिरमुल्यो' ह्या बालकथा-झेल्याच्या निमतान

कोंकणी साहित्यीक संवसारांत बाल साहित्याचो सुरवेक बरोच दुकाळ आसलो अशें बरयल्यार कोणीय राग धरचो न्हय. ती एक इतिहासीक वस्तुस्थिती आसली. भोव पयलीं साकून बाल साहित्याची निर्मणी जाताली, अशें म्हणून आमी आमचीच फाट थापटोन घेवपाचे दीस आतां फाटीं पडल्यात. बालसाहित्याच्या ह्या दुकाळांत सुरवेक कांय वेंचीक साहित्यिकांनी व्हडा लागणुकेन योगदान दिल्लें आसा.

**कोंकणींतलें बाल साहित्य : आरंभ आनी उदरगत -**

कोंकणी भाशेंत बाल-साहित्याची परंपरा सादरण 18 व्या शेकड्याच्या दुसऱ्या अर्धांत सुरू जाली. बारांद कुंभारजुआ आनी तोमास मौरांव हाच्यांनी भुरग्यांखातीर पयलें मुळावें पुस्तक तयार केलें. तांचे उपरांत कोंकणीचे 'कर्तृत्वी पुरूश' (म्हापुरूश न्हय). शणै गोंयबाब हांणी तांच्याच (बारांद कुंभारजुआ आनी तोमास मौरांव हांच्या) पुस्तकाचो आदार घेवन 'भुरग्यालो इश्ट' हें म्हत्वाचें पुस्तक बरोवन उजवाडा हाडलें. आनी अशे तरेन कोंकणी बाल-साहित्याचो आरंभ जालो.

शणै गोंयबाबान भुरग्यांलो इश्ट, जादुचो जुंवो, भुरग्यालें व्याकरण, आचार्य रामचंद्र शंकर नायकान भुरग्यालो वेद, काशिनाथ श्रीधर नायक (बयाभाव) देखदिण्यो काणयो, चंद्रकांत केणीन फुलांचो हात, रवींद्र केळेकारान नवी शाळा, अ. ना. म्हांबरो हांणी घुमचेकटर घूम सारक्या बाल-साहित्यांतल्यान ह्या मळार फुडाराची दिशा थरोवपाचो यत्न केल्लो. आयचे घटकेक जायते ल्हान-व्हड लेखक बाल-साहित्याच्या निर्मणेक हात-बोट लायताना दिश्टी पडतात. ह्या वावरांत सुनापरान्त (आमी पिकेन) बिम्ब (भुरग्यांलें आंगण), आकाशवाणी (किलबील), आनी गुलाब, राखणो, जैत, कोंकण टायम्स ह्या सारक्या म्हयनाळ्यांनीय बाल-साहित्याक सदांच पोसवण दिल्ली आसा.

तेभायर गोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, केरळ

कोंकणी अकादेमी, कर्नाटक कोंकणी अकादेमी, थॉमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्र, राजहंस प्रकाशन, श्रीहरी प्रकाशन, जैत प्रकाशन, जाग प्रकाशन, नामी प्रकाशन, ओम दत्तपद्मजा प्रकाशन, स्नेह प्रकाशन, पियुश पब्लिकेशन ह्या संस्थानी बालसाहित्याक खेरीत फाटबळ दिलां. तातूंतल्यानूच नवे नवे बरोवपी ह्या मळार वावरूंक लागल्यात. काणया झेले, नाटकुलीं, बालनवलिका, गीत-काणी, बाल-कविता, हांसयाळीं, बाल-निबंद, एकपात्री, अशे जायते प्रकार कोंकणींत प्रसिद्ध जायत आसात. आयज 21 व्या शेकड्यांत पावल दवरता आसतना कोंकणी बाल-साहित्याची एक लांबादीक परंपरा चलत आयिल्ल्याचें दिसून येता. तिचेर सविस्तर नदर मारल्यार हे संबंदी साबार प्रस्नांच्यो जापो मेळटल्यो. त्योच जापो सोदपाचो हो यत्न.

कोंकणींतल्या बाल-साहित्यांत सकयल दिल्ल्या बरोवप्यांनी योगदान दिलां - कुमुदिनी केळेकार (अलिबाबा आनी चाळीस चोर, हात लायता ताचें भांगर, बॉबी बाजारांत वता, अबुखानाची बोकडी, तांकां दिलें तें म्हाका पावलें, एकदा शिकलो शिटकावलो, कांणयोच काणयो, वेताळ पंचविशी, मोची आनी देवदूत), संजीवनी केळेकार (नेहरू चाचा, जोक्स, नवे जोक्स), कमलादेवी राव देशपांडे (काणयो, गिझबिझलें, चिरमुल्यो), महाबळेश्वर सरदेसाय (इसापाच्यो काणयो, महाभारत, सामकीं बाबत रे कुळां, सुरबूस काणयो - 1, 2), शांताराम हेदो (बापू, मदलो पूत), डॉ. पुष्पा पै (नवी वळख), डॉ. मनोहरराय सरदेसाय (भांगराची कुराड, माणकुलीं गीतां, माणकुलीं कवनां, आयज रे धोलार पडली बडी, मनोहर गीतां), र. वि. पंडीत (गोड गोड कोणयो-1,2, रामायण म्हाभारतांतल्यो कथा), कृष्णनाथ अळवणी (आमी सगळीं देड शाणीं), लुसियो रोड्रीगीश (जमयल्ल्यो काणयो), सुरेश काकोडकार (एलीस आनी ताचो अप्रूप संवसार), शिवानंद रिवणकार (नाना शंकरशेट), महाबळेश्वर बोरकार (अशी काणी राजा राणी, सांतानाची पिल्लूक), स्वामी सुप्रियान (माणकुलीं पदां), डॉ. विनायक मयेंकार (आफ्रिकेंतलो शींव), प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय (रामग्याली वागा भोंवडी, पापडा कवळ्यो), विजयाबाय सरमळकार (कवन काणी,

गांठलें, कवनुलां), डॉ. अनंत राम भट (ऊठ दांड्या लाग फाटीक).

रवींद्र केळेकार (नवी शाळा, राजा राणी, कथा आनी काणयो), गोदुबाय केळेकार (वसवसो पेहोम), बाकीबाब बोरकार (गीतां प्रवचनां, गीता, भगवान बुद्ध, पैगंबर), गुरूनाथ केळेकार (अरेबीयन नायट्स, बावल्यांचो पसरो, इश्टागत, गाढव जेन्ना राजा जाता, घोंटेर, इसाप कथा, मार्गाची काणी, महाभारतांतल्यो कथा, श्रीकृष्ण कथा), आलॅक्स गोयश (खळार मळार), जयवंत कपिलेश्र्वरी (मास्टर दिनानाथ), डॉ. भिकाजी, घाणेकार (पिकनीक, खेळणीं, हावेस, चाचा नेहरू, अमरगीतां), अभयकुमार वेलिंगकार (बर्फाचें जग, चंद्रशेखर आझाद, कोंगी, गजाची मजा, क्रांतीवीर सावरकर, कुमार गीतां, माकडाची मजा, पिसाय), शिरिष भोबे (कागदाचीं व्होडीं), अशोक कामत (सुर्यपूत सुभाष, अशोकांकी), डॉ. नंदकुमार कामत (आमच्या गोंयचो इतिहास), डॉ. अरूण हेबळेकार (आर्यभट्ट, नवो सोद), पुरुषोत्तम सिंगबाळ (बिरबल -1, 2), गजानान जोग (गोपी, वर्स फुकट वचूंक ना), तुकाराम शेट (गोंयचीं बालगीतां), अजीत मोयो (फुटबॉल), सुधा आमोणकार (दर्या गाजयलो), दिलीप बोरकार (वर्गशत्रू, दर्यासुंदरी, अशांत सुशांत, मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडीं, पिन्टूची काळभोंवडी, पिसो लाडको आनी शाणों पाडको, रांवस पावलो दुबय), उल्हास रायकार (बोमो द ग्रेट), अमिता फळदेसाय (सूरश्री केसरबाय), डॉ. ओलिविन्यू गोमिश (सुपुल्लो काणयां पांट्टलो, भारत आमचो देस, डॉ. फ्रां. लू. गोमिश), रामकृष्ण जुवारकार (बोधकथा - 1, 2, 3), प्रो. श्याम वेरेकार (कुंडेकुरस्कूट), गुरूदास बांबोळकार (चोराची टोळी), डॉ. तानाजी हळर्णकार (करामत दोन सोंश्यांची, ख्यास्त), दामोदर मावजो (खोमसाची काणी, बाबूलो, ऊंच हावेस ऊंच माथें, अशे घडले शणै गोंयबाब, चित्तरंगी), रमेश वेळुस्कार (भुंक भुंक भिशू, चानीमामा, फुलपाकुलें, कवनां), पुंडलीक नायक (रान सुंदरी, आळशाक वाग खातलो, मनू, एक कवनकाणी), भरत नायक (पड रे पावसा पड, शाणुल्या गुणुल्या, बॉबी न्हिदता तेन्ना, एक कवी लाखा धनी, भेरें भेरें टुणटुणें) डॉ. पांडुरंग फळदेसाय (आटलाक पेंटलांक), एन. शिवदास

(झरो जालो महासागर, बाबू), डॉ. विजय थळी (भाटकाराचो कान), मीना काकोडकार (साळकांतलो जादूगर), नागेश नायक वाडिये (लसूण कांद्या झगडें, किरा मोरा चानये पिला), वसंत भगवंत सावंत (कीर मोर), डॉ. प्रकाश पर्येकार (इगडी तिगडी बिगडी था, कोल्याचीं नाडेपेन्नां) ......

ही वळेरी तशी मारूतीचे शेपडे भशेन बरीच लांब वचूं येता पूण हांगा ह्या वळेरेक थांबयता. कारण स्पश्ट आसा. शणै गोंयबबाब हांचे कडच्यान आरंभ जाल्ली ही बाल साहित्याची पालखी डॉ. प्रकाश पर्येकार हांचे मेरेन हाडून थारोवपाचें कारण स्पश्ट आसा. दिल्लीचे साहित्य अकादेमीन जाहीर केल्लो बाल साहित्याचो पयलो पुरस्कार डॉ. प्रकाश पर्येकाराच्या इगडी बिगडी तिगडी था ह्या बाल नाट्याक फाव जालो. ते नदरेन व्हडा नैतिकतायेन कोंकणीच्या बाल साहित्याची ही पालखी थंयसावन अधिकारान आनी जापसालदारकेन मुखावयले साहित्यीक पिळगे कडेन पावता हे सत्य कोणी न्हयकारपाक सुवात ना.

वयले वळेरेंत बाल कविता, माणकुलीं बाल-कवनां, कथा-काणयो, नाटकुलीं, चरित्रां, बाल-गीतां, विनोदांचें संकलन, बाल-निबंदांचें संकलन, परीकथा, पुराण-कथा, इतिहास-कथा, साहस-कथा, प्राणी-कथा, बोध-कथा.... आदी प्रकारचें बाल-साहित्य आसपावीत जाल्लें आसा. त्या वळेरेंतल्या पुस्तकांचो अभ्यास केल्यार दिसता; चित्रबोध ते अक्षरबोध मेरेनचो कोकणी बाल-साहित्याचो प्रवास तसो शास्त्रशुद्ध पद्दतींत जालो अशें मात केन्ना जोलें ना. बेवारशीं तण वाडचें तशें तें वाडत गेलें खरें पूण खासा कोंकणी बरोवप्यांनी स्वताकूच घातिल्ल्या अनुशासनांतल्यान तें शिस्तींत वाडत रावलें. ह्या बालसाहित्याच्या प्रवासाचेर नदर मारीत जाल्यार बारांव कुंभारजुआ, तोमास मौरांव, शणै गोंयबाब सारक्यांनी कोंकणी बाल-साहित्याक दिल्ली शिस्तबध्दता आयुनूय आपली वाट चुकनासतना मुखार चलता. पूण फकत वाट चुकनासतना चल्ली म्हूण आखिल्ली मोख साध्य जाताच अशें ना, ते खातीर केन्ना केन्ना नव्यो तश्योच पेजाद वाटो सोदून काडच्यो पडटात. कोंकणींत काळाप्रमाण त्यो वाटो सोदपाचें कार्य हालीं

जावंक लागलां.

21व्या शेंकड्यांत नव्या तंत्रज्ञानाच्या आदारान आनी विज्ञानीक दृश्टाकोनांतल्यान बालसाहित्य भुरग्यांचे भेटेक येता हीच ती नवी वाट. हे नवे वाटेर अशोक भोसलो, माया खरंगटे, नयना आडारकार, रजनी भेंब्रे, किरण म्हांबरे, सतीश दळवी, सिरील फेर्नांडीस, जयमाला दणायत, तुकाराम शेट, डॉ. भिकाजी घाणेकार, सुधा खरंगटे, दीपा मुरकुंडे, रजनी भेंब्रे, डॉ जयंती नायक, प्रशांती तळपणकार, जेम्स फेर्नांडीस, रत्नमाला दिवकार, एन. सुहास, डॉ. उदय गांवकार, डॉ. हनुमंत चोपडेकार, प्रसाद तु. सावंत, कुमुद नायक, दिनेश मणेरकार, वसंत भगवंत सावंत, सुनील पालकार, रामनाथ गावडे, अलका सिनाय असोल्डेकार, ब्रेंडा मिनेझिस, ग्वादालुप डायस, हर्षा शेटये, सरस्वती दा. नायक, दिनकर मुरकुंडे, पुष्पा गायतोंडे, डॉ. विद्या प्रभुदेसाय, शैला प्रमोद प्रभुदेसाय, प्रो. राजश्री बांदोडकार-कारापुरकार, मिशॅल फेर्नांडीस, रत्नमाल दिवकार, रेखा रामनाथ नायक, सुशीला हळर्णकार, डॉ. राजय पवार...... आदी साहित्यीक नव्या विज्ञानीक आनी प्रॅक्टीकल दृश्टीकोनांतल्यान बाल-साहित्याची रचना करताना दिसतात. हेर भारतीय भासांनी तशेंच संवसारभरच्या भासांनी प्रसिद्ध जावपी दर्जेदार बालसाहित्य कोंकणींत येवपाक लागलां अशें ताचे वयल्यान म्हणूं येता.

भुरग्यांच्या भावनीक विश्वा वांगडाच तांच्या मानसीक वा वैचारीक विश्वाक घटाय हाडून तांचेमदीं विज्ञानीक नदर केळोवपाचो यत्न आयचे कोंकणी बाल-साहित्यकार करूंक लागल्यात ते संबंदी हांगां कांय देखी दिवं येतात -

**1) श्रीकांत शंभू नागवेकार हांचें 'खगोलशास्त्रीय नाट्यागण' हो नाट्यानुभवांतल्यान खगोलसास्त्रीय म्हायती दिवपी बालनाट्यांचो झेलो.**

**2) डॉ. प्रकाश पर्येकराचें 'इगडी बिगडी तिगडी था' हें सैमाकडेन नातें जोडून समाजीक आनी पर्यावर्णीय जाणविकाय भुरग्यांमदीं वाडोवपी बालनाट्य.**

) दीपा मुरकुंडे हांचें 'सांगात म्हजें नांव', 'सांगतां मनांतलें' हीं पक्रमशील तशेंच प्रत्यक्ष भुरग्यांक खाशेल्या स्वाध्यायांत ासपावून घेवपी बालसाहित्याचीं पुस्तकां.

) प्रसाद तुकाराम सावंत हांचें बालगीतांच्या सादरीकरणांतल्यान ाल्माक आयिल्ली 'राम राय साय सुटल्यो' ही प्रयोगशील बाल-ुस्तिका.

5) 2012 वर्सा पियूश पब्लिकेशन, फोंडें हांच्यानी उजवाडायल्लो कोंकणींतलो पयलो रंगीत-चित्रमय असो सतीश दळवी हांचो 'चिरमुल्यो' हो बालकाणयांचो झेलो.

6) 2016 वर्सा डॉ. राजय पवार हांणी रचिल्लो 3 डी (3D) चित्रकथेचो 'सैम आनी रुखमारो' हो कथा झेलो.

## चिरमुल्यो : सतीश सरांचो दर्ज्यात्मक प्रयोग

'चिरमुल्यो' हें सतीश दळवींचें बालकाणयांचें 66 पानांचें पुस्तक. ताची खाशेलताय म्हणल्यार, बाल-साहित्याचें इतलें दर्जात्मक पुस्तक हाचे पयलीं कोंकणींत येवंक नाशिल्लें. हें म्हजें प्रामाणीक मत. ह्या झेल्यांतल्या काणयेंतलीं कथानकां, आशय-अभिव्यक्ती, भुरग्यामनाक चुटपुटे लावपी चुटचुटो संघर्श आनी कथानकाक प्रभावीपणान मुखार व्हरपी उत्कृश्ट चित्रां, हांकां लागून हें पुस्तक भोवूच परिपक्व जालां. पियुश प्रकाशनानूच 2012 वर्साच उजवाडायल्लें परयांचो देस हें रत्नमाला दिवकाराचें पुस्तक ह्याच परंपरेन वाचकाचे भेटेक येता. खंयचोय माणकुलो भुरगो पळयताच तें पुस्तक हातांत घेतलो आसो भरंवसो पुस्तक दिता.

कोंकणी बाल-साहित्याच्या इतिहासाक नवें वळण दिवपी चिरमुल्यो ह्या झेल्याविशीं मुजरत बरयन दिसता. तातूंत वट्ट 14 काणयो आसपावल्यात. सप्तरंगी रंगांनी आनी कलात्मक शैलींत ह्यो कथा अवतरल्यात. म्हाका चडूच प्रभावीत करपी नाविन्यांत भरिल्ली एक गजाल... ह्या झेल्यांत सुरवेक मांडावळींत एक नवो प्रयोग केला.

चवदाय कथेंची चित्रमय सुलूस त्या मांडवळींत आयल्या. दसरो ह
पयली काणी धरून शिटूक कावळो ह्या निमण्या काणये मेरेन सगळ्
काणयांची संक्षिप्त चित्रावळ हें मांडवळींतलें व्हड आकर्शण आसा. कशें
प्रत्यक्षांत पुस्तकांत पळोवपाचें.

सतीश दळबी हांणी हाचे पयलीं हावेस - 1, 2, हरीश पिरि
आनी देंवचार आनी आतां चिरमुल्यो अशीं बाल-साहित्याचीं पुस्तक
उजवाडाक हाडल्यात. गोंयच्या शिक्षणीक मळाचेर ते फाटलीं 30-4
वर्सां वावूरतात. एक शिक्षक, मुख्याध्यापक, पर्यविक्षक, मार्गदर्शक अश
तरेकवार भुमिकांनी तांणी सरस्वतीची सेवा कल्यात. मुळांत तांचो विशय
गणित, पूण कोंकणी भास आनी अध्यापनांत सुसुत्रताय हाडचे खातीर ते
तळमळीन वावूरल्यात. भुरग्यांच्या मानसशास्त्राचो बरोच अभ्यास तांणी
आपल्या प्रदीर्घ अणभवांतल्यान जोडला देखून तांचें बालसाहित्य
भुरग्यांक सहजपणान मानवता आनी आपलेंशें दिसता. चिरमुल्यो ह्या
काणयाझेल्यांत भुरग्या मनांचेर शेक गाजोवपी कथा आसात. 'दसरो,
हुंदीरमाम आनी हेंवाळें, कावळो बुद्द शिकलो, कोलो बुद्दीन बोलो,
माजराक घुंवडायलें, मायेस्त जिमी, म्हातारो कोलो, वांस्वेल नाचूंक
लागलें, परी पावली, धोडयारो, शिटूक चानी, टायगर, पारव्यांची
इश्टागत आनी शिटूक कावळो' ह्यो त्यो 14 काणयो. ह्यो साबार काणयो
पारंपारीक कथनाच्यो फास्क्यो मोडटात. काणी सांगताना कथनात्मक
शैलींत बरोवप्यान नाविन्य हाडपाचो यत्न केला. संवाद आनी
निवेदनांत ही नाविन्यता चड प्रमाणांत दिसता. पयलेच कथेचो आरंभ
पळयात - बें ऽऽ बें ऽऽ मांय ऽऽ गेऽऽ, बेंऽऽ, बोकडे पोर एक सारखे
आवयक उलो मारूंक लागलें. तेवटेन शेता बांदार फुडले दोके वयर कून
झोपांच्या खांदार तेंकोवन तेंगशे वयल्यो कोमऱ्यो खावपांत गुल्ल
आशिल्ले बोकडेन ताचो उलो आयकलो आनी जाप केली - बें ऽऽबें ऽऽ.
(पान - 13)

ह्या काणया-झेल्यांत प्राणी कथा (Animals Stories) चड
प्रमाणांत आयल्यात. तातूंत बोकडी, हुंदीर, कावळो, चिमणी, कोलो,
माजर, कुत्रो, वांस्वेल, नुस्तें, धोडयारो, शेंवटो, हरण, सोंसो आदी

जनावरांचो भुरग्या काळजाक होरोवपा खातीर भोव कलात्मक उपेग केल्लो आसा. ह्या काणयांतली एक नोंद घेवपा सारकी गजाल म्हणल्यार तातूंतले प्राणी भुरग्यांच्या पारंपारीक आनी पुर्वापार समजांक एक नवी नदर दिता.

पयलींच्या काणयांतलो कोलो हो आपमतलबी, सुवार्थी, विश्वासघातकीच आसतालो. न्हय म्हणल्यार तो तसोच आसूंक जाय असो साबार संवसारांतल्या बरोवप्यांचो भावार्थ आसलो. कावळो, हुंदीर हांचोय पयलीं सांगिल्ले प्रमाणूच दुश्ट सभावधर्म आसपाक जाय आसो अलिखीत नियम चलतालो. पूण ह्या झेल्यांतल्यान बरोवप्यान तो समज कुशीक काडून एक नवी नदर वाचपी भुरग्यांक दिवपाचो यत्न केला. कोलो, कावळो, हेवाळें, हुंदीर हांकां ब्लॅक लिस्टांत घालपाची भुरग्या-साहित्यांतली नश्टी चाल ह्या बरोवप्यान हांगां मोडल्या. सगळ्या जीव-जंतूंक वा प्राणीमात्रांक सैमाचोच एक वांटो समजुपी सतीश दळवीच्या काणयेंतलो हो विचार भोवूच विज्ञानीक आनी तर्कशुद्ध दिसता. ताच्या काणयेंतलो कोलो निश्चितूच बुदवंत आसा पूण आपली तिख बुध्दी तो हेर जनावरांच्या बऱ्याखातीर वापरता. हेरांच्या जिविताचो आनी बलायकेचो हुस्को करपी हो कोलो भुरग्यांक नवी शिकवण दिता.

शिटूक कावळो ह्या काणयेंतलो कावळोय तसोच आपले शिटूकसाणेन हुमऱ्यावयल्यान सकयल पडपी भुरग्याक शिटूकसाणेन वाटयता. काकस्पर्श ह्या गोड विधीवत नांवान वैदीक काळा सावन वाळीत उडयल्ल्या कावळ्यांक खासा आमी मनशान दिल्ल्या शापांतल्यान पयलेच फावटीं ह्या बरोवप्यान आध्यात्मीक मुक्ती दिल्या, अशें म्हाका म्हणन दिसता. हो विचार घडये हांगा बाल-साहित्याच्या वेदीचेर थोड्यांक असंस्कृत दिसत पूण अविज्ञानीक मात दिसूंक फावना.

दुसरो एक म्हत्वाचो मुद्दो म्हणल्यार, तसो जगांतलो खंयचोच कोलो वा हुंदीर वा वांसवेल ह्यो काणयो वाचप शक्य ना. खरें म्हटल्यात त्यो तांचे खातीर नासताच. काणयो रचतात मनीस. त्योय बी भुरग्या मनांक आनी अमुरपिक्या काळजांक बरे तरेन घडोवपाक. जनावरां,

जीव-जंतू बालमनांक आकर्शीत करता देखून तांचो आनी सैमाच्या हेर घटकांचो कलात्मक उपेग बरोवपी आपल्या बाल-साहित्यांत करीत आयल्यात. कोंकणी बालसाहित्यांतूय तो जातालोच. पूण सतीशबाबान एक पावल मुखार मारून विज्ञानीक दृश्टीकोन आनी सैमीक जाणीव भुरग्यामनांत केळयल्या. वयल्या विधानाक रजांव म्हूण ही देख दिवं येता - कोलो बुध्दीन भोलो हे काणयेंतलो एक जाण्टो कोलो म्हण्टा - 'भुरग्यांनो, मातशें पासयस काडात. काडली जीब लायली ताळ्याक करपाक आमी मनीस न्हय. आमी रोग जाल्ल्या कोंबयांक हात पसून लावचे नात म्हणपाचो सोपूत घेतला, म्हणटकच आमचो प्रस्नूच ना. पूण तांणी त्यो कोंबयो रानांत उडयल्यो आनी बाकीच्या जनावरांनी खाल्यो जाल्यार.... तांच्या संपर्कांत आमकांय तो रोग जावं येता. सगळ्या रानवस्तीचेर हावळ येवं येता. तेन्ना आमी सगळ्या. जनावरांक सादूर करून रानाची राखण करूंक जाय.' (पान 27)

'चिरमुल्यो' हो काणयाझेलो तसो सोबीत काणयांनी आनी सुरबूस चित्रांनी भरिल्लो आसा. (सुरबूस काणयांनी आनी सोबीत चित्रांनी न्हय). हें थोडें उरफाटें मांडटा कारण तशें मांडल्यारूच तुमी ताचेर विचार करतल्यात. तशे आमचे बाल-वाचक हो लेख वाचचे नात हें हांव जाणा. म्हण्टकच हें सगळें सुजाण वाचकाक वा कोंकणी अभ्यासकाक; 'ह्या झेल्यांतली दर एक काणी हेरां परस वेगळी आसा. नितळसाणेचें मोल सांगपी 'परी पावली' ही काणी आसूं, हार उडटा म्हूण गांयडोळ उडचो न्हंय ह्या ओंपारेचो दिश्टावो दिवपी 'धोडयोरो' ही काणी आसूं, सुणो आनी माजराच्या देखींतल्यान इश्टागतीचें म्हत्व मांडपी मायेस्त 'जिमी' ही काणी आसूं नाजाल्यार अती थंय माती हें तत्वगिन्यान दिवपी 'वांस्वेल नाचूंक लागलें' ही काणी आसूं' सगळ्योच काणयो एका परस एक परिपक्व जाल्यात. हो झेलो दर एका पालकान भुरग्याक हाडून दिवचोच आनी आपणेंय वाचचो.



## 10. सुशीला हळर्णकाराची पर्णकुटी : सात्विक मनिसपण जागोवपी काव्यपटी

कोंकणी साहित्याच्या मळार कोंकणी कवितेक एक खेरीत अशी सुवात आसा. कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेची मुळावी चळवळ कोंकणी काव्यांतल्यानूच रूजवणाक आयिल्या. कारण बयाभाव, अभिजीत, बाकीबाब, मनोहरराय, चा. फ्रां. डिकोश्टा सारक्या प्रतिभावंतांनी घातिल्ले बुनयादीक वावरांतल्यान स्फूर्त घेवन जशे नागेशबाब, विजयाबाय, रमेशबाब, प्रकाशबाब, माधवबाब, जॅसबाब, युसूफबाब, मोरायशबाब घडले, तशेंच तांच्याय पावलांचेर पावल दवरून आयच्या काळांत जायते नवे कोंकणी बरोवपी कवितेच्या मळाचेर उमेदीन वावुरताना दिश्टी पडटात. तातूंतलेंच एक सुशिक्षीत तशेंच सुशील नांव म्हळ्यार सुशिला हळ्णकार.

सुशिलाबाय फांटलीं कितलिंशींच वर्सां शिक्षणा सारकें पवित्र कार्य व्हडा आत्मियतायेन करता. एक विद्यार्थीप्रिय शिक्षिका म्हूण ती फामाद. तिची काव्यसाधना फांटलीं कितलींशींच वर्सां सेगीतपणान चालू आसा. स्वता प्रसिद्धी परस कुशीक रावन अतिशय शांतपणान आपल्या वाट्याक आयिल्लें दर एक काम तळमळीन करपी सुशिलाबायच्यो कविताय तांच्या व्यक्तित्वाची सहजतायेन वळख घडयता. तिची कविता मातयेकडचें नातें साबाळून समाजीक जाणिवेन अस्वस्थ जातानाच मनीसपणाच्या मेडीनी उबी राविल्ली सात्वीक पर्णकुटी शाकारता. गोंय, गोंयची भूंय, भास, भौस, मनीस, मनीसपण, मानवीं संवेदना, वासना, आशा, हावेस, सैम, सैमीक दिश्टावो, जल्म, मरण, अश्या साबार विशय-आशयांचेर रचिल्ल्यो उत्कृश्ट कविता ह्या झेल्यांत आसपावल्यात.

**करूया जयजयकार**
**आमी करूया जयजयकार**
**मायभुंयेचीं सपनां आमकां**

## करचीं आसात साकार

(मायभूंय)

अश्या उतरांनी मांयभूंयेच्या सपनांक साकार करपाचो हावेस जे तरेन वयल्या प्रार्थनास्वरूपी कवितेंत दिश्टी पडटा तसोच हावेस कवियत्रीच्या हेर जायते कवितेनी दिसून येता. कोंकणी, शाळा..... शिकवण, मातयेचें मोल ह्या कांय वेंचीक कवितेंतलो तो स्वर नीज आस्मितायेची लागणूकं जावन अभिव्यक्त जाता. तशें पळोवंक गेल्यार दर एका कोंकणी कवीन राष्ट्रवादी आनी देशभक्तीभर कविता रचल्यात. शणै गोंयबाब धरून आतांमेरेनच्या सगळ्याच बरोवप्यांची देख ते पासत हांगा दिवं येता. पूण मातयेचें मोल जे तरेन सुशिलाबाय दाखोवन दिता ती तरा मात निखालस वेगळी. मातयचें मोल हे कवितेंतल्यान हें वेगवेळेंपण अशेतरेन सिद्ध जाता

**मातयेंतल्यान ओमकाराचें**
**रूप साकारचें**
**मातयेंतल्यानच अनंताचें**
**दर्शन घेवंचें**
**मातयेंतल्यानच दिव्यत्वाचें**
**स्वरूप पळोवचें**

(मातयेचें मोल)

सुशिलाबायच्या पर्णकुटींत कितें आसपावलां हाची उस्तवारी करतलो जाल्यार पर्णकुटीच्या अंतरंगांत भितर सरचेंच पडटलें. भितर सरतकच सगळ्यांत पयलीं वळख घडटा ती कवियत्रीच्या संवेनशील, भावूक तशेंच सात्वीक मनोवृत्तीची. देखूनूच पर्णकुटीत त्या मनोवृत्तीचें तशाक तशें पडबिंब पडिल्लें दिसून येता. यातना, कृतज्ञताय गोड उतरां, अपेक्षा, आत्मविश्वास, वात, तारेवयली कसरत, बरें फळ, प्रवाह, ऋणानुबंध, पण्टेचो उजवाड अश्या जायत्या कवितेंतल्यान तें रसीकमनाक भुलयता. देखीक-

**शाळेन म्हजे दिलां**
**म्हाका संस्काराचें गांठलें**
**उगडटकच रोकडेंच हांव**
**शाळेंत म्हजें पावलें**
(शाळा... शिकवण)

**पावला कणकणी घडटात**
**प्रारब्धाच्यो भेटी**
**अथांग माया सागरांत**
**ऋणानुबंधाच्योच गांठी**
(ऋणानुबंध)

जिणेच्या पावला वाटेर सत्कर्माच्या तेलान सद्‌सद्धिवेकबुध्दीची वात लावन आनी गिन्यानाच्या उजवाडान जल्म मरणाचें कुंवाडें सोडोवपी पर्णकुटींतली दर एक कविता काळखांतल्यान उजवाडाकडेन वचपाची स्फूर्त दिता हें मात निश्चीत.

सुशिलाबायच्यो कविता अभ्यासतना म्हाका तीन महान विव्दानांचो दिश्टावो घडटा. 'ती पालोव नाका जोत, तुका जोडले दोनूय हात' अशी मागणी करपी बयाभावांचो.... श्यामची आई नांवाची अभिजात आनी अज्रांवर साहित्यकृती रचून समेस्तांक संस्कारसंपन्न जिणेचो आदर्श घालून दिवपी साने गुरूजींचो..... आनी 'काळजांतली भक्ती काळजांत धरना तेन्ना ती कलेंतल्यान उक्ती जाता' अशें मानपी कोंकणीक ज्ञानपीठ मेळोवन दिवपी तपस्वी बरोवपी रवींद्रबाब केळेकरांचो...... ह्या तिनूय बरोवप्याचें कितलें वाचन सुशिलाबायन केलां तें म्हाका खबरना, पूण तिच्या कवितेंतल्यान व्हांवपी अंतप्रवाह वयल्या त्रिमुर्तिंच्या अलौकीक तत्वगिन्यानाचो माघ घेता.......

**कापसाची वात**
**आपूण जळटा**

**दुसऱ्याक उजवाड**
**दियत रावता**
(वात)

**हे जल्मदात्री**
**तुज्या संस्काराच्या वण्टींनीच**
**मन म्हजें घडटां.....**
**शांती सुख समृध्दीचें**
**वरदान म्हाका मेळटा**
(मानसपुजा)

**काळजांतलें दुख्ख**
**काळजांत धरना**
**जालें म्हणटकच**
**दोळ्यांतल्या दुकांनी**
**उत्कें जाता**
(इत्सामरण)

तेभायर विद्यादाना सारकें पवित्र कार्य करपी एक निष्ठावंत शिक्षिका प्रखरतायेन पर्णकुटींतल्यान स्पश्ट जायत वता. पर्णकुटी भोंवतणीचे सैमीक उमाळेय शब्दरूपान वाचकांच्या भेटेक येताना कवियत्रीच्या प्रतिभेचो साक्षात्कार करून दिता. हे सैमीक उमाळे केन्ना गोड उतरां जावन पारजावरी फुलांचो शिताडो घालता जाल्यार श्रावणाची व्हडविकायं गायन वसुंधरेच्या सृजनात्मक अभिव्यक्तिचो सुगंध काळजाच्या दर्यादिगेर फाकयता. दोळ्यांत भरता.... उदेंतेचे, अस्तमतेचे सप्तरंग तिच्या शब्दाशब्दांतल्यान व्यक्त जातात.... शेवण्या सुकण्यांनी भुपाळी गायिल्लेभशेन तिवूय गावंक लागता.....

**आंगणांतल्या पारजतान**

**रांगोळी सजयली**
**जाया जुयांच्या परमळान**
**सृश्ट भारावली**
**गुलाब मोगरे कळी**
**अळंग फुल्ली**
**दारांतली तुळस तर**
**प्रसन्नतायेन हांसली......**
**सैमाच्या ह्या दिश्टाव्यान**
**म्हजीय पर्णकुटीं**
**नतमस्तक जाली**
(सैमदिश्टावो)

पर्णकुटींत जसो सैमीक उमाळो उफाळटा तसोच मोगाचो उत्फर्कोय खतखतून शब्दरूप घेता. पूण ह्या मोगाच्या उत्फर्क्याक वासनेचो पोजडो वास निखालस मारीना.. हांगा नदरेक भरता तो त्यागाच्या सान्यान फाकारत वचपी मोगाचें आनी इश्टागतीचें निस्वार्थी नातें. हांगा जाणवता तो सैमाच्या विंगड विंगड घटकां मदलो भावसंबंद. ह्या भावसंबंदाचो प्रतिकात्मक तसोच कलात्मक वापर पर्णकुटींतल्या उत्फर्क्यांनी कळतनकळटाच केल्लो जाणवता. देखीक -

**कांट्यांतल्यान गुलाब फुल्लो**
**चिखलांतल्यान कमळ फुल्लें**
**तुज्या म्हज्या नात्यांत.....**
**किसर कित्याक उरलें....**
(तुजें म्हजें नातें)

मोगाचीं विविध रंग-रूपां पर्णकुटींतल्यान आमच्या भेटेक येतात. तातूंत सात फेन्यांच्या पवित्र बंधनान सात रंगांनी भरिल्लो

सातजल्माचो विश्वासाच्या उदकाचेर जगपी मोग, सत्कर्माची आनी सोशीकतायेची मर्यादा घालून दिवन पुराय घर-परिवाराक एकठांय दवरपी मोग, मायेची सावळी घालून स्वताच्या दुधाधारेचेर आमच्या अस्तित्वाची पर्णकुटी घडोवपी जल्मदात्रीचो मोग. अशा साबार मोगांचो आसपाव जाता.

सुशिलाबायच्च्या कवितेंत आयच्या आर्विल्ल्या विज्ञानीक युगांतले कांय धगधगते प्रस्न तकली वयर काडटाना दिश्टी पडटा. मनशां मनशांमदलें आत्मकेंद्रीपण, सुवार्थी वृती, तशेंच म्हारगाये सारके प्रस्न सतायतात. दिसान दीस शार नांवाचो नरकासूर आपले हात पांय पसरता आनी हांगासल्लो भूंयपूत आपले अस्मिताये खातीर धडपडटा. हाचें वास्तवीक चित्र उबें करताना कवियत्री म्हणटा -

**जण एकल्यान हांगा**<br>**आपलें मन बांदलां**<br>**उंच उंच इमारतींनी**<br>**मनशाचें मनीसपण शेणलां**<br>(शारांतले मनीस)

सुशिलाबायची कविता जल्मापयलींचें आनी मरणा उपरांतचें गुपीत सोदपाचो यत्न करता. जिणेचें हें न सुटपी कुंवाडें सोदपाचो तिचे कवितेक छंदूच लागला. ह्याच छंदांतल्यान मरण येतकच, सर्ग नरक, जिणेचें कुंवाडें, इत्सामरण, प्रवाह सारक्या कवितेंची रचना जाल्ली आसा. कवियत्री मरणाचो संदर्भ घेता पूण तिका जिणेची वांसा ना म्हूण न्हय तर मानवी भावभावनांचो आनी जिणेच्या गुपितांचो वेद घेवपी तिचो एक वैचारीक प्रवास चालू आसा. सगूण साकार, निगूण निराकार अशा त्या अदृश्ट आनी अस्पश्ट शक्ती कडेन आमची ही पंचमहाभुती पर्णकुटी नतमस्तक करपी ही कविता कोंकणी कवितेची नवी वळख जावन आसा. पर्णकुटींतली कविता चडशी छंदाच्या भानगडीक पडना पूण प्रतिमां, प्रतिकां, अलंकार हांचो सोस तिका आसा. गोंयच्या संस्कृतींतलीं आनी समाजांतलीं जायतीं प्रतिकां पर्णकुटीक सोबाय हाडटा.

आपलेंपणाचें तेल, उमेदीचीं ल्हांरां, मनाची पर्णकुटी, पांचवी कीड, सैमैचें आंगण, मातयेचें खाजें, मायेची पेटती वात - हीं प्रतिमां, प्रतिकां जाल्यार यमक, उत्प्रेक्षा, उपमा, अनन्वय, चेतनगुणोक्ती, दृष्टांत, दिपक अश्या साबार अलंकारांचो कलात्मक उपेग पर्णकुटींत जाला.

वगीच समाजीक अन्याय अत्याचाराचेर आड्ड्यो मारपी, स्वता कांयच करीनासतना बडयो मारपी अतिरंजीत आनी भन्नाट कवितेपरस ही कविता वेगळी... तिच्या भितर जबरदस्त भक्ती आसा.... मानवी मुल्ल्यांची शक्ती आसा... आदर्श समाज रचनेची जादुई युक्ती आसा.....तरीय पूण ह्या पर्णकुटींत थोडोसो परिपक्वतायेचो उणाव आसाच. मांडावळीचें आनी उतरावळीचे संदर्भांतली ही वट उंचायली, व्यासंग वाडयलो आनी काव्यसाधनेंत सेगीतपण हाडलें जाल्यार निश्चितूच ही पर्णकुटी कोंकणी कवितेच्या मळबाक झोंपय मारतली हातूंत दुबाव ना. शालेय अभ्यासक्रमांत मानान वचूं येता इतली तांक तिच्यांत निश्चितूच आसाच आसा.

आशय विशय आनी अभिव्यक्तीचे नदरेन विचार केलो जाल्यार हांव म्हणन : मनीसपण जागोवपी सात्वीक, सोज्वळ काव्यपटी म्हणल्यारूच सुशिलाबायची पर्णकुटी.



# 11. गारणें : समाजीक जाणिवेच्या संवेदनशील मनाची विस्फोटक कविता

"The greatness of poetry lies in its interpretation about life.' - अशें मॅथ्यू आर्नोल्ड म्हणटा. काव्याचें व्हडपण ताचे भितर आशिल्ल्या जिविता वेल्या भाश्याचेर आदारून आसता. काव्यच न्हय तर संगीत, गायन, नृत्य, शिल्प, चित्र अश्या जायत्या अभिजात कलाप्रकारांतल्यान फिशाल कलावंत जिविताचें खरें सौंदर्य साकार करीत आसता. शाब्दीक कलाकुसर लाबिल्ली साहित्यकला ही लेगीत त्याच अलौकीक सौंदर्य निर्मितीक होरायता. स्पशटूच सांगचें जाल्यार, मानवी जिवनाचें वास्तवीक दर्शन घडोवपी साहित्य-लेखन ही खेरीत कलाच आसता.

साहित्यांतली सौंदर्यशिलता, साहित्यांतली कलात्मकताय, साहित्यांतली वास्तवताय, साहित्यांतली कल्पकताय आदी मुद्द्यांचेर जगांत जायते वाद-विवाद चलिल्ले आसात. पूण साहित्यांतल्या जिवनानुभुतीक आनी वास्तवतेक कोणूच न्हयकारूंक शकना. हांगा साहित्यांतल्या समाजीक संदर्भाक म्हत्व फाव जाता. साहित्य हें निमणें समाजा खातीरूच आसता. समाज-मुल्यां, जीवन-मुल्यां आनी नैतीक-मुल्यांचो पुरस्कार संवसारांतले साहित्यीक करीत आयिल्ले आसात. ताचेवयल्यान समाजांतली अनिशठता तशेंच कुरूपता नश्ट करपाचें कार्य साहित्य रचनेंतल्यान जांव येता अशें म्हणपाक सुवात आसा.

कितेंय काय आसना बऱ्या आनी दर्जेदार साहित्यकृतींचें गूणधर्म वयल्या चर्चेंतल्यान दिसून येतात. वाङमयीन मुल्यां अदीक समाजमुल्यां अदीक जीवनमुल्यां हांच्या समिकरणांतल्यान उत्कृश्ट साहित्यकृतीची निर्मिती जाता हो विचार संवसारांतल्या विव्दानांनी मानून घेतला. मागीर खऱ्या आनी बऱ्या साहित्यकृतीचें मर्म कितें..... घुस्पल्ले मानवी व्यवहार, तातूंतले साबार चड उतार, जगपाखातीर दिवचें पडिलें दिसपट्टे झूज, तातूंतले ताण-तणाव, विविध प्रसंगार मनशाच्या

काळजाची जाल्ली घालमेल, सदचे घुस्मटमार-संघर्श आनी तातूंतल्यान घडपी शाश्वत सत्याचें दर्शन हेंच खंयच्याय अज्रंवर साहित्यकृतीचें मर्म आसता. संवसारांतल्या अक्षर साहित्याचेर नदर मारीत जाल्यार दर एक आदर्श साहित्यीक त्याच शाश्वत सत्याचें तेंच दर्शन घडोवपाच्या प्रयत्नांत आशिल्ल्याचें नदरेक भरता. आमच्या भारतीय साहित्यकारां मदींय कळतनकळटाच तीच मोख आनी तेंच निमणें उद्धिशट मना-काळजांत भरिल्लें दिश्टी पडटा. आमचे ज्ञानपीठ पुरस्कार जैतिवंत साहित्यकार आनी हेरांनी त्याच वैश्वीक सत्याचो साक्षात्कार घडयला.

आयज भारतीय साहित्य प्रत्यक्षांत प्रादेशीक भासांतल्यान आपली खरी वळख घडयता. आमची कोंकणी भास धरून भारतांतल्या सगळ्या प्रादेशीक भासांनी उंचेल्या दर्ज्याचें साहित्य उजवाडाक येता हें नोंद घेय सारकें. तातूंत जेश्ठा वांगडा नव्या दमाचे नवे साहित्यिकूय आपलें खेरीत योगदान दितात.

आयचे हे घटकेक म्हज्या मुखार ह्याच नव्या दमाचे एक प्रतिभावंत युवा कोंकणी साहित्यीक आपलो नवोताल्ल कविता झेलो घेवन उबो आसा. एक सर्वसामान्य भाशीक साहित्यीक कार्यकर्तो, एक संवेदनशील कवी. विद्यार्थीप्रिय शिक्षक म्हूण तांणी गोंयच्या भाशीक, साहित्यीक, संस्कृतीक, समाजीक आनी शिक्षणीक मळार आपली वेगळी वळख घडयल्या. ताचें नांव आसा काशिनाथ नायक.

गाराणें रचपी 'काशिनाथ अच्यूत नायक' - हय हेंच ते व्यासंगी व्यक्तिमत्व. मुर्ती ल्हान पूण किर्ती म्हान म्हणटा तशें फोंडचेंभाट वळवय ह्या माणकुल्या गांवांतल्यान किल्लल्ल्या ह्या तरनाट्यान प्रतिकूल परिस्थितींतल्यान वयर सरत आनी पावला कणकणी संघर्शाक तोंड दियत शुन्यांतल्यान आपली कतृत्वी जीण घडयल्या.... घडयत आसा. प्राथमीक, माध्यमीक, उच्चमाध्यमीक, महाविद्यालयीन आनी विद्यापीठ पांवड्यावेलें शिक्षण घेताना तो खिणाखिणाक परिस्थिती आड झुजला. ते करताना भोंवतणच्या गरीब दिनदुबळ्या समाजाचीं सुखदुख्खां, व्यथावेदना तांणी प्रत्यक्षांत पळयल्यात आनी भोगल्यातूय. धर्माच्या नांवाचेर, जातीकातीच्या नांवाचेर प्रस्थापितांनी चलयल्लो अन्याय

अत्याचारूय ताच्या नदरेंतल्यान सुटूंकना. सबळान दुर्बळाचेर केल्ल
वार ताच्या काळजार उदेता, समाजांतली विशमता ताका भितरल्यां
अस्वस्थ करता देखुनूच ताच्या दर एक वावरांतल्यान वा कृतींतल्या
मानवी स्वातंत्र्याचो, समतेचो आनी सर्वधर्मसमभावनेचो पुरस्का
जाल्ल्याचें दिसून येता. काशिनाथाची कविता, समिक्षा एकांकी
'खडीसाखर' ताची गवाय आसा.

गाराणें ह्या कविताझेल्या पयलीं काशिनाथाचीं तीन पुस्तक
प्रकाशीत जाल्यात. सक्षम (ललीत लेख संग्रह), संजीवाच्या कवितेंतर्ल
संवेदनशिलता (समिक्षा) आनी पंडीत महादेवशास्त्री जोर्शी
(बालसाहित्य). तेभायर साबार एकांकींचें लेखन आनी दिग्दर्शन, धालो
ह्या विशयाचेर संशोधन, बालकविता, बालनाट्यां, बालकथा अशें उपाट
साहित्य ताणें रचलां. 'दिशा' नांवाचें साहित्यीक तशेंच समाजीक
म्हयन्याळें तो चलयता. सृश्टी प्रकाशना वतीन नव्या बरोवपप्यांक तो
उजवाड दाखयता. संमेलनां, परिसंवाद, शिबिरांनी मार्गदर्शन करता.
तरेकवार भाशीक, साहित्यीक आनी समाजीक उपक्रम राबयता. सद्द्या
काशिनाथ शासकीय उच्चमाध्यमीक विद्यालय - सांखळी हांगा
विद्यादानाचें पवित्र कार्य करता. थंय लेगीत शिक्षणां वांगडाच
विद्यार्थ्यांच्या कलागुणांक वाव दियत तांच्या सर्वांगीण उदरगती खातीर
तळमळटा. एक क्रियाशील तरनाटो म्हूण भाशीक, साहित्यीक आनी
शिक्षणीक मळार तो फामाद आसा. नोकरी मेळटकच तांणी आपले
लागणुकेक फाट करूंक ना हें म्हत्वाचें.

"Some people stop working as soon as they find
job.' अशें थियोडोर रूझवेल्ट हांणी म्हणलां तें काशिनाथाक निखालस
लागू जायना. भाशीक साहित्यीक मळार नेटान एंट्री मारपी कितलेशेच
जाण एकदा नोकरी मेळ्ळी म्हणटकच उपरांत ह्या मळांचेर दिश्टीच
पडना. धूमकेतू भशेन ते खंयचेखंय नाच्च जातात. खासा करून
कोंकणीच्या अध्यापनांत रिगेल्ले कांय संदीसादू ट्रिपीकल मास्तर जावन
सर्गानंद भोगतात... काशिनाथ तांचे परस वेगळो. तांचें बरपूय वेगळें.

'गाराणें' हो तांचो कविताझेलोय त्या वेगळेपणाची खरी रूजवात दिता.

**गाराणें : एक प्रयोगशील कविता झेलो -**

कोंकणी कवितेंत एक नाविन्य हाडपाचो यत्न हो झेलो करता. हो यत्न गुणवत्ता उणी करीना तर ती वाडयता. ह्या झेल्याची अभ्यासणी करताना काशिनाथाच्या आंतरीक भावविश्वाचो खरो सोद लागता. तो भितरल्यान कसो आसा... अंतस्करणांत कितें भोगता... मनांत कितें चिंतता.... भोंवतणचें दुख्ख ताका कशें सतयता.... अन्याय-अत्याचाराचेर तो कसली प्रतिक्रिया दिता.... तो फुडाराक कितें करूंक सोदता... कसलीं सपनां पळयता... तो खंयच्या यादींनी घुस्पता.... खंयच्या गजालींनी घुस्मट्टा. ह्या तरेकवार प्रस्नांच्यो जापो ताच्यो कविता दिता. काविता झेलो वाचल्या उपरांत ताचो भावनीक, मानसीक आनी वैचारीक प्रवास तुमच्या आमच्या मतींत येयत रावता. ताची बहुजन सुखाय आनी बहुजन हिताय ही भुमिका म्हाका एक अभ्यासक म्हूण दिपकावन वता. गाराणें हया शिर्शक कवितेंत ती अशी दिसून येता -

**ह्या पंचमेहाभुतांत**
**वास्तव करून रावपी**
**तूं सगळ्यांचो सर्वेश्वर**
**तुवेंच आमकां सगळ्यांक**
**राखण दिवपाची**
**बरी बुध्द दिवपाची**
**खोटी नाडी पाडी बुध्द**
**पांयांपोंदा धरपाची.....**
(गाराणें)

सगळ्या जनमानसाक बरी बुध्द दिवन खोटी नाडी पाडी बुध्द पांयां पोंदा धरपाची विनवणी करपी हो कवी आपले पयले कवितेंत

मवाळवादी दिसलो तरीय तो एका पोल्यार मारल्यार दुसरो पोलो मुखार करपी निखालस न्हय. तर एका थापटाक एक न्हय तर दोन मूठी दिवपी आनी दुस्मानाच्या चोपक्याक धपको दिवपी असो स्वाभिमानी भुंयपूत जावन आसा. शेकड्यांनी वर्सा साकून चिड्डून उरिल्ल्या बहुजन समाजाचो नीज स्वर जावन तो आपल्या वाड वडिल्लांचेर जाल्यार अन्यायाचो बदलो घेवपाक तत्पर आसा. ह्या असल्या सामाजीक आशयांत थबथबिल्ल्यो जायत्यो कविता गाराण्यांत आसात. देखीत - षडयंत्र, भाड्याबैल, घरभाट, आमी, अस्तित्व, रिणां, कुंकार, तकली तड्डकी मनीस, परिवर्तन.

गोंयांतल्या समाजांत एका तेंपावेल्या अशिक्षीत आनी सदभावराती बहुजन समाजाक तथाकथीत उच्चवर्णियांनी पिळून खाल्लेलो.... ताका चिड्डून दवरिल्लो. तोच बहुजन समाज आयज प्रस्थापितांची मक्तेदारी मोडून काडपाक मुखार सरिल्ल्याची तुतारी हो कवी वाजयता. 'षडयंत्र' हे कवितेंतल्यान भार आयिल्ले वरी वाजता जाल्यार 'भाडयाबैल' हे कवितेंत ती (तुतारी) प्रस्थापितांक अशी शिटकायता.

**खऱ्यानीच खरें सांगता**
**आतां काळ बदल्ला**
**नेमां आमीच मारतले**
**माटोव आमीच उबारतले**
**भाषणाय आमीच दितले**
**तुमी फक्त टाळ्यो मारपाचे**
**आमकां तुमची गरज**
**फक्त भाड्याबैल कशी**

(भाड्याबैल)

हे कवितेंत सुरवेक 'इतलो तेप आमी हातांक फोड येयसर नेमां माल्लीं, माटव उबारलो, माचयेर बसून भाशणां मात तुमी ठोकलीं, आमी टाळ्यो मारल्यो..... आमी काम करपी मानायूच उरले' असो भावार्थ उक्तायला. तीं नेमां, तो माटोव आनी तीं भाशणां टाळ्यांसकट

तिकात्मक रूपान ह्या कवितेंत अवतरल्यात. नेतृत्वगूण आसुनूय जातीकातीच्या नांवाचेर आमकां तांच्यानी नेमांच मारूंक लायली, आमकां तांणी फाटींच ओडले, ते आमचे उदरगतीची आडखळ जाले ही सर्वसामान्याची तिडक कवी ह्या कवितेंतल्यान आनी वयल्या साबार प्रतिकांतल्यान मांडटा. आयज भौसांतले सुशिक्षीत तरनाटे गडे तुमचे मांडयेक मांडी लावन बसतात तेंच तांकां तोंकासार जाता. ह्यावूय गजालीचो अभिमान कवी 'परिवर्तन' वा 'अस्तित्व' ह्या कवितेंनी उक्तो करता. अस्तित्व कवितेंत आवयच्या गर्भांतल्यान रूजवणां आयिल्ले आमी - आमी तळपाक फुटूंकना अशें म्हणटासतना आवयच्या दुधाचो धेक आनी मातयेचो स्वाभिमान व्यक्त करपी कवीचो आंतरीक उमाळो असो व्यक्त जाता -

**हें भुंयेचें दायज आमी आमच्या भुंजार केळयलां**
**तुमच्या कुट्ट्लांत तें ना**
**कारण तुमची वार खंयचेय वैजीणीन हे मातयेंत पुरूंकना**
**तुमच्या आवयांनी तुमकां आंगार लुचोवंकना**

स्वभाशा, स्वराष्ट्र, स्वभुमी, स्वदेश, स्वसंस्कृती आदी गजालींचो जयजयकार करपी हेर कांय वेंचीक कविता ह्या कवीची खरी निश्ठा वाचकामेरेन पावयता. ह्या झेल्यांतल्यो चडश्यो कविता ह्याच नीजपणाच्या दिश्टाव्यान आकाराक आयल्यात. तांचो आशय एका मुळांतल्यान वयर सरला आसलो तरीय तातूंतल्यो कविता विंगड विंगड संदर्भ घेवन येतात. अन्यायाचो प्रतिकार आनी मानवतेची पुनर्स्थापणूक करपाक बांदील आशिल्लो हो कवी. समाजीक, संस्कृतीक, राजकी, भाशीक, साहित्यीक अशा मळांचेर चलिल्लूया भ्रश्टाचाराक वाचा फोडटना हो कवी केद्याय मोठ्या व्यक्तिचेर प्रहार करपाक फाटीं रावना. उपेक्षितांचें अंतर्मन अभिव्यक्त करपी ही ताची कविता कोंकणी कवितेच्या विद्रोही स्वराची परंपरा मुखार व्हरता. सगळ्यांत पयलीं हो विद्रोही स्वर जेश्ठ साहित्यीक पुंडलीक नायक हांणी 'गा आमी राखणे'



ह्या काव्य झेल्यांतल्यान व्यक्त केल्लो.

शेंकड्यांनी वर्सां वेदनांचो अख्खो दर्या मोन्यानी पिवन उडोवर्प तशेंच तांबडे मातयेकडचें इमान राखून दवरपी बहुजन समाजाचो ताळो जावन पुंडलीकबाबान कोंकणी साहित्यांत नवक्रांती हाडिल्ली. 'आमी कोण हाची जाप तुमकां काळूच दितलो अशें आमी म्हणचेनात ती आमीच दितले'. असो मंत्रघोश करून उकडिल्ल्या शिश्याचो रस कानांत रकोवचो तसो बांगर-बैली धेंकर प्रस्थापितांच्या कानांत गाजोवपी साहित्यीक म्हूण तांकां सगळें वळखतात. तांच्यानीच पेटयिल्ल्या ह्या मशालीक आनी वैचारीक क्रांतीक फुडें व्हरपाचें कार्य काशिनाथ सारक्या बहुजन समाजांतल्या तरणाट्यांनी हातांत घेतिल्लें आसा हें दिव्य सत्य सांगपी हो झेलो.

ज्ञानगंगेचो घोट पिवन आनी पुंडलीक नायक सारक्यांची प्रेरणा घेवन आयज बहुजन समाजाक नवें आत्मतेज आयलां. चडकरून स्वभाशेंतल्यान व्यक्त जावपाची तांची ही पयलींच फावट आशिल्ल्यान तशें घडलां. ह्या समाजांतले युवा कार्यकर्ते, संघटक, विचारवंत साहित्यीक मुखार सरले ते ह्याच आत्मतेजान. काशिनाथ तें आत्मतेज अशे तरेन उतरांनी मांडटा -

**आमचे जाण्टेले वगीच रावले**
**भावभावांनी झुजां लावन तुमी**
**आमची मंजा पळयली**
**आमी आमचीच बोडकां फोडलीं**
**पूण.... धनीपण मात तुमी मिरयलें**
**आमी आमच्या घरांत चाकर जाले**
**कितल्योश्योच पिळग्यो तुमच्या शेकातळा चिड्डल्यो**
**देखून आयज खंयच्याय खिणाक रणवाद्यां वाजतलीं**
**जैताची घुडी उभारून आमी**
**गर्भकुडींत लामणदिवो पेटयतले**

(कुंकार)

काशिनाश जे तरेन जगता तेच तरेन बरयता. काशिनाथ जे रिन विचार करता तेच तरेन वागता. काशिनाथ जे तरेन भितरल्यान व्रतखतता तेच तरेन भायर अभिव्यक्त जाता. अडेचें, नाटकी, देखावेंपण ताचेकडेन ना देखून बेदडकपणान तो सत्याचो आग्रो धरून आपले शब्दास्त्र चलयता. ताची ही धिटाय म्हाका महात्मा गांधीच्या दोन वाक्यांची याद करून दिता....

Study as if you were to live forever
Live as if you were to die tomorrow
(मोहनदास क. गांधी)

समाजांतले जायते तकातथीत रथी महारथी खुबश्या वेळार तोंडांत गुट्टे मारिल्लेवरी वोग्गी बसतात. मेल्ले वारीचे कशे सामके निश्क्रीय जातात पूण गाराणें घालपी ह्या कवीक निश्क्रीयतेची व्याख्या खबर ना. ताका जैत वा हारीचो हुस्को ना. जैतान तो पिसो जायना आनी हारीन गर्भगळीत. कारण ताच्या जिवितांत एका फाटल्यान एक संघर्शपर्वां हारीन येवन गेल्यात. एक झूज सापलें म्हणटकच ताचे खातीर नवें झूज तयार आसता. जेश्ठ कवी नागेशबाब करमली 'वादळमोडां आमकां सदचींच जाल्यात...' अशें कित्याक म्हणटा तें काशिनाथाची कविता समजायता.

हो कवी जगतना झुजता काय झुजताना जगता तेंच कळपाक मार्ग ना. फक्त समाजीक उमाळे न्हय तर वैयक्तीक उमाळे ताच्या काळजांतली चिटमीट रसिकांमेरेन पावयता. भुरगेंपण, निरागस भुरगेंपण, आवय, देणें आवयचें, दादो, वंशवेल, तुका येवंचोच पडटलो, सासाय, हांव.... ह्या कवितांनी कवीचें वैयक्तीक उत्फर्के, हावेस, सपनां, इत्सा, अडी-अडचणी, दुख्खां हांची वळख जाता. आपले भितरले उत्कट भावनेक हो कवी शब्दरूप दिता तेन्ना कविता उलोवंक लागता. आयच्या मशीन युगांतल्या शेणत वचपी भुरगेपणाक तो आशेता. निरागस भुरगेंपणाचो हुस्को बाळगिताना म्हणटा -

**1) म्हज्या गांवांतलें म्हजें भुरगेंपण**

आडवणांत शेणून गेलां
गांवांत सोदूनूय मेळना
निश्पाप, निरागस, निर्मळ, नितळ,
भावूक, मस्ते, हट्टी, मेकळें
...... ....... .... .....
(भुरगेंपण)

2) निरागस भुरगेंपण म्हजें
भुरगेपणांतूच सोंपलें
भावंडांक पळय, आयदनां घांस
उदक भर, चुलींत उजो कर
उदक तापय, आंदण दवर
तांदूळ घाल, शीत वाळ
खंयचे कडेन आदेस काबार
(निरागस भुरगेंपण)

वयल्या दोनूय कवितांचीं शरीरां वेगळीं पूण आत्मो एकूच. निरागस भुरगेपणार कवीच्या वांट्याक आयिल्ल्या कश्टमय जिविताची खबर सांगपी वयल्यो दोन कविता भोव कितें सांगून वता. जाल्यार ह्याच कविता झेल्यांतली 'रिणां' ही कविता आवयच्या उपाट त्यागाची आनी कश्टाची जाणविकाय आशिल्लो पूत वाचकांचे भेटेक येता -

आवय तुवें पळयिल्लें
फांतोड, सपन आतां साकार जालां
आवय तुजो रितो बोटवो
आतां म्हाका मात्सो भरूंदी
आवय तुज्या उपकाराचें
थोडें रिण म्हाका पावों दी
(रिणां)

ह्या झेल्यांतलीं 'आवयचें देणें' ही एक संस्कारमय कविता. भुरगेपणांत आवयन पाजिल्लो डोस आयज म्हाका बऱ्याक पडलो. तातूंतल्यान म्हज्यांत स्वाभिमान आनी मनीसपण बळिश्ट जावंक पावलें अशें हो कवी हया कवितेंतल्यान म्हणटाना गोमन्तकीय तशेंच भारतीय आवयची आदर्श मुर्ती दोळ्यामुखार हाडटा. मराठींतले जेश्ट लेखक साने गुरूजीन 'श्यामची आई' ह्या कादंबरींतल्यान जशी भारतीय मातृत्वाची सर्वोत्कृश्ट देख दिल्या तेच तरेन काशिनाथाचीच आवय ही कोंकणींतल्यान घडिल्ली ममतेची वा वात्सल्याची अमोल देख जावन आसा. 'चार चौगांत बरें मागतकच आपलें बरें जाता. कोणाचेंच मागून खांवचें चोरचें न्हय. पोट जमनीर तेंकोवन न्हिदचें पूण लाचार तर जावचेंच न्हय, ल्हानविकायेन वागचें मी-पणान वागचें न्हय हें सगळें अक्षरशत्रू आशिल्ल्या आवयचे उदात्त विचार ह्या कवीक ल्हानपणासावन घडयत आयल्या. ताचोच शाब्दीक आविश्कार ही कविता घडयता. ते नदरेंतल्यान म्हाका दिसता - काशिनाथची आई श्यामच्या आई परस वेगळी आसुंकूच शकना.

आवय वांगडाच 'दाद' ही ताची कविता दादोक म्हणजेच ताच्या वडीलांक उद्देशून शब्दबद्ध जाल्या. दादो आतां तें मुखावयलें खळेंच ना जालां देखून देणलो शिगमो बंद पडला, रोमटाचो आवाज आतां गांवांत म्हज्या घुमना, देणलो कोण नाचयना... शिगमो कोण खेळना... आनी उपरांत -

**दादो, आतां ते सगळे फ्लॅटांत रावतात**
**आपआपल्या बायल भुरग्यांवांगडा**
**ज्यॉयंट फॅमिलीचो ज्यॉयंट केन्नाच तुटला**
**तांकां शेजार सामार लागना**
**आमच्या गिरेस्त सांस्कृतायेचेर तांणी केन्नाच खोंट मारल्या**
**आनी पोटलून धल्ल्या पाश्चात्य संस्कृती**
**दादो, तांकां चवथ लागना, शिगमो लागना**
**सण परबो तर नाच ना**

## पूण नरकासूर मात हमखास लागता....

(दादो)

खऱ्यानीच आमचे भितर नाटकी वृत्ती बळावपाक लागिल्ल्याचे विधारक अशें कोडू सत्य वयली कविता आमकां चाखपाक दिता. ही कविता तशी आशयान सशक्त आसा. लोकगीतां शिगंम्या गीतां हाचो वापरूय समर्पक जाला. पूण दादोक उध्देशून आशिल्लें हें कवितेंत आवयक उध्देशून फुगड्याचो संदर्भ येता तेन्ना ती कविता स्वताच गोंधळांत पडटा. एकतर दादो आनी आवय अशें नामकरण करून कविता रचूं येता आसली नाजाल्यार आवयगे तशेंच दादोरे अश्यो दोन कविता वेगळ्यो रचूं येताल्यो. ज्यॉयंट फॅमिलीचो ज्यॉयंट तुटला, हांगा अजापां घडटात. भोगावळी मातल्यात, गांव शारांत व्हेला, घरामुखावेलें खळेंच ना जालां ह्यो वळी भोवूच सुचक रचून जाल्यात पूण.... कविता वाट चुकल्या.

'गाराणें' नामक ह्या कविताझेल्यांत ल्हान सान कवनांय आसपावल्यात. चडकरून तीं चारोळीचे धाटणेंत बसयल्यात. कवनां - 01 ते कवनां - 06 मेरेन तांची वळेरी चलता. एकंदर 18 कवनां वाचकाच्या भेटेक येतात. कोंकणी कवन-काव्याचो विचार केल्यार बाकीबाब बोरकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय सारक्या जेश्ट कवीनी तसले प्रयोग केल्यात. मनोहरबाबान केल्ल्या तसल्या प्रयोगांतल्यान निश्पन्न 'पिसोळीं' ह्या झेल्याक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाला. उप्रांतच्या जायत्या कवीनी हो प्रयोग केला. काशिनाथाकूय तो काव्यात्मक मोह टाळूंक जमूंकना. खरें म्हणजे जातिवंत कवीक तो मोह टाळूंक जमचेंच ना. म्हाका आवडिल्लें तातूंतलें हें कवन खऱ्यानीच लक्षणीय आसा. पळयात -

**वेदनांच्या कांट्या - खुट्यांनी**
**जीण म्हजी विणल्या**
**सुखापरस दुख झेलपाची**

**संवय म्हाका झडल्या.**

वेदनेच्या गर्भांतल्यानूच कवितेची फुलां फुलतात अशें म्हणटात तें हें कवन वाचतकूच कळून येता. हें कवन जशें कवीच्या काळजाचें मर्म उक्तें करता तशेंच तें कवीची समाजीक लागणूक दाखयता. खुटी मारून मठी जोडपी, गांव गांवस्की बसोवपी जाण्टेल्यांच्या घामा कश्टार आमी उदक सोडलां हें सांगपाक आयज प्रदुशीत जाल्ल्या गोंयांत गोरवां लेगीत तळ्याच्या उदकाक आफडनात अशें सांगून ताचें कारण बरयता -

**धुल्लाच्यां पैशांक गांवकऱ्यांनी**
**तळपाचो बळी दिता**

नांव निशाण हेवूय कवितेंत होच आशय तकली वयर काडटा. जाल्यार फरक, वक्लां सारक्या कवितेनी मनीस राकेस जाल्ल्याचें रजांव कवी दिवपाचो यत्न करता. सांगता म्हूण वायट धरूं नाका, इचांणां ह्योवूय तसल्योच कविता. कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत डॉ. र. वि. पंडीत ह्या कवीक खूब उंचेली सुवात आसा. तांणी शेता-भाटांतल्या, रानांवनांतल्या, मिठा आगरांतल्या कश्टकऱ्याचेर कविता रचल्यात. तांचे करपल्लें जिवीत काव्यांत हाडलां. ह्या कवीची तोखणाय जाता तशी टिकाय जाता तिवूय त्याच कारणांक लागून. भाटकारालो सत्यनारायण हे तांचे कवितेंतलो मुंडकार (भागेली) 'देमू' जसो भाटकाराच्या सत्यनारायणांत पंचखाद्य जावन चिड्डुता तसोच काशिनाथाचो 'खेमू' मोन्यानी सगळे अत्याचार सोंसता. पूण काशिनाथाच्या खेमूक आयज ताचें सत्व मेळ्ळां. खेमू हे कवितेंत कवी ताका आत्मतेज दिता (जें पंडीतान ताच्या काव्यांतल्यान केन्नाच दिलें ना अशें म्हज्यांतल्या समिक्षकाक दिसता.)

**... आनी**

**खेमूची जीण पुराय बदलून गेली**
**आतां खेमू तांकां फुक्यासवाय**

मानाय कसो घोळोवंक
मेळना जालो
देखून ते म्हणूंक लागले
खेमू आतां आदलो उरूंक ना

– आनी एक दीस खेमू वटेन देवान फुडो केलो अशें म्हणून कवी खेमूक लाबिल्ल्या स्वाभिमानाची सुलूसय दिता. तशेंच खेमूक मेळिल्ली धिटाय ही ताच्या मुखावयल्या पिळग्यांचो उध्दार करपी जावन आसा असो मुक्ततायेचो संदेश ही कविता दिता. पुंडलीक नायक बांगर बैल हे कवितेंत जसो म्हण्टा – 'बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो उध्दारी, बैल म्हज्या कुळाचो वारस.' तसो आशयात्मक दिश्टावो काशिनाथाची ही कविता दिता. खेमू वरीच 'निमें' हिवूय बी एक व्यक्तिविशेश लाबिल्ली कविता. ती एका प्रौढ कुमारीकेचें धगधगीत दुख्ख मांडटा. ही कविता भोवूच मॅच्युअर्ड जाल्या खरी पूण तातूंतल्यो निमण्यो दोन वळी कविते भितर कवीची विनाकारण लुडबूड सहन करता. खरें म्हणल्यार निमण्यो पांचूय वळी ह्या कवितेची गची आंवूळटा. तें कित्याय कितें बडबडटा, तें आतां पिशांतूर जालां. ह्यो दोन वळी गरज नासतना वगीच स्पश्टीकरण दिवपाचे बानगडीत पडटात.

ह्या वयल्या दोन वळींनीं ती कविता सोपिल्ली जाल्यार कलात्मकतेची तेंगशी ती गांठपाची. पूण... हो पुराय झेलो साबार विशयांच्यो कविता घेवन येता आसलो तरीय मुखेलतायेन तातूंतल्यो समाजीक आशयाक धरून आयिल्ल्यो कविता चड लक्ष ओडून घेता. कवीची धारधार ले़खणी आनी आर-पार भुमिका त्या कवितेनी प्रभावीपणान जाणवता.

## निमणी उतरां -

काशिनाथ अच्यूत नायक हांणी रचिल्लो 'गाराणें' हो झेलो कोंकणी कवितेचें बदलतें रूप दाखयता. पारंपारीक कोंकणी कविता

आनी आधुनीक कोंकणी कविता हांचे मदलो सुवर्णमध्य ती सादता. मुक्तछंदांतल्यान अवतरताना ती काव्याचो मूळ गूणधर्म विसरना. लोकगीतांचो, संतकाव्याचो, म्हणी-ओंपारींचो आनी लोकभाशेंतल्या दुर्मीळ शब्दांचो तो कल्पकतायेन उपेग करता. देखीक -

- **चानयेच्या पिला तुका तीन पाट.... (लोकगीत)**
- **पान म्हजें फोंफळ तुजें.... (लोकगीत)**
- **रथा तुज्यो घुडयो.... (लोकगीत)**
- **बोले तैसी चाले त्याची वंदावी पावले.... (अभंगवाणी)**
- **आनंदाचे डोही आनंद तरंग (अभंगवाणी)**
- **घरा हुंदीर शेपडी बडयता (म्हण-ओंपार)**
- **दिल्लूया मापान घेंवचें पडटा.. (म्हण-ओंपार)**
- **काळा परमाणें माथ्याक कुरपणें (म्हण-ओंपार)**
- **सारेतेप, दवरणें, अस्वडी, तोंकासार, धुळेंवणी (नीज कोंकणी उतरां)**
- **निमें, तोंददुबळें, म्हारू, पडमूर, जैपत, वश्रेणी,(नीज कोंकणी उतरां)**

वयल्या साबार तत्वांक लागून काशिनाथाची कविता सहज सुंदर तरेन वाचकां कडेन इश्टागत करतली हें खरें. नाजाल्यार जायते फावटीं कच्ची अलंकारीत भाशा आनी अर्धवट गिन्यान आशिल्लूया छंद-मात्रांच्या घुस्पागोंदळांत कवीक नाकापरस नथ जड जावन पडटा. ह्या कवीची ती गत जावंक ना. मुळांत कवितेच्या विशयाक आनी आशयाक एकजीव करपी तत्वां ताणी कवितेंत समाविश्ट केल्यात म्हूण तें शक्य जालां. समाजीक जाणिवेच्या संवेदनशील मनाची ही विस्फोटक कविता. ती अतिशय सामान्य मनशाचे आंतरीक भावविश्व चितारता.... ती भौसाचीं दुख्खां हळुवारपणान शब्दबद्ध करता.... चिड्डल्लूयांक स्वाभिमानान जगपाक शिकयता... निर्शेवणी तशेंच हारीक धिरान तोंड दिवपाक उर्बा दिता.... आनी अन्यायाचो प्रतिकार करपाची धिटाय

हाडटा.... ही कविता केन्ना आवयची आल्लय जाता, केन्ना जिविताचें आव्हान जाता, केन्ना गरीबाचे उत्फर्के जाता, केन्ना कश्टल्ल्याचें गीत जाता जाल्यार केन्ना मनीसपणाचे सूर जावन समेस्तांचें बरें मागता.

कवी काशिनाथ नायकाचे गाराणें तांणी व्हडा भावार्थान आनी पोटतिडकीन घातल्यात. म्हत्वाचें म्हणल्यार, हे गाराणे खंयच्याच देवाक वा देवीक प्रसन्न करपाक मात निखालस घालूंक नात. फकत रसिक-वाचकाक आनी पर्यायान आमचे मदल्या दर एकल्याक होरायता. देखून रसिक-देवतेन ह्या गाराण्यांक योग्य प्रसाद पाकळी दिवंची हीच नमळायेची मागणी....



## 12. ए. पी. भानुप्रकाशाचो 'काव्यहार': केरळांतल्या कोंकणी काव्याचो भाव-स्पर्शी हुंकार

सवंसारांतल्या दर एक मनशाक ताची म्हण एक खेरीत भास आसता. ती भास त्या मनशाच्या हजारांनी वर्सा चलत आयिल्ल्या संस्कृतायेची सगळ्यांत व्हडली देण जाता. आपले संस्कृतायेचो आनी भाशेचो देखूनच ताका व्हड अभिमान दिसता. जेन्ना जेन्ना ताचे भाशीक संस्कृतायेचेर आगळीक जाता तेन्ना तेन्ना तो मनीस स्वाभिमानान पेटून उट्टा, झुजता. कोंकणी भास ही मूळांत कोंकण प्रांताची भास. तिचो जल्म 'संस्कृत-प्राकृत-अपभ्रंश' अशे प्रक्रियेंतल्यान आनी खास करून 'महाराष्ट्री प्रकृतांतल्यान' सदारण 8 व्या ते 9 व्या शेकड्यांत जालो आसूयें अशें जाणकारांचें मत आसा. भारताच्या अस्तमते कडच्या दर्या देगेक सह्याद्री पर्वताच्या घांटा सकयल शेकान शेक पातळिल्लो भूभाग म्हणजेच कोंकण प्रदेश.

16 व्या, 17 व्या शेंकड्यांत पुर्तुगीजांनी चलयल्ल्या धर्मीक आजनेरींक लागून कोंकणी समाज आपलें मूळपीठ गोंय सोडून विस्थापीत जायत गेल्लो आमकां दिसता. आयज कर्नाटक आनी केरळ प्रांताच्या दर्यादिगेवयल्या विंगड विंगड वाठारांत शिपडून पडिल्लो कोंकणी समाज दिसून येता तो त्याच इतिहासीक कारणांक लागून. हो कोंकणी समाज जंय जंय पावलो थंय थंय तो थळावे संस्कृताये कडेन एकरूप जावन रावलो. पूण त्या एकरूप जावपाचे प्रक्रियेंत तांणी आपली नीज कोंकणी भास आनी कोंकणी संस्कृताय घरांत आनी लोकजिणेंत जिवी दवरपाचो पोटतिडकीन यत्न केलो. ताकाच लागून आयज लेगीत कर्नाटक आनी केरळ ह्या द्रविडी वाठारांतूय कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय थंय फुलताना आमकां दिश्टी पडटा.

आयचे घटकेक जायत्या इतिहासीक कारणाक लागून पुराय कोंकण प्रदेश विंगड विंगड राज्यांनी वाटून गेल्लो आसलो तरी कोंकणी भास आनी संस्कृताय ह्या तत्वांचेर गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी विस्कटावन गेल्लो कोंकणी मनीस एकठांय जायत

आयला.

हे घटकेक फकत केरळ वाठाराचो विचार केल्यार, केरळांत 18 व्या आनी 19 व्या शेकड्यांत कोंकणींतलें भक्तीकाव्य व्हडा प्रमाणांत फुलिल्लें दिश्टी पडटा. तातूंत कथाकथन, गीतगायन, नाट्यरंग. भावअभिनय अशा घटरकांचो आसपाव जाता. 1850 ते 1950 हो केरळच्या कोंकणी साहित्याचो भांगराकाळ. 'नंदादीप' ह्या ग्रंथांत संपादक तशेच संकलक शरदचंद्र शणै 100 वर्सांच्या ह्या काळखंडाक 'केरळच्या कोंकणी साहित्याचो उदयकाळ' मानतात तो हाकाच लागून. ह्या काळखंडांत हरिकथा, भक्तीकाव्य आनी नाटक हे साहित्य प्रकार चड प्रमाणांत बरोवन सादर जावन तातूंतल्यान केरळांत कोंकणी भाशेची जागृताय जाल्या. ह्या वावरांत : अम्मुक्का शणै, एम. शेषगिरी प्रभू, आर. एस. प्रभु, पी. एन. नरसिंह पै, मंजेश्वर गोविंद पै, द्रोपदीबाय, ए. डी. हरि शर्मा, के. पद्मनाभ भट, वेदवती अम्माळ, सरस्वती रंग भट, के. श्रीनिवास कामत, आर. सी. शर्मा, एस. जी. नायक, आर. रंगनाथ प्रभु, जी. कमलम्माळ, आर. माधव पै, गंगा बाय, के. वामन वाध्यार, एन. एन. पद्मनाभ शणै, जंबा बाय, गणेश प्रभु वी. वेंकटेंश्वर पै, के. पुरुषोत्तम पै, माणिक्का बाय, सुमित्रा बाय, सारक्यांचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

तांच्याच वावरांतल्यान स्फुर्त घेवन उपरांतच्या काळांत केळरांत कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेच्या मळार जायते ल्हान-व्हड व्यक्ती पोटतिडकीन वावूरतात. तातूंत पी. जी. कामत, प्रो.. आर. के. राव, एन. पुरूषोत्तम मल्ल्या, पी. मनोहर, एच. बी. शणै, वी. बलराज शेट, पी. एन. शिवानंद शणै, पय्यन्नूर रमेश पै, गोकुळदास प्रभु, के. आर. वसंतमणी, शरतचंद्र शणै, एन. एन. आनन्दन, आर. एस. भास्कर, के. अनंत भट, डॉ. एल. सुनिता बाय, सुशिला टी. भट, भक्ता आर. काझंगाड, चंद्रकांत कामत, आनंद कामत, भास्कर शणै, सुरेश शणै, आनंदी मुंबय, के. के. सुब्रह्मण्यन, रंगा हरी, सुर्या अशोक, ए. बाळकृष्ण मल्ल्या, गोश्रीपुरं हरिकुमार, अंजली किणी, ए. पी. भानुप्रकाश सारके कोंकणी कार्यकर्ते आनी साहित्यिकांचो आसपाव जाता.

**'काव्यहार'चो पोड सोडयताना**

ए. पी. भानुप्रकाश हो बरोवपी तसो पिरायेन तरनाटो नासलो तरीय ताची कविता तरनाटी आसा, ताची कविता भायल्यान कच्ची दिसली तरीय भितरल्यान परिपक्व आसा आनी ती कविता अभिव्यक्तींत सैल भासली तरीय आशयाचे नदरेन घटमूट आसा. कारण ह्या झेल्यांतल्यो साबार कविता आशय आनी विशयांचे नवे संदर्भ घेवन रुपकाराक आयिल्ल्यो आसात. कवितांच्या आकृतीबंधांत तरेकवार आयाम कवीन कळत-नकळत हाडल्यात. हो नवकाव्यांचो हार गुंथताना ह्या कवीन स्वताच्या अंतर्मनाची आनी बाह्यमनाची एक विलक्षण घालमेल शब्दबध्द केल्या हाचीय रुजवात ह्या कविता झेल्यांत मेळटा. आपले भोंवतणची पुराय सृश्ट आनी अख्खें ब्रह्मांड ह्या कवीक स्वताचे काव्य-वेंगेंत घेयनशें दिसता ताचो दिश्टावो प्रस्तूत झेल्यांतल्यो कविता दिता.

पंचमहाभुतांनी आकाराक आयिल्ल्या ह्या असीम संवसाराचे साबार घटक ताच्या काव्यांत सहजतायेन हाजिरी लायतात आनी एक दिव्य सत्य कलात्मक रुपान वाचकां मुखार उक्तें करता. माती, मळब, उदक, वत, वात, उजवाड, सैम, झाडां, झुडपां, पानां, फुलां, पाखे, सवणीं, काजुलो, चंद्रीम, सुर्य सगळेच सैमीक घटक ह्या कवाचे 'काव्य-दूत' जावन नवे अर्थ घेवन वाचकांचे भेटेक येताना दिसतात. त्या 'काव्य-दुतां'चो एक सहयोगी जावन ह्या प्रस्तूत काव्यझेल्याची सुपुल्ली वळख घोडोवपाचो हो म्हजो माणकुलो यत्न.

गोंया साकून चारशीं वर्सा आदी केरळांतल्या 'कोची' वाठारांत पाविल्ल्या कोंकणी समाजाची व्यथा केरळांतले कोंकणी कवितेचो प्राण जावन उलयता अशें म्हणल्यार अतिताय जांवची ना. संवसारांतल्या असंख्य विस्थापितांचें दुख्ख व्यक्त करपाची तांक कोंकणी कवितेंत आसा हाचो दिश्टावो हाचे पयलीं पी. शिवानंद शणै, शदरचंद्र शणै, आर्. एस्. भास्कर, रंगा हरी आदींच्या काव्यांतल्यान मेळिल्लो आसा. प्रस्तूत कविता झेल्यांत कवी ए. पी. भानुप्रकाश आपले 'ओ गोंय' हे कवितेंत ती व्यथा तिव्रतायेन मांडटाना कोंकणी मनशाक कोचीच्या रायान आलाशिरो दिवन कोंकणी संस्कृतायेचेर भरवंसो दाखयलो ताची नोंद

आपले कवितेंत घेता.

**चारशीं वर्सां पयलीं आमी आयले**
**कोंकणी जन आमचे पूर्विक आयले**
**पातमारी ताण्डून आमी आयले**
**गांव गांव ताण्डून आमी**

....

**दिल्ली आमकां भूंय कोच्ची महारायान**
**दिल्ली आमकां रय्यान राबूंक भूंय**
**दिल्लो आमकां सहायु देवूळ बांदूंक**
**रय्यान दिल्लो आमकां सम्मति, व्यापार करुंक**
**कोच्ची गांवांतु पावले**

(ओं गोंय)

'काव्यहारां'तली पयली आनी पांचवी कविता मुखेलतायेन भारत देशाची व्हडविकाय आनी ताचे विशीं कविच्या मनांत आशिल्लो उपाट अभिमान शब्दबध्द करता. पयले कवितेंत तो अभिमान 'आमी भारतीय आमी भारतीय' अशा सुरांत जाल्यार पांचवे कवितेंत तो 'परम पवित्र आमचें जल्मभुमि भारत' अशा स्वरांत गाजता.

**'सत्य आनी धर्म-प्रिय देश भारत**
**भूलोक जनांक सदा मार्ग दिवो हें भारत**
**विश्वशांती दिंवचो देश भारत**
**विश्व पूजित आमचें भारत हें भारत'**

(जल्मभूमि भारत)

कवीच्या काळजांत आपले जल्मभुंयेचो आनी तिच्या इतिहासीक दायजाचो आदर आसा. हे भारतभेंयेचे दक्षिणेक म्हणजेच द्रविडी संस्कृतायेच्या केरळांत आनी कोंकणी संस्कृतायेंत जल्माक येवन थंय ल्हानाचो व्हड जाल्लो हो संस्कारी कवी भारतभुयेचें गुणगान

गायता. भारताची वेदीक संस्कृती, रुशीमुनींची परंपरा, भारतीयांच्यो इतिहासीक शौर्यगाथा, भारतांतल्यो विवीध संस्कृतायो, हांगाचे दोंगर, न्हंयो, दर्या, गांव, शारां, महानगरां, भास, भेस, भौशीक संस्कृतायो आनी खासा करून भारतभुंयेच्या धुव-पुतांनी विश्वशांती खातीर दिल्लूया 'अहिंसा' ह्या महामंत्राची तुस्त-तोखणाय हो कवी आपल्या काव्यांतल्यान करता. भारतीय संस्कृतायेंत विंगड विंगड धर्मांतल्या धर्मस्थळांक भोव म्हत्व आसा. पुराणकाळांतल्यान आयज मेरेन हीं धार्मीक स्थळां समाजमंदीरा जावन समस्त भारतीयांक मार्गदर्शन करीत आयल्यात. ह्या धर्मस्थळांचेर जावपी उत्सव लेगीत थळावे सांस्कृतीक गिरेस्तकायेक पुरस्कृत करीय आयल्यात. काव्यहार रचपी ह्या कवीक ताची जाण आसा देखून तो 'उत्सव' (आराट) सारके कवितेंत आठ दिसांच्या थळाव्या उत्सवांतल्यान थळावे संस्कृतायेचें खाशेलेंपण उक्तें करताना त्या उत्सवांतल्या बारीक-सारीक सगळ्या गजालींतल्या संतोषाचो (आनंदाचो) तपशीक आपल्या उतरांनी मांडटा.

**गांवातुलें देवूळ, आमचें व्हडलें देवूळ**<br>
**पावलो आमचे देवुळांतु, औन्दूचे उत्सव**<br>
**देवालो उत्सव आमगेले देवालो उत्सव**<br>
**आठ दिसा उत्सव, आठ दिसा उत्सव**<br>
**उत्सव पावल्यारी सगडांकय सन्तोषु**<br>
**भुरग्यांक संन्तोषु, व्होड सन्तोषु**<br>
(उत्सव)

ह्या कविता झेल्यांत एक तरेचें सैमचक्र घुंवताना नदरेक भरता जें वाचप्याक आपल्या निजाचे सोबीतकायेन मोहीत करताना मंत्रमुग्ध करून सोडटा. सैमाचीं साबार आंगां आपल्या वास्तवीक रंगरुपां सयत ह्या झेल्यांतल्या कवितांनी अवतरल्यात. सैमाच्या दर एका घटकाचेर हो कवी कविता बरयता. पावस, उदक, उजवाड, भूंय, रुख, दोंगर, कमळ, फूल, पाखो हांच्या वांगडा सकाळ, सांज, रात, फांतोड आदी विशयावेल्यो कविता ह्या झेल्यांत आसपावल्यात. आयज उदरगतीचे

आनी शारीकरणाचे प्रक्रियेंत न्हंयो आनी बांयो हे नितळ पिवपा उदकाचे स्त्रोत प्रदुशीक जावंक लागल्यात. मनशान आपल्या सुवार्थाक लागून हे साबार उदका स्त्रोत तुंबोवन उडयल्यात. आयज जर आमी हे उदक नांवचें जिवामृत सांबाळ्ळें ना जाल्यार फाल्या हे सैमीक संपत्तीचो नाश जातलो आनी मनीस जीण सोंपतली. ते पासत उदकाचें रक्षण करपाचो भोव मोलादीक संदेश कवी 'उदक जीवमृत' हे कवितेंत दिता. कवी बरयता -

**व्यर्थ उपयोग उदकाचो केल्यार फाय तुमकां**
**मेळचीना उदक पिवूंक, न्हावूंक आनी धूवूंक**
**सोडाय तुमी स्वार्थ चिंता आनी करी भविष्य चिंतन**
**तळ, बांय, नदी, समुद्र इत्यादी वायट करनाका**
**रक्षण करी, रक्षण करी तुमी उदका संपत्तीचो**
(उदक जीवामृत)

काव्यहार ह्या कविता झेल्यांत कवीच्या संवेदनशील मनाचो तशेंच मानवीय दृश्टिचो थाव लागता. संवसारांत मोग, माया, आपुलकी, परोपकार, मदत, त्याग हांचे जोडीक बरें कर्म, बरे विचार, बरे आचार, देवाची भक्ती, समाज-श्रध्दा, श्रम-श्रध्दा अशा जायत्या गजालींचेर ह्या कवीचो विश्वास आशिल्ल्याचें ताच्यो कविता अभ्यासतकच मतींत येता. ताका लागून मायेगोमान आनी मनीसपणान तुडूंब भरिल्ल्यो ताच्यो कविता शास्त्र आनी तंत्र हातूंत उण्यो आसल्यो तरीय मनाक भावतात. काळजांत रावतात. आनी आत्म्याक आफुडटात. कांय देखी : 'सूर अपायकारक, मानव सेवा, त्याग, आकर्शण, उजवाड, जागाय, म्हजान जाताले हांव करका, दिवो, प्रकृती, हारसो, संस्कार, शुभाप्ति विश्वास'.

प्रस्तूत काव्यहारांत विंगड विंगड प्रसंगांचो तशेंच प्राणी-कथांचो आदार घेवन वा तांचें प्रतीक आपणावन कथनात्मक स्वरुपाची बोध-कविता कवीन रचल्या. घडयें बरोवप्याच्या अतंस्कर्णांत सान

भेरडुंवां प्रती (भुरग्यां प्रती) व्हड लोक्तुबाय आसा देखून तो अशे तरेचें काव्य बरोवपाक पावला. देखीक - 'पावसांतु खेळु' कवितेंत कवी माणकुल्या वांगडा पावसांत खेळपी आज्जेचें भुरगेंपण दाखयता जाल्यार 'मोक्ष' सारके कवितेंत फातरांतल्यान देवमुर्ती जावपी त्या फातराची देख-काणी घेवन आमचे मुखार कश्टाचें आनी त्यागाचें मोल कवी सिद्ध करता. 'माळगेड्यान सांगीले आयकोंवका' ही कथारुपी कविता जाण्टेल्यांनी सांगिल्लें आयकूंक जाय म्हण सुचयता, जाल्यार 'मूय' हे कवितेंत उंच मळबांत उडपाचो हावेस बाळगुपी मुयेची शोकांतिका सांगून कवी आमकां सगळ्यांक सादूर रावपाक शिटकायता. देखीक -

**एक घोणी घूवनु घूवनु ऊंचार उडता देखून**
**मूय ती उडली दुसेरीय ऊंचार ऊंचार**
**अल्प प्राणी मूय तिका सूर्यताप असहनीय जाले**
**सूर्यतापान तिगेली पांख जेळुन पडली ती सकल...**

(मूय)

'हार उडटा म्हूण गांयडोळान उडचें न्हय' अशा भावार्थाची एक म्हण कोंकणींत फामाद आसा. ताचोच प्रत्यय वयली कविता दिवन वता. मूय ह्या सान जिवाचें रुपक घेवन हो कवी मनशांचे वृत्तीचेर बडी मारपाचो यत्न तातूंतल्यान करता. प्रस्तूत कविता झेल्यांतली ती एक उत्कृश्ट कविता जावन आसा. युवक वा तरनाटे ह्या समाजीक घटकाचेर ए. पी. भानुप्रकाश ह्या कवीचो बरोच भरोवंसो आसा अशें तांच्या जायत्या कविते वेल्यान दिसता. 'हे उठ तूं' आनी 'फुडें सर' सारक्या कवितेंतल्यान तो तांचो भरंवसो सहज लक्षांत येता. 'हे उठ तूं' हें कवितेंत कवी तरनाट्यांक आळस सोडून श्रम आनी कश्टाचें म्हत्वा समजयता जाल्यार 'फुडें तर' हें कवितेंत कवी तरनाट्याक वेळाचें मोल समजावन 'आयचो वेळ फाल्या मेळचो ना तसोच फायचोय आयज मेळप शक्य ना' देखून वेळाचीं पावलां वळखून तुज्या कर्तव्याक फुडो करीत तूं धिटायेन मुखार सर अशी सुचना दिता. हांगासर कवीक ह्या तरनाट्यांच्या फुडाराचो हुस्को आशिल्ल्याचें जाणवता. आयज देशाचो फुडार

घडोवपाची जापसालदारकी तरनाट्या भुंजांचेर आसा देखून तांच्यांनी जापसालदारकेन आनी आत्मविश्वासान आपली कर्तव्यनिश्ठा जपची हेंच सांगपाचो काव्यमय प्रयत्न कवी करता.

काव्यहार ह्या झेल्यांत चिंतनशील आनी आध्यात्मीक आंगान मुखार सरपीय कविता आसपावल्यात. मनशाक जल्म-मरणाचें मोल वळखून परमेश्वराच्या निस्सीम भक्तीची ओड लावची अशी मागणी हो कवी जायत्या कवितांनी करता. 'मनशाचो जल्म मेळप हें व्हडलें भाग्य' अशें सांगपी 'देववाणी' ही कविता, 'कुडीक मरण आसलें तरीय आत्म्याक मरण ना' अशें पटोवपी 'जल्म, मरण आनी पुनरजल्म' ह्यो कविता उल्लेखनीय आसा. तेभायर, मानवसेवेक सर्वश्रेश्ठ सेवा समजुपी आनी अनश्वर ज्ञानाक अमुल्य संपत्ती मानपी दिव्य विचार ह्याच झेल्यांतल्या दोन माणकुल्या कवितांनी मेळटात. जबरदस्त आशय अभिव्यक्त करपी ह्या झेल्यांतल्या त्या दोन माणकुल्या कवितांची देख हांगा घेवयाच.

1) कोणाक लागता पोटा भूक
कर तूं अन्नदान तींका
सदा दया कर तूं दीनांचेरी
उतरां चांग सदा उल्लेय तूं
मानव सेवा कर तूं निस्वार्थ
पावतोलो देवु तुज्या कडेक
(मानव सेवा)

2) ज्ञान अमुल्य संपत्ती ज्ञान ते सदां अनश्वर
ज्ञान सदां प्राप्त कर तूं
स्वयं प्रकाशित जा तूं
तोंड तुगेलें आदित्य समान
(अमुल्य संपत्ती)

ह्या झेल्यांतल्यान कोंकणीचे केरळी शैलीचें मनमोहक दर्शन पडटा. तेभायर ह्या झेल्यांतल्या साबार कवितांनी म्हाका एक गजाल खेलतायेन जाणवल्या, ती म्हणल्यार हो कवी दर एके कवितेंतल्यान रांचो चिंता-हुस्को काडटाना दिसता. फकत बरोवपाक जाय म्हूण तो कविता बरयना तर ताका किते तरी सांगपाचें आसा, मुखावेल्याक मार्गदर्शन करपाचें आसा. तशेंच आपल्या अणभवांतल्यान हेरांक सादूर करपाचे आसात. ताची काव्यहारांतली पयली ते निमणी मेरनची कविता वेगवेगळे संदर्भ घेवन होच सूर आळयताना दिश्टी पडटा. कांय जाणांक हो आशयाचे नदरेंतलो पुनरावृत्तीचो काव्य-दोश दिसुंयें पूण केरळ वाठारांत विस्थापीत कोंकणी समाजाची चारशीं वर्सांची परंपरा ताका कारणीभूत आसा अशें म्हाका दिसता. भोंवतणच्या थळाव्या कोंकणी समाजांतल्या दर एका घटकाचो हो कवी हुस्को करता पूण प्रत्यक्षांत आपलें आंग खंयच दाखयना. कुशीक रावून तो आपले तांकी प्रमाण 'म्हजान जाताले हांव करका' अशा न्यायान चानयेचो वांटो उखलपाचें कार्य करीत आसा. कोची वाठारांतल्या थळाव्या कोंकणी समाजाची मान-मर्यादा, मनोवृत्ती आनी मानसिकताय घेवन वावूरपी हो एक अनामीक कवी आयज नांवरुपाक येता. ताचे मदीं उपाट प्रतिभा आसा हाची गवाय हो काव्यहार गवाय दिता. काव्य-वाचनाचो सराव, काव्य-लिखणेंतलें सातत्य आनी काव्य-साधनेचो व्यासंग धरल्यार ताच्या रुपान एक बरो कोंकणी कवी कोंकणी साहित्याक मेळपाक कळाव लागचोना अशें म्हजें प्रामाणीक मत जालां.

भोंवतणची पुराय पांचवी धरतरी, झाडां-वाली, फुलां-फळां, दोंगर-न्हंयो, सवणीं-सावदां, मळब-माती, चंद्रीम-नखेत्रां, रात-दीस, उजवाड-काळोख हे सैमीक घटक कवीच्या मनाक काव्याचीं नवीं पाखां लायतात. तांचे कडच्यान उर्बा घेयत तो आपली काव्य साधना तडीक व्हरता. ह्या कवीक छंदांचो, अलंकारांचो, आकृतीबंधाचो सोस ना. घडयें आपले कवितेक खंयच्याच बंदानांत बांदून दवरप ताका पसंत ना. जेश्ट कोंकणी कवी र. विं. पंडीत म्हणटा तशें 'आयलें तशें गायले' ह्या सुरांत हो कवी मनांतले आनी काळजांतले सगळे भाव उत्स्फुर्त रितीन उतरांनी

बांदीत रावता. ताचें मनमशितिशक नितळ आशिल्लूयान तें उतरांचें बांदा
एका भावस्पर्शी काव्यफुलाक जल्म दिता. त्याच काव्यफुलांक एकठांय
करून कवीन हो 'काव्यहार' आमकां भेटयला.

म्हाका हो 'काव्यहार' केरळांतल्या कोंकणी काव्याचो भाव-स्पर्शी हुंकार दिसता. ह्या आपरोसांतल्यान त्या हुंकाराचो परमळ हांवें घेतलाच, समस्त वाचकांक लेगीत ताचो परमळ भावतलो अशी अपेक्षा दवरपाक हरकत ना. ह्या काव्यांत जायत्या गुणां वांगडा कांय दोश लेगीत नदरेक पडटात. ताचीय उस्तवारी वाचकान करूं येता. करचीच. पूण, म्हाका प्रत्यक्षांत ह्या कवीचो हो प्रयत्न तोखणायेचो दिसला. कारण ह्या कवीक हांव प्रत्यक्षांत मेळ्ळा. ताचे कडेन हांवेन भासाभास केल्या, ताचे विचार आयकल्या. म्हाका ताचे मदली काव्यसाधना दिसल्या, तशेंच ताचे मदीं ह्या साहित्यीक मळार नवें शिकून घेवपाची तान-भूक आसा, नवें कितें तरी पेजाद करपाची इत्साशक्त आसा. देखून ताचो दुसरो काव्यझेलो पयल्या परस निश्चितूच सरस आसतलो असो म्हाका ताचे विशीं विश्वास दिसता.



## 13. शिपडून गेल्लया अनुभुतींची ताजी अभिव्यक्ती - पिसूडलेल्यो यादी

तरनाट्या बरोवप्या मदीं नवी साहित्यीक चेतना जागोवचे खातीर 1998 वर्सा केपेंच्या शासकीय महाविद्यालयाच्या प्रांगणांत पयलें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन मुजरत घडोवन हाडिल्लें. प्राचार्य भास्कर सरांची संकल्पना, कार्याध्यक्ष डॉ. राजय पवार आनी वांगड्यांची तकालस तशेंच गोवा कोंकणी आकादेमीच्या आर्थीक फाटबळाचेर कोंकणी भास ,आनी साहित्याचो फुडार सुगूर करपी ह्या कोंकणी सरस्पतीच्या महा-अधिष्ठानाची बुनयाद कुशावती न्हंयचे देगेर पडिल्ली.

दोन दीस चलिल्लया त्या पयल्या संमेलनांत तेन्नाचे सरसळट्या रगताचे तरने कोंकणी संघटक तशेच बरोवपी श्रीधर कामत, संदेश प्रभुदेसाय, पुर्णानंद च्यारी, अनंत अग्नी बी जायते जाण पोटतिडकीन वावूरताले. म्हज्या सारक्यांक ह्या संमेलनांत तांचे कडच्यान तशेंच हेर जेश्ट साहित्यिकांक कडच्यान भोव बरें मार्गदर्शन मेळ्ळें. तें मुखारूय मेळत रावलें. सांगपाचें म्हणल्यार; 1998 साकून चलत आयिल्लया ह्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनान कोंकणी साहित्याच्या मळार पर्जळूंक सोदपी नव्या प्रतिभावंत बरोवप्यांक एक हक्काची माची दिल्या. खाशा करून संमेलनांतल्यो सर्जनशील लेखनाक उर्बा दिवपी लेखन सर्ती, नवोदितांच्या साहित्याची मोलावणी करपी प्रत्यक्ष मार्गदर्शनपर कार्यशाळा, पडवेवेल्या मानेस्तांची थेट भेट आनी चर्चा, युवा बरोवप्यांक मेळिल्ली युवांकूरावेली प्रसिध्दी, सर्गेस्त मेघश्याम नायक युवा कोंकणी साहित्य पुरस्कार आनी संमेलनांतल्यान वयर सरिल्लया वेंचीक युवा बरोवप्याचें पुस्तक प्रकाशन.....

ह्या साबार गजालींक लागून युवा साहित्य संमेलनान एकंदर कोंकणी साहित्याक मोलाचें योगदान दिलां अशें विश्वासान म्हणूं येता. आयज हें संमेलन मुंबय साकून मंगळूर मेरेनच्या युवा बरोवप्यांक एका माचयेर एकठांय हाडून तांच्या साहित्याची मोलावणी करून कोंकणी

साहित्याची घुडी उबारून धरपाक यशस्वी जालां. ह्या संमेल
शेकड्यांनी न्हय तर हजारांनी कोंकणी बरोवप्यांक घडयल्य
तातूंतल्या वेंचीक प्रतिभावंतांक पुस्तक रूपान साहित्याच्या माट
उबे केल्यात. कविता लेखन, कथा लेखन, एकांकी लेखन, नाटवु
लेखन, एकपात्री लेखन, पथनाट्य लेखन, निबंद लेखन, पटक
लेखन, पुस्तक परिक्षण अशे जायते साहित्य प्रकार आयज़ नवे बरोव
व्हडा धिटायेन बरयतात ताचें श्रेय ह्या संमेलनाक वयता.... वचुंक
जाय. आयज जायते युवा बरोवपी कोंकणी वांगडाच हेर भाशेंतल्य
बरयतात वा आपली कलात्मक प्रस्तुती करतात ताचीय उजळणी ह्य
संमेलनांत जाल्या आनी जायत आसा. ह्याच संमेलनांतल्या
नांवारूपाक आयिल्ल्या कांय जाणांनी तर राष्ट्रीय पांवड्यावे
साहित्यीक पुरस्कारूय जोडल्या.

ह्या नव्या युवा प्रतिभावंता मदीं कांय नांवां सहज मतींत येता
- जोफा गोन्साल्वीस, योगिनी आचार्य, अन्वेशा सिगबाळ, विशा
खांडेपारकार, दिवाकर सालेलकार, नरेश नायक, अमेय नायक, पुव
गुडे, श्रीनिशा नायक, गौराज तळावलीकार, विल्मा बंटवाल, प्रसा
पागी, सुनील नायक, संदेश बांदेकार, जयेश राऊत, आदिती फडटे
तन्वी कामत बांबोळकार, कन्या पावसे, पुरूषोत्तम वेर्लेकार, चंद्रकांत
नायक, लालन पालयेकार, रूषिकेश कदम, डेनिस वाज, गोरख
सिरसाट, स्मिता चोडणेकार, सिध्दी शेट रायकार, युगा आडारकार,
अंतरा भिडे आनी जायतीं. तशीं खूब नांवां घेवं येतात. म्हत्वाचें
म्हणल्यार, युवा साहित्य संमेलनांतल्यान ह्या बरोवप्यांची प्रतिभा
चंवरून आयल्या. तेभायर योग्य वेळार मेळिल्लें योग्य मार्गदर्शन तांचे
भितरले प्रतिभेक पोशक थारलां.

वयल्यां युवा बरोवप्यां मदल्या जोफा गोन्साल्वीस, अन्वेशा
सिंगबाळ, नरेश नायक, योगिनी आचार्य, अमेय नायक, विशाल
खांडेपारकार; पुर्वा गुडे. श्रीनिशा नायक, प्रसाद पागी, सुनील नायक,
संदेश बांदेकार, जयेश राऊत हांचें साहित्य पुस्तक रूपांत आयलां. हे
वळेरेंत आतां आदिती अमृत फडते हाचो आसपाव जाता ही खोशयेची

ाजाल. कुंभारजुंवेच्या रामभुवन वाड्यावेलें हें 21 वर्सा पिरायेचें तरनाटें ुरगें आयज कोंकणी सरस्पतीच्या माटवांत कवियत्री म्हूण रितसर वेश घेता. इतल्या ल्हान पिरायेचेर पुस्तक रूपांत वाचप्यां मेरेन येवप ादी गजाल न्हय. तशी गुणवत्ता आसले बगर असो योग येवप शक्य ना. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेच्या परिक्षक मंडळाचो पांचवो बावटो मेळ्ळे बगर तें निखालस शक्य ना. ही गजाल भोव म्हत्वाची कारण ह्या परिक्षक मंडळाचेर जेश्ट साहित्यीक हस्तलिखितां निवडीचें कार्य करीत आसता. तशेंच एखादी साहित्यकृती कराक लागना जाल्यार ती न्हयकारपाचोय अधिकार तांका आसता. हे नदरेन आदिती आपले पयले परिक्षेंत पास जाल्यां. ते खातीर ताका परबी फाव.

आदितीचो हो पयलो कविता झेलो. नांव आसा 'पिसूडलेल्यो यादी'. हांवें आदितीक फाटल्या दोन तीन युवा संमेलनांनी तशेंच कविता सर्तीनी वांटेकार जाताना पळयलां. पूण कविता संग्रहाक तांणी दिल्लें नांव पळोवन पयले सुवातेर म्हाका अजाप दिसलें. कारण हांवें संमेलनांनी आयकल्लूया ताच्या कवितांचो स्थायिभाव वेगळो आशिल्ल्यो. तातूंत पिसूडलेल्यो यादी...! हें नांव मात्शें किचमिटेंचशें म्हाका दिसलें. पूण पुराय कविता झेलो वाचतकच आनी तिच्या कवितांचो अंतप्रवाह आनी मर्मबंध समजून घेतकच म्हजो दुबाव पयस जालो. आदितीच्यो एकंदर सगळ्यो कविता बरीकसाणेन वाचतकच आनी अभ्यासतकच म्हज्या मनांत जीं तरेकवार मतां तयार जाल्यांत ताची उस्तवारी सकयले मोलावणेंत करता.

'पिसूडलेल्यो यादी' ह्या संग्रहांत म्हाका चडांत चड कांय थारावीक विशयावेल्यो कविता दिसल्यो. तातूंत सकयल्या आशय विशयांक धरून चडश्यो कविता अभिव्यक्त जाल्यांत. देखीक –

**– मोगाच्या तरन्या आनी अमुरपिक्या यादींच्यो कविता**

**– घरच्यांचो आनी लागशिल्ल्यांचो नातेसंबंद उक्तावपी कविता**

**– शणत वचपी मनीसपणाचो हुस्को करपी कविता**

**– गोंयच्या सैमाची आनी पर्यावरणाची चिंता मांडपी कविता**

– संवसाराच्या शांती आनी सवस्तकायचीं सपनां पळोवपी कविता

खरें म्हणजे, खंयचेय भाशेंत कवीक आनी ताच्या कवितेच्या आत्म्याक सगळ्यांत पयलो चंवर फुट्टा तो मोगाचोच. मोग हो विशय भोवूच नाजूक तसोच म्होंवाळ. तरन्या मनाक तो सहज झोपय मारता. अबुध्द पिरायेवलो निर्मळ निशपाप मोग आनी ताच्यो संवेदना दर एक काळजांत उसळी मारताच. ही कवियत्री तेच उसळी मारपी भावनेक आपल्या शब्दांनी अचूक टिपता. तिची स्वताची भावनीक पातळी आनी कवितेच्या आशयाची पातळी एक जाल्ल्यान थंय विलक्षण योग जुळून नव्या मोग कवितेचो जल्म जाता. हो योग विंगड विंगड रूपांनी ह्या झेल्यांत परत परत जुळळा. केन्ना हो योग उपाट मोग जावन हरंदारीचो पावस कसो शिपडटा जाल्यार केन्ना विरहाचे धगधगते इंगळे जावन काळीज ल्हासयता. केन्ना पासयासाचो दोर तोडून मन पिजून उडोवपी सुकी वाट पळोवंक लायता जाल्यार केन्ना सगळीं सप्तरंगी सपनां भंगून जीण काबार करता. ह्या झेल्यांतली वाट पळयता ही पयली कविता पळोवची -

**दर्याचे धडेर आयजूय बसून**
**वाट तुजी पळयता**
**वांगडा सारिल्ले मोगाचे खीण**
**काडीत याद एकलेंच मुमुरख्यांनी हांसता**
**पयलीं ह्याच तिनसांजच्या वेळार**
**तूं म्हाका मेळपाक धडेर येतालो**
**आमच्यो मोगाच्यो गजाली आयकून**
**दर्या पिसो हांसतालो**
(वाट पळयता)

दर्या पिसो हांसतालो.... ही कवितेंतली वळ पुराय कवितेक वेगळी प्रतिकात्मक कलाटणी दिता. मोगाची संकल्पाना मांडटाना ही

कवियत्री सदांच वेगळें कितें तरी करूंक सोदता. हेरांची अभिव्यक्ती जशी जाल्या ताचे परस कितें तरी वेगळें तिका मांडपाचें आसा. मोग हो विशय जरी सदचो जालो आसलो तरीय ती आपल्या अणभवविश्वाच्या मालवज्यार आनी प्रतिभेच्या बळग्यार मोगाच्यो नव्यो संकल्पना तयार करपाचो हावेस बाळगिता. हो हावेस सदांच जैतिवंत जाता आसो ना तरीय तातूंतल्यान एक नवी काव्यशैली तयार जाता. ती स्वता हे कवियत्रीची. हे सकयले कवितेंत ती अशी अभिव्यक्त जाल्या. -

**आसचो म्हजो मोगी**
**जो वाती भशेन आपूण**
**जळून दुसऱ्याक उजवाड दिता**
**आसचो म्हजो मोगी**
**जो झाडा भशेन वोत सोंसून**
**दुसऱ्याक सावळी दिता**
(आसचो म्हजो मोगी)

ही कवियत्री मोग आनी मोगा वांगडा येवपी सुख-दुख्खाक भोव साक्षिभावान आपणायता. हे वाटेर फुलां परस कांटेच चड आसात हें तिका खबर आसा. देखून अमुरपिक्या काळजांतलो तरनो मोग ती सादूरतायेन शब्दबध्द करता. ती अशा एका मोगिकेची आंतरीक भावना मांडटा जिका आपल्याक न्हयकार मेळटलो हें खबर आसुनूय धिटायेन मोगाच्या कांट्यान्या रस्त्यार धाडसान चलता. 'उतर मोगाचें' हे कवितेंतली मोगिका दर्याक साक्षी दवरून उमाशेच्या राती किरकिऱ्याच्या आवाजा सांगातान मोगी कडेन मोगाचें उतर घालता. अपेक्षे प्रमाण तिका न्हयकार मेळटा. तेन्ना ती जें म्हणटा तातूंत मोगाचो पुरातन संदर्भूच बदलून वता. नितळ, निवळ, निशपाप आनी निस्वार्थी मोगाची व्याख्या करपी ही कविता पळयात -

**हांव जाणा तुजें उतर**
**कितें आसतलें तें**

म्हूण तर तुका हांवेंन
उमाशेचे रातीच
उतर घालें
कित्याक तर ?
हो काळोख म्हाका
पयलींच आपणावपाक जाय
म्हज्या जिणेंत
(उतर मोगाचें)

मोगाच्यो बऱ्यो वायट यादी सांगपी जायत्यो कविता ह्या झेल्यांत आसात. तातूंत 'कितें म्हण मोग आसता, मोग, तुज्या वांगडा, म्हाका सांग, किमचिलें, घात, तुजेखातीर, तुमो, भुलता, मोगाच्यो तिकल्यो' अश्या कवितांचो आसपाव जाता. एक गजाल हांगा बरोवपाक जाय; ही कवियत्री मोगाच्या फुलांचो परमळ उक्तो करतानाच फुलांतल्या कांट्यांची वेदनाय तितलेच तिव्रतायेन मांडपाचो यत्न करता. दाखय लिपय अशें कांय ती करीना. तिका जें अभिप्रेत आसा तें ती स्पश्टपणान मांडीत वता. तिच्या काव्य-प्रतिभेचेर सकयल्यो वळी वाचतकच विश्वास दवरूं येता अशें म्हाका दिसता.

सुख दूख म्हजें
तुजें आशिल्लें
तातूंतलें दुख्ख म्हजेंच
कित्याक जालें
तें म्हाका सांग?
(म्हाका सांग)

'मोगाच्यो तिकल्यो' ह्या माथाळ्या खालाय मोगाच्या आशय विशयांचीं जायतीं स्फूटकाव्यां ह्या झेल्यांत आसपावल्यांत. तांची भोव मोठी संख्या झेल्यांत आसा. मुजरत वाचचीं.

'पिसूडलेल्यो यादी' ह्या कविता झेल्यांत आवय, बापूय, भाव, इश्ट आदी नाते संबंदांतल्या उत्कट मायेची वा अर्थ आपुरबायेची कविता अभिव्यक्त जाल्या. कुटुंबव्यवस्था आनी विविध नातेसंबंदाचें संगोपन हें भारतीय जिवनशैलीचें पुराय मानवी संस्कृतायेक मेळिल्लें एक अलौकीक देणें जावन आसा. आयज जगाक भारतीय संस्कृताय कितें बरें दिवंक शकता जाल्यार तें हेंच. आमचे संस्कृतायेची सासाय आनी शाश्वतताय पुराय जगाक प्रेरक थारल्या. तिचें मोठेंपण आयचे 'आयटी युगांतले' नवे पिळगेक कळून येता ही भोव तोखणायेची आनी अभिमानाची गजाल. ही नव्या युगांतली कवियत्री आपले भोंवतणचे सभ्यतायेक रेस्पेद दिता, तिचो मानसन्मान आपले कवितेंत करता. स्वता आईच्या आनी बाबाच्या कश्टांचें मोल ती काळजांतल्या ल्हवपीक उतरांनी अशे तरेन मांडटा.

**1) आवय, तुवें म्हाका<br>कांयच मागानासतना<br>सगळें दिलें<br>तुवें तुजें जिवीत<br>म्हज्याच सेवेक ओंपलें**<br>(आवय)

**2) जोर येवन हांव कडकडटा<br>मायेच्या स्पर्शाक हांव<br>आशेता त्या वेळार आई<br>म्हाका तुजी याद येता...<br>.................. ल्हानपणी केल्लो<br>तुमी म्हजेर मोग<br>खिणा खिणाक याद येता<br>आई, दाय तुमच्यो यादी<br>मागीर म्हाका रडयता...**

(याद)

'डॅडी' हे कवितेंतलो आर्तस्वर भोव मोलाचो. कारण; आमकां पदरापोंदा घेवपी, घस्स् करून दोळे ओले करपी आनी आकांतून मायेचो घसघसो घालून वात्सल्ल्यान आमकां न्हाणोवपी आईचीं दुकां आनी तिचो त्याग सगळ्यांक दिसता. पूण आपलो घुस्मटमार मोन्यानी सोंसपी, सगळें दुख्ख एकटो पिवपी, दिसरात अख्ख्या फामिलीची चिंता करपी आनी माथ्यावेलो एक एक केस झडोवन परिवाराचो सांबाळ करपी आमचो डॅडी, पप्पा, बाबा हांची केन्नाच आईवरी अपुरबाय जायचना. त्याच कारणा खातीर वयल्यान कठोर वा राकट दिसपी बापायच्च्या मोन्या दुख्खाचेर सहज कविता सुचना वा तसलें बरप जायना. म्हणजे, आवयच्च्या वलया मुखार बापूय चडचो दिसाचना म्हटल्यार जाता. अशा वेळार आदितीची 'डॅडी' ही समस्त डॅडींच्या, पप्पांच्या आनी बाबांच्या त्यागाची वट्ट मळबायेदी जाणिविकाय आमकां करून दिता. संदीप खरे ह्या मराठींतल्या कवीच्या कवितांची याद करून दिवपी ही कविता. तातूंतल्यो ह्यो स वळी :-

**तूं आयज मेरेन**<br>
**वावूरलो डॅडी**<br>
**आमच्या सपनांक**<br>
**आकार दिवपाक**<br>
**रातीचे दिस केले**<br>
**भुरग्यांक सांबाळपाक**<br>
(डॅडी)

भोंवतणच्या हेर नात्यांचेर भाश्य करपी हेर कविताय ह्या झेल्यांत आसा. देखीक - बाबा, इश्टागत, ती, शेणिल्लीं नातीं, शिक्षक आदी. ह्यो साबार कविता आदितीन रचल्यात खऱ्यो पूण तांकां आकार दिताना तांणी आनीक काव्य तपस्या करपाची गरज आसली. तशें कलें

जाल्यार फुडाराक आमकां एक तांकिवंत कवियत्री निश्चीत मेळटली. कवितेची बरी आनी खरी साधना केल्यार ताका तें सहज शक्य आसा. कारण ताका नाते-संबंद, समाजीक जाणीव हांचेवांगडाच कवितेचोय मोग आसा.

शणत वचपी मनीसपणाचो तशेंच गोंयच्या पर्यावर्णाचो हुस्को करपी कांय वेंचीक कविता आदितीन बरयल्यात. तातूंतल्यान तिची समाजीक जाणीव चड नदरेक भरता. तिका समाजांत घडपी अन्याय अत्याचार भितरल्यान सतयता. गरीबांचेर, दुबळ्यांचेर, बायलांचेर, निर्बळांचेर आनी निशपापांचेर जावपी आगळीक तिच्या मनार आघात करता. संवसार खंयचे दिकेन वयता काय म्हूण ती प्रस्न करता. मनीस सुवार्थान आपलोच फोंड खणटा तें हे कवियत्रीक सोंसना. देखून संबंदीत विशयांचेर ती पोटतिडकीन उलयता आनी आपले कवितेंतल्यान ती म्हणटा -

**1) हे मनशा, तूं इतलो**
**स्वार्थी कित्याक जाला**
**रगताच्या नात्यांक कित्याक विसरून गेला ?**
(मनशा)

**2) ल्हान भुरग्यांचे**
**कुडी वांगडा जो खेळटा**
**मनीसपण कितें**
**हो प्रस्न पडटा**
**गोंयची दशा पळोवन**
**काळीज म्हजें रडटा**
(प्रस्न)

आमच्या देशांत आनी गोंयांतूय ल्हान सान माणकुल्या भुरग्यांचेर आनी अस्तुरेंचेर ज्यो शारिरीक आनी मानसीक आगळिक्यो जातांत ताचेर

कवियत्री आपली तिडक हे वयले कवितेंत व्यक्त करता. मनीसपण शेणत वयता आनी रानवटी संस्कृती परत रूजता हाचें तिका दुख्ख जाता देखून असल्यो समाजीक आशयाच्यो कविता ती रचीत वयता. सत्य, दर्या रे, सोबीत गोंय, पावल, काळचक्र, फुडार कितें, सैम भार, नरकासूर, मिनाचें वारें, नदर सारक्या कवितेंची हांगा देख दिवं येता.

दर एक कोंकणी कवी आपले कोंकणी भास आनी संस्कृतायेचेर काव्य बरयताच. ही कवियत्रीय ताका आडवाद ना. गोंयच्या दर एका घटकाचो मोग तिका आसा हेंच तिचे कवितेंतल्यान कळून येता. 'सोबीत गोंय' हे कवितेंत कवियत्री गोंयच्या सैमाची तोखणाय करता जाल्यार 'मिनाचें वारें' हे कवितेंत गोंयकारांच्या सुवार्थी वृत्तीचेर ती व्यंग करता. ते कवितेंत मिनाच्या धंद्या विशीं तिच्यो भावना कश्यो अभिव्यक्त जातात त्यो पळयात.

**गोंयांत आयलें नवें**
**वारें मायनींगचें**
**गोंयकारांक लागलें**
**पिशें मिनाचें**

**पांचवे दोंगर गोंयकारांच्या**
**दोळ्यांत भरले**
**तांका ते केन्नाकांय**
**तांबडे करीनशे दिसले**
(मिनाचें वारें)

वयल्या समाजीक उत्फर्क्या वांगडाच कवियत्रीचे जिविता संबंदाचे कांय वैयक्तीक उमाळेय भोव सुंदर रितीन कवितेचें रूप घेवंक पावल्यात. तरनाटे पिरायेचेर जशी उपाट उमेद आनी कितेंय नवें

करपाची खुमखुमी आसता तशीच एक अनवळखिशी काळखी निर्शेवणीय तना मनांत पसरत आसता. भोंवतणचे परिस्थितीची भयानक जाणविकाय लेगीत तेन्ना तरनें मन उद्ध्वस्थ करून उडयत आसता. ही कवियत्री त्या अस्पशट भावनेत आपल्या शब्दांनी टिपपाचो यत्न करता. त्या यत्नांत ती जिविताचें तत्वगिन्यान आपले परीन मांडीत वयता. 'जीण, जिवितीचे वाटेर, खेळ, वादळ, एकटेंपण, मळब आनी काळीज, दुख्ख, पोखरता' ह्यो कविता ताची देख आसा. कांय कडेन कवियत्री तें तत्वगिन्यान मांडपाक यशस्वीय जाता जाल्यार कांय कडेन फसता. 'वादळ' हे कवितेची देख हांगा घेवया –

**सैमाचेर आयलें**
**पावसाचें वादळ**
**म्हज्या जिणेंत आयलें**
**दुख्खाचें वादळ...**
**पावसाचें वादळ**
**कांय खिणा पुरतें**
**म्हज्या दुख्खाचें वादळ**
**सासणाचें**
(वादळ)

'मागणें' हे कवितेंत जाल्यार समस्त मानवजातीचे शांती, समृद्धी आनी सवस्तकाये खातीर ही कवियत्री आपल्या आराध्य देवतां कडेन नमळायेची विनवणी करता. श्रीराम, महादेव आनी महालक्ष्मी कडेन ती 'सगळ्यांचें घर भरून दार वतचें' अशा स्वरूपाची प्रार्थना करता.

आदिती अमृत फडते हाच्या ह्या पयल्या झेल्यांत कांय बसस्थानां आसा तशींच कांय दुबळीं आंगांय आसात. शब्दभांडारांत उणीव आशिल्ल्यान तेच तेच शब्द आनी संदर्भ ती जायते फावटीं

वापरता. विचारांनी गंभिरताय आसली तरीय ते प्रगल्भ जावपाची गरज आसा. कल्पना, शैली आनी मांडणी हांचेरूय आनीक रियाज केल्यार बरें जातलें. आदितीन लेखना विशींचो व्यासंग वाडयल्यान आनी वाचन, चिंतन आनी मनन सेगीतपणान केल्यार अशा उणिवांचेर तें सहज मात करूंक पावतलें हातूंत म्हाका तरी दुबान दिसना. तिणें जें ताका सुचयलां तें निश्टेन करचें. हें जालें समिक्षात्मक निरूपण. पूण कौतुकाची गजाल म्हणजे; हे कवियत्रीक आपूण जें कितें सांगपाक सोदता ताची पुराय जाण आसा. वोगीच बरोवपाक जाय म्हूण ती बरयना. तिचे कडेन जिविताचो अणभव आनी कवितेचो अभ्यास उणो आसा हें तिकाय मान्य आसा, देखून ती आपले वेंगेंत येवपीच आशय विशय हाताक धरून आपली काव्यात्मक अभिव्यक्ती करता. म्हणजेच एकंदर ती आपले कविते कडेन प्रामाणीक आसा.

आदितीन तें प्रामाणिकपण जपून कोंकणी कवितेंत अशीच भर घालची आनी जांणी जांणी ताचे प्रतिभेचेर विश्वास दवरला तो विश्वास सार्थ करचो. मायभाशेन ताका जें आत्मतेज दिलां तें आनीक तेजिस्ट करून कोंकणी कवितेच्या मळार एक झगझगतें नखेत्र जावन तें पर्जळीत रावचें.



## 14. 21 व्या शेकड्यांतली आधुनीक कोंकणी एकांकी : एक प्रयोगात्मक एकांकी झेलो

आयची कोंकणी एकांकी ही प्रयोगक्षम एकांकी म्हूण मुखार येता. आयच्या 21 व्या शेकड्यांत एकांकी ह्या नाट्यप्रकारांत नवनवीन प्रयोग जाताना दिश्टी पडटात. संवसारांतल्या हेर मुखेल साहित्यीक भासां वांगडाच भारतीय भासांनीय हे नवे प्रयोग यशस्वी जाल्यात. हालीसराक जाल्यार धा मिनटांचो फ्लॅश ड्रामा (FLASH DRAMA) हो एकांकीचो नवो तंत्रबद्ध प्रकार पाश्चात्य रंगमाचयेर गाजपाक लागला.

**एकांकी ह्या नाट्यप्रकाराच्यो कांय व्याख्या पळोवया -**

"A one-act play is a play that has only one act, as distinct from plays that occur over several acts. One-act plays may consist of one or more scenes." (एकांकी ह्या नाटकाच्या वेगळो तशेंच स्वतंत्र प्रकार आसून तातूंत फकत एकूच अंक आनी एक वा एकापरस चड देखाव आसतात.)

"One -ct is not a cut down Drama."(एकांकी हो नाटक ह्या साहित्य प्रकाराचो तोडिल्लो कुडको न्ही.)

एकांकी हो नाटकाचो एक तांकिवंत प्रकार आसून ग्रीक आनी भारतीय संस्कृतायेंतूय ह्या नाट्यप्रकाराची बियां शिपडून पडिल्ल्याचें नदरेक भरता. कोंकणी एकांकीचीं मुळां चडकरून आमच्या लोकनाट्यांत पळोवपाक मेळटात. भारतीय लोकनाट्यांतल्यानूय हो मोटवो तशेंय प्रभावी नाट्यप्रकार हालीच्या काळांत भोवूच लोकप्रीय थारला. जागोर, रणमालें, तियात्र, कालो हीं कोंकणी लोकनाट्यां हांगा देखीखातीर दिवं येतात. कोंकणी एकांकीचो विचार केल्यार, गोंय हें कोंकणी एकांकीचें केंद्र जालां हें मतींत येता. तरीयपूण मंगळूर, मुंबय सारक्या वाठारांतूय कोंकणी एकांकी फुल्ली फळ्ळी हाचेय पुरावे आमकां मेळटात.

## आर्विल्ले कोंकणी एकांकीचो आरंभ

आधुनीक स्वरूपाची पयली कोंकणी एकांकी रामचंद्र शंकर नायक हांणी रचली. 'चवथीचो चंद्र' ह्या नांवान ती 21 डिसेंबर 1934 ह्या दिसा सादर जाली. उपरांत ती पुस्तकरूपान आयली. ह्या एकांकीचे प्रयोग त्या काळांत काणकोण साकून मुंबयमेरेन सादर जाले. ह्या एकांकींत कोंकणीच्या कारवारी, अंत्रुजी, साश्टी आनी बारदेशी ह्या बोलींचो वापर बरोप्यान केला. रामचंद्र शंकर नायकान खरें म्हणल्यार कोंकणी भाशेच्यो भगल्यो मारपाच्या हावेसान ती एकांकी बरयल्ली पूण ताचो उरफाटो परिणाम जावन कोंकणी भाशेचें सामर्थ्य स्वता बरोवप्याक आनी लोकांक कळून आयलें. ह्या एकांकी उपरांत रामचंद्रबाबान 'दामू कुराडो, सोनुदादलो संवसार, एकापरस एक हटी, म्हजो सर्गार आशिल्लो प्रकार, शिकयल्ली शिकवण' आदी एकांकी रचल्यो. तांच्या ह्या वावराखातीरूच शणै गोंयबाबन तांकां 'आचार्य' ही पदवी दिली.

रामचंद्रबाबाचे समकालीन प्रो. बाळकृष्ण सावर्डेकार हांणी 'खुटये भाटांतलें शियाळें' ही एकांकी रचली. हिवूय एकांकी कोंकणी भाशेचें उणेंपण दाखोवपाकूच बरयल्ली. पूण ताचोय परिणाम कोंकणीच्या उत्कर्शा खातीरूच जालो.

विसाव्या शेकड्याच्या मदलशीक गोंयांत रामचंद्रबाबा सारके दुसरे बरोवपी जालेनात पूण वसंत कारेन 'रिटेबाब, नबत ' ह्यो एकांकी त्यावेळार साद ह्या अंकांत उजवाडायल्यो. जाल्यार गोपिनाथ विसू आर्सेकार हांणी 'रवळू पैलो दिवटो', डि. व्ही. काणेकार हांणी 'म्हाळूदादाली फुंकणी ' ह्यो एकांकी रचल्यो ज्यो संवादांतलें घोळटेंपण, भाशेची गिरेस्तकाय, खरीं पात्रां आनी व्यक्तिविशेश ह्या गूणांक लागून गाजल्यो.

ह्याच कालखंडांत कर्नाटकांतल्या मंगळूर वाठारांत लुईस मास्कारेन्हस, चा. फ्रा डिकोश्टा एकांकी आनी नाटकांच्या मळार गाजताले. चाफ्राबाबान जाल्यार विनोद आनी समाजिकताय हांचेर जायत्यो एकांकी रचल्यांत. 'सुणें मांजर हांसता ' ह्या झेल्यांत तांच्यो

ाजिल्ल्यो एकांकी आसपावल्यात. 'टॉमेटो, हांडो उटला, विशेशिचें भान' ग्रो तांच्यो एकांकी तातूंत आसपावल्यात.

केरळांतल्या बैदूर देवराय अय्यंगळ ह्या बरोवप्यानूय त्या काळांत 'कौरवालो कृष्ण' आनी 'पार्वती कवड काडी' ह्यो पुराणिक कथानकाचेर आदारीत एकांकी रचून कोंकणी एकांकीची परंपरा मुखार व्हेल्ली आसा.

**मुंबय शारांत कोंकणी एकांकी चळवळ -**

1950 ते 1960 ह्या दशकांत आधुनीक कोंकणी एकांकीची खरी चळवळ मुंबय शारांत सुरू जाली. मुंबयंत शिकपी गोंयकार तरणाट्यांनी ह्या वावराक खांद मारलो. भारतीय विद्याभवन आयोजीत आंतर-महाविद्यालयीन एकांकी सर्तींत कोंकणी भाशेचो आसपाव करून आनी उपरांत नवनवीन एकांकी सादर करून ह्या चळवळीचो तांणी आरंभ केलो. 'विद्या' ह्या तांच्या अंकांतूय त्या वेळावेल्यो एकांकी उजवाडाक येताल्यो. 'दामू कुराडो, सोनुदादालो संवसार, चवथीचो चंद्र, रघुवीर रामा नेवरेकाराल्यो कोडू निंबू ' अश्यो कांय वेंचीक एकांकी पयलीं पयलीं थंय जावपाक लागल्यो जाल्यार उपरांत किसन कामत, अशोक कामत, विश्वनाथ संझगिरी, शंकर भांडारी हांच्यो एकांकी सर्तींत मुजरत सादर जाल्यो. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या 'आयज रे धोलार पडली बडी' ह्या गीतनाट्याचेय प्रयोग त्यावेळार एकांकीच्या रूपांत सादर जाताले.

ह्या काळांतल्या गाजिल्ल्या एकांकीचे उपरांतच्या काळांत झेले प्रकाशीत जाले. तातूंत किसन कामत हांचो 'दोन आनी दोन' चंद्रकांत पार्सेकार हांचे 'कोंकणी एकांकीकां, देवचार आनी हेर एकांकिका '. डॉ विनय सुर्लकार हांच्या 'खावचीं पानां, सात मजली हांसो' अश्या झेल्यांचो आसपाव जाता. किसन कामत, डॉ. सुर्लकार ह्या बरोवप्यांनी बाप्पा नांवाची मध्यवर्ती व्यक्तिरेखा घेवन जायत्यो विनोदी एकांकी ह्याच काळांत रचल्यो. तातूंत 'बाप्पा शिवराक, बाप्पाली म्हस, बाप्पाली हुड्डमेथी, बाप्पा भजीं गाळटां, बाप्पाय ना पुडवेंय ना, बाप्पाक व्हनीन

शिगां लायलीं, बाप्पाली गांथन, बाप्पा खंवसता' ह्या एकांकींचो आस
करूं येता.

1968-75 ह्या काळांत कोंकणी एकांकीच्या मळार अशो
कामत हांणी सुमार 20 एकांकी बरयल्यो. 'अशोकांकी, म्हजी भूंय म्ह
मोग, कोण कोणाचो न्हीं' अशे तीन झेले तांच्या नांवार आसात.
कालखंडांत डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी 'स्मगलर', र्‍व
केळेकारान 'मुक्ती, तीन एके तीन', प्रा. प्रकाश थळी हांणी 'तीन खे
शाणीं सुरती' ह्या एकांकी झेल्यांची रचना केली.

## 1980 उपरांतची कोंकणी एकांकी

1978 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीन कोंकणी, मराठ
गुजराती आनी सिंधी ह्या भासांतल्या एकांकिकारांक उर्बा दिवपाक
राष्ट्रीय कृतिसत्र घडोवन हाडिल्लें. तातूंत दत्ता श्री नायक, बैंदूर देवरा
अंय्यगळ, अशोक कामत, पुंडलीक नायक ह्या कोंकणी एकांकिकारां
वांटो घेतिल्लो. तातूंत नवे विशय नवें लेखन तंत्र आनी नवी प्रयोगीकता
एकांकींत येवंची हो हावेस आयोजकांनी बाळगिल्लो. ह्या बरोवप्यांनी त्य
कृतिसत्राचो अर्थपूर्ण उपेग कोंकणी एकांकीच्या उत्कर्शा खाती
केल्ल्यानूच 1980 उपरांत कोंकणी एकांकी आशय-विशयाचे आनी
तंत्र-मंत्राचे नदरेन सशक्त जायत गेल्ल्याचें दिसून येता. वयल्य
बरोवप्या मदल्यान खासा पुंडलीक नायकान नाटका वांगडाच कोंकणी
एकांकीक राष्ट्रीय पांवड्यार मानान पावोवपाचें मोलादीक कार्य केलें.

पुंडलीक नारायण नायक कोंकणी साहित्याच्या मळार पावल
दवरलें तेंच मुळांत बाल नाटिकेंतल्यान. आपल्या रानसुंदरी हे बाल
एकांकींतल्यान तांचो साहित्याचो प्रवास सुरू जालो. 'चौरंग,
आकाशमंच, दिगंत ' हे तांचे एकांकी झेले समस्त वाचकांनी आनी
प्रेक्षकांनी उखलून धरले. ताच्यो एकांकी जायत्या राष्ट्रीय आनी
आंतरराष्ट्रीय भासांनी अणकारीत जाल्यात. 'सुराट्यालो संवसार, बाप्पा
खो गया, गाणिलो गणपती' अशो विनोदी एकांकी तांणी रचल्यो.

मर्णकटो, पावणी, एक जुंव्यार जंय, खाटकागेर एक रात, महासागरांतलें तारूं' ह्यो तांच्यो कांय गाजिल्ल्यो एकांकी. पुंडलीक नायकाच्या एकांकींतल्यान आयच्या आधुनीक समाजांतले सगळेच प्रस्न भोव कल्पकतायेन तांणी मांडल्यात.

मर्णकटो सारक्या एकांकींतल्यान तांणी तरनाट्यांच्या आत्महत्तेच्या साबार कारणांचेर वास्तवतायेन भाश्य करून भ्रमिश्ट जाल्ल्या युवा मनांक एक नवी दिका दाखोवपाचो यत्न केला. पावणी हे एकांकींत आयच्या काळांत सुटकेझुजाऱ्यांच्या वावराचें मोल कितलें आसा काय? ह्या प्रस्नाची उस्तवारी करपाचो यत्न बरोवप्यांन केल्लो आसा. जाल्यार एका जुंव्यार जंय सारकी तांची एकांकी मानसीक गुलामगिरीतल्यान वयर सरपाचो मंत्र फकत ह्या भुयेंतल्यान किलल्ल्या भुंयपुतान दिल्यारूच स्वातंत्र्याचो खरो दिश्टावो सर्वसामान्यांक जातलो हो दिव्य विचार नाट्यमय घडणुकांनी मांडला. 'महासागरांतलें तारूं आनी पाडे बांयंत भांगर पिकलां' सारक्या एकांकींतल्यान पुंडलीक नायकान थळावेच न्हय तर वैश्वीक विशय कोंकणी एकांकींत हाडल्यात. तांच्या 'चौरंग' ह्या एकांकी झेल्याक 1984 वर्सा साहित्य अकादेमीचो मानाचो पुरस्कार लाबलो हो तांचे प्रतिभे वांगडाच कोंकणी एकांकीक फाव जाल्लो राष्ट्रीय भौमान जावन आसा.

पुंडलीक नायकाचे समकालीन तॉनाझीन कार्दोज हांणी तियात्राच्या शैलीची एकांकी रचल्या. 'चीट' ही तांची गाजिल्ली एकांकी. 'चीट, पुनरदृश्ट आनी परिक्षा' ह्यो एकांकी तांच्या एक आंकी नाटकुलीं ह्या झेल्यांत आसपावल्यांत.

फा. फ्रेडी. डिकॉस्ता हांणीय 'पाद्री जुजे वाज, शंबू पसरकार, खरेलो पाद्री, बदल, शिकपाचें मोल, जेजुचें कश्ट, वाट, खरीं नातलां तशेंच बाप्पा मंत्री जाता, बाप्पा सोर्त फुट्टा, बाप्पा बाइरीन वता' ह्यो विनोदी एकांकी रचल्यांत तांच्यो ह्यो एकांकी 'बाप्पालीं नाडेपेन्नां' ह्या नांवान कोंकणी अकादेमीन 2007 वर्सा उजवाडायल्यांत.

विनोदी कोंकणी एकांकीकार म्हणून भरत नायक हांणीय व्हड नांव जोडलां. ताच्यो 'भेरे भेरें टुणटुणें, बॉबी न्हिदता तेन्ना, चपलाहार, एक

कवी लाखा धनी' ह्यो स्वतंत्र एकांकी विनोद आनी भाशाशैली खातीर भोव गाजल्यात. एका भेड्डया आनी भोळ्या भुरग्याचें भाटकारागेर वावराडी म्हूण काम करतानाचें भन्नाट जिवीत भरत नायकान भेरें भेरें टुणटुणें हे एकांकीत मांडलां. ही एकांकी हय, ना, केन्नाय हय, ना, केन्नाय ह्या एकाच संवादान समस्त प्रेक्षकवर्गाक पोट फुटसर हांसूंक लायतानाच दोळ्यांत दुकांय हाडटां.

दिलीप बोरकारान 'कॅन्सर, एक शुन्य प्रवास' ह्या आपल्या एकांकी झेल्यांतल्यान मनशाच्या जिवितातंले वैयक्तीक तशेच समाजीक उमाळे नव्या फास्केंत बसोवपाचो यत्न केला जाल्यार हेमा नायक ह्या स्त्रीवादी फेमिनिस्ट लेखिकेन 'भायली गोडी' ह्या झेल्यांतल्यान बायल मनशेचें चिरंतर दुख्ख आनी व्यथा एकांकीतल्यान शब्दबद्ध केला. कथा लेखिका मीना काकोडकार हांणी 'साळकांतलो जादूगर' आनी जयमाला दणायत हांणी सप्तक हे संस्कारमय एकांकी झेले बरयल्यात.

ह्या बरोवप्यांचें समकालीन एन. शिवदास, तेनासिंग रूद्रीगीस, जॉनी एम्, रामकृष्ण जुवारकार, सुहास सावर्डेकार, रवींद्र नमशिकार, अभय कुमार वेलिंगकार, दत्ता श्री. नायक, तुकाराम शेट, अनिरूध्द बीर, जे. एल. गोयश, अशोक भोसलो, सतीश सोनक, गोकुळदास मुळवी, द. वा. तळावणेकार हांच्यानी कोंकणी एकांकीची परंपरा मुखार व्हरपाक हातबोट लायला.

## नव्यो एकांकी नवे एकांकीकार

1990 साकून कोंकणी एकांकीच्या मळार जायते नवे एकांकीकार उदेल्यात. 1969-70 सांकून गोवा कला अकादमीच्या विद्यालयीन आनी आंतरमहाविद्यालयीन एकांकी सर्तीतल्यान ते वयर सरल्यात. देखूनच गोवा कला अकादेमीचें कोंकणी एकांकीचे उदरगतींत म्हत्वाचो वांटो आसा. हे सर्तीन तशेंच गांवागावांनी दर वर्सा उत्सवा निमतान तशंच क्रिसमसा निमतान आयोजीत एकांकी सर्तींनी कोंकणी एकांकीक नवें रूपरंग आनी नवे आयाम दिल्यात हातूंत निखालस दुबाव

ना. ह्या सादरीकरणाच्या सर्तींनी नव्या एकांकी खातीर लेखनाचें खेरीत इनाम आशिल्ल्यान नव्या एकांकी संहितेंची भर कोंकणींत पडल्या हें सत्य न्हयकारूंक जांवचें ना.

गोवा कला अकादेमी तशेंच हेर स्वयंसेवी संस्थांनी आनी कोंकणी सेवा केंद्रांनी स्वताच्या हिकमतींत घडोवन हाडिल्ल्या एकांकी सर्तींक कोंकणी एकांकीच्या प्रवासांत वालोर दिवपाकूच जाय. सुनापरान्त, जैत, कोंकणी, बिंब, कोंकण टायम्स आदी नेमाळ्यांनी आपल्या खाशेल्या अंकांनी कोंकणी एकांकीक सदांच मानाची सुवात दिल्या देखुनूय ती 21व्या शेकड्यांतूय जिवी उरल्या. दुर्दैव म्हणल्यार त्यो एकांकी सर्ती आयज तितल्या प्रमाणांत जायनात. गोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, दाल्गाद अकादेमी सारक्या संस्थांनी खांद मारत जाल्यार परत एक फावट ही कोंकणी एकांकी नव्या जोमान नवी उबारी घेवंक पावतली.

**पुस्तक रूपांत आयिल्ले कांय वेंचीक एकांकीकार -**

विनय सुर्लकार - 'सात मजली हांसो', तुकाराम शेट - 'एक जुंवो जियेता', दत्ताराम कामत बांबोळकार - 'वनमहोत्सव', मधुसुदन बोरकार - 'हांसोळ', सुगंधा मडकयकार - 'सप्तरंग', जे. एल. गोयश - 'चैत्रचंवर', फा. प्रताप नायक - 'जुदास', अरूण उभयकार - 'पांचजन्य', राजू नायक - 'जागोर', श्रीधर कामत - 'जैत', उल्हास नायक - 'चतुर्विध', मार्कुस गोन्साल्वीस - 'संघर्श', जोगलां', संजीव वेरेंकार - 'मांड ओसाड जातना', सिरिल फेर्नांडीस - 'व्यसन आनी हेर एक-आंकी', एन. सुहास - 'सप्तांकी', झिलू गांवकार - 'सैमभार', हनुमंत चोपडेकार - 'कुंवाडीं', शाबा कुडतरकार - 'तानसुर्या', 'गर्भखोल', जेम्स फेर्नांडीस - 'सोपोन', अनील शंकवाळकार - 'आयकलां...', श्रीकांत शंभू नागवेंकार - 'खगोलशास्त्रीय नाट्यांगण', रत्नमाला दिवकार - 'गिरमीट', कविंद्र फळदेसाय - 'राजकुंवर शेणला'. अजय बुवा - 'प्रस्नचिन्नां सासणाचीं' आदी. ह्या एकांकीकारांनी कोंकणी एकांकीक एक नाट्यप्रकार आनी खासा करून साहित्यप्रकार

म्हूण मान्यताय दिवपाक मोलाचो वांटो उखलिल्लो आसा. ह्या कोंकणी एकांकीनी आयच्या 21 व्या शेकड्यांतले सगळेच विशय आयिल्ले आसात. समाजीक, राजकी, संस्कृतीक आनी भौशीक जिणेंतल्या विशया वांगडाच मानवी जिवितांतले वैयक्तीक, भावनीक आनी मानसीक उमाळेय ह्या एकांकींचे विशय जाल्ले आसात.

कोंकणी एकांकीच्या मळार आयज जायते प्रतिभावंत एकांकीकार वावूरपाक लागल्यात. पुस्तक रूपांत जरीय तांच्यो एकांकी उजवाडाक आयिल्ल्यो नासल्यो तरीय एकांकी सर्तीनी तांणी आपल्या प्रतिभेची पेजाद गवाय दिल्या. तातूंत मराठी कोंकणींतले नाटककार आनी कवी विष्णू वाघ, विजयकुमार नायक, अंजली आमोणकार, सु. म. तडकोड, धर्मानंद वेर्णेकार, डॉ. प्रकाश वजरीकार, डॉ. पुर्णानंद च्यारी, प्रशांती तळपणकार, डॉ. प्रकाश पर्येकार, विन्सी क्वाद्रूश, श्रीकांत पालसरकार, दिलीप धारगळकार, जुझे साल्वादोर फेर्नांडीस, आल्फ्रेड फेर्नांडीस, आलेक्स फेर्नांडीस, आवितो फेर्नांडीस, सेझर डिमेलो, गौरीश वेर्णेकार, संतोष शेटकार आदींचो वांटो आसा. ह्या प्रतिभावंता मदल्यान वेंचीक पांच सशक्त एकांकीकारांच्यो प्रयोगक्षम एकांकी घेवन '21 व्या शेकड्यांतली आधुनीक कोंकणी एकांकी ' हो संपादीत एकांकी झेलो फोंडेंच्या पियूश प्रकाशनान 2012 वर्साच्या एप्रील म्हयन्यांत उजवाडायला. कोंकणी एकांकीची आयची परिस्थिती आनी फायचो प्रवाह तातूंतल्या दिसून येता.

## 21 व्या शेकड्यांतली आधुनीक कोंकणी एकांकी - एक संपादनात्मक प्रयोग

ह्या प्रतिनिधीक एकांकी झेल्यांत नव्या दमाच्या पांच एकांकीकारांच्यो वेंचीक पांच एकांकी घेतिल्ल्यो आसात. ह्या पांचूय एकांकीकारांनी कोंकणी एकांकीच्या मळार दोळे दिपकावपी वावर केल्लो आसा. 21 व्या शेकड्यांतले नवे प्रस्न आनी नव्यो जाणिवो ह्या बरोवप्यांनी आपल्या एकांकींत शब्दबद्ध करतना जबरदस्त प्रयोगशिलतेचें दर्शन घडयलां. सादे, सदचे सर्वसामान्य विशय लेगीत

तांच्या कल्पक प्रतिभेंतल्यान आशयसंपन्न जावन आयल्यात. घटना-प्रसंगांची गांथन गुंथताना ह्या रचनाकारांनी दाखयल्ली नाट्यमयता आनी नाट्यनुभूती खऱ्यानीच तोखणायेची जावन आसा.

**पयली एकांकी - 'भूंयगर्भ' (शाबा कुडतरकार)**

ह्या झेल्यांतली 'भूंयगर्भ' ही एकांकी सर्गेस्त शाबा कुडतरकाराची. तरनाट्या पिरायेचेरूच शाबान नाट्यकलेंत आपलें अशें वेगळें नांव तयार केल्लें. अभिनेतो, दिग्दर्शक म्हूण ताका आमी वळखतालेच पूण शाबा तांबडे मातयेच्या गर्भांतल्यान उदेल्लो कोंकणी साहित्यीक जावन आसलो. ताच्या तीन साहित्यकृतींतल्यान ताका जिवो दवरलो. 'वावझड' हो कविताझेलो जाल्यार 'तानसुर्या' आनी 'भूंयगर्भ' हे एकांकी झेले शाबाच्या नांवार आसात. रंगमाचयेचो सखोल अभ्यास आशिल्लो शाबा खऱ्या अर्थान अव्यक्तांतल्यान व्यक्त जायत वता तो ताच्या एकांकींतल्यान.

शाबा कुडतरकार 'भूंयगर्भ' हे एकांकीकल्यान आयच्या 21 व्या शेकड्यांतल्या एक धगधगत्या विशयाक आत्मविश्वासान हात घालता. आमचो भूंयपूत शेतकाराच्या आत्महत्तेचो हो विशय. संवसारीक महासत्ता जावपाचीं सपनां पळोवपी भारत देसांतलो आयच्या घटकेंतलो तो ज्वलंत प्रस्न. ह्या विशयाच्या मुळाक वचून एक क्लासीक एकांकी शाबान कोंकणीक दिल्या. शेतकाऱ्यांच्या आत्महत्तेची साबार कारणां सोदून रसिकांचे काळीज पिन्नून उडोवपी ही एकांकी फक्त करणमिमांसा करीना तर वाचप्यांच्या अंतर्मनाक साद घालून ताका भितरल्यान पेटून घालता. तातूंतलीं 'भोलो' ही व्यक्तिरेखा म्हणजे संघर्शाचें एक होमखण कशें. तंत्राच्या नदरेन भोल्याचोच निवेदक वा सुत्रधार म्हूण उपेग करून लेखकान एक नवोताल्ल ऍक्स्प्रिमेंट कोंकणी एकांकींत केलां. तांच्या एकांकीचें सादरीकरण करपाक बरेंच मोठें आव्हान दिग्दर्शकाक उखलचें पडटलें.

**दुसरी एकांकी - 'उपरें' (प्रशांती तळपणकार)**

कोंकणी चित्रपट, नाटक, कोंकणी चळवळ अश्या मळांचेर सक्रीय प्रशांती तळपणकार हांची 'उपरें' ही एकांकी ह्या झेल्यांत आसपावल्या. एका तेंपार रस्तोनाटयांत गोंय गाजोवन सोडिल्ल्या तरनाट्यांच्या भिन्यांतलें प्रशांतीबाय महाविद्यालयीन एकांकी सर्तीनी सेगीतपणान नव्यो एकांकी रचून सादर करीत आयलां.

'उपरें' ही तांची एकांकी अनाथ आश्रमांतल्यान दत्तक घेतिल्ल्या भुरग्याची मानसीकताय उक्ती करता. भायल्यान हाडलां म्हूण फक्त आपूण माया-मोगाचें धनी नासून चुकल्यार पालकांच्या तिडकीचें वा माराचेंय हक्कदार आसा, नाजाल्यार आपूण उपरें तें उपरेंच असो विलक्षण भावार्श मांडपी 'सुमा' हे आनाथ चलयेची भावनीक काणी एकांकींत आयल्या. विशय सादो आसलोय तरीय लेखिकेन ताका दिल्लें ट्रिटमेंट दर्जेदार आसा.

मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान पात्रांच्या व्यक्तिमत्वाची आंतरीक वळख घडोवपाचें कसब ह्या लेखिकेक लाबलां. मनशाच्या मनोव्यापारांचें उत्कट चित्रण जाल्ल्यो कांय वेंचीक व्यक्तिरेखा कोंकणी साहित्यांत अज्रंवर जाल्यात. तातूंत मॅगी (शीला कोळंबकार), आबू, भोलो, कोणतरी (पुंडलीक नायक), आंतोनेत (महाबळेश्वर सैल), कार्मेलीन (दामोदर मावजो) आदींच्यो देखी दिवं येतात. प्रशांतीन उबी केल्ली 'सुमा' ही व्यक्तिरेखा तेच वळेरेंत बसता.

## तिसरी एकांकी - 'सरफरोशी की तमन्ना' (डॉ. हनुमंत चोपडेकार)

कवी, कथाकार, नाटककार, समिक्षक, बालसाहित्यीक आनी एकांकीकार अशे साबार आयाम घेवन कोंकणी साहित्याच्या मळार वावूरपी डॉ. हनुमंत चोपडेकार हाची 'सरफरोशी की तमन्ना' ही एकांकी म्हणजे राजकारण आनी भ्रश्टाचारावेलें वास्तवीक भाश्य जावन आसा. खरें म्हणजे हो बरोवपी सगळ्यांत पयलीं नदरेक भरता·तो एकांकीकार म्हूण वास्तवीक घटना प्रसंगांचेर बरयल्ल्यो ताच्यो एकांकी भोव गाजल्यात. 'कुंवाडीं' हो तांचो एकांकी झेलो 2010 वर्सा उजवाडाक आयलां. 'हांव सायबा मोर्डन जाता' होवूय नाटकुल्यांचो झेलो तांची

मोटव्या नाट्यप्रकारांच्या लेखनांतली कळाशी सिद्ध करता.

'सरफरोशी की तमन्ना' हे एकांकींत तांणी एकाच वांगडा एकतर्फी मोग, गुंडगिरी, भ्रश्ट राजकारण आनी सर्वसामान्य आमआदमीची लाचारी अशे कितलेशेच प्रस्न हाताळ्यात. तातोबाब सावंत ह्या सुटकेझुजाऱ्याच्या मध्यवर्ती व्यक्तिरेखेक आकार दितना बरोवप्यान एक आकांताचें वास्तव ह्या एकांकींत अभिव्यक्त केलां. आयज लोकायुक्त स्थापन करचे खातीर आनी भ्रश्टाचाराचीं पाळांमुळां मुळांतल्यान हुमटावन उडोवचे खातीर अण्णा हजारे जे तरेचो वावर करता आनी तांच्यां सारक्यांच्या मुखार ज्यो अडी-अडचणी येतात तांचें यथार्थ दर्शन हे एकांकीक घडटा. प्रांसगीक विशय दिसलो तरीय ही एकांकी आयच्या वास्तवीक राजकी तशेंच समाजीक व्यवस्थेचेर कणखरपणान भाश्य करता.

**चवथी एकांकी - 'किळांच' (मार्कुस गोन्साल्वीस)**

मार्कुस गोन्साल्वीस हो 21 व्या शेकड्यांतलो एक तांकिवंत एकांकीकार. आपल्या लेखनांतल्यान तांणी जायते समाजीक विशय समर्थनपणान मांडल्यात. कवी मनाच्या मार्कुसान रोमी आनी देवनागरी अश्या दोनूय लिपयांनी विपूल साहित्य रचलां. पत्रकार म्हूण धाडसान अन्यायाआड तो झुंजला. 'थेंब्या थेंब्यानी', 'तरनी शिम', ह्या कविता आनी लेखसंग्रहा भायर 'संघर्श', 'जोगलां' ह्या ताच्या एकांकी झेल्यांनी ताची समाजीक कर्तव्यदक्षता दोळ्यांत भरता.

प्रस्तूत झेल्यांतल्या तांच्या 'किळांच' हे एकांकींत तांणी दंगलीचेर आपलें अशें धाडसी वक्तव्य केलां. हालीसराक आमच्या गोयांत कांय धर्मीक आनी कट्टरवादी शक्ती धर्माधर्मा मदीं तेड निर्माण करपाक वावूरताना दिसतात. प्रस्तूत एकांकींत लेखकान दंगलीचें भिरांकूळ वास्तव उबें करून आमच्या काळजाचीं दारां उक्तीं करपाचो यत्न केला. दंगलीक धर्म, जात-पात कांय नासता. दंगलींत आसता तें निव्वळ राजकारण आनी सुवार्थ ह्याच विचारांचो दिश्टावो किळांच ही एकांकी दिता.

**पांचवी एकांकी - 'वळख' (कवींद्र फळदेसाय)**

'राजकुंवर शेणला' ह्या नांवान आपलो 'मेडन' एकांकी झेलो घेवन कविंद्र फळदेसाय ह्या तरनाट्यान कोंकणी साहित्य क्षेत्रांत 'ऑफिशियल एंट्री' घेतली ती 2010 वर्सा. पूण 21 व्या शेकड्याच्या आरंभाक तांणी आंतरमहाविद्यालयीन एकांकी सर्तींत आपले लेखन शैलीचो जादूई आविश्कार घडयलो. विशयाचें गांभिर्य आनी संहितेच्या प्रस्तुतीकरणाची नाविन्यपूर्ण शैली ह्यो ह्या एकांकीकाराच्यो खाशेलतायो. हेरांनी मळिल्ली वाट चलपाक ताका अजिबात रस ना. स्वताची अशी स्वंयभू प्रतिभा लाभिल्लो तो एक कल्पक एकांकीकार.

वळख ही ताची पेजाद आशयाची प्रभावी एकांकी. भारतीय समाजजिवितांतल्या कुड्ड्या भावार्थाक कुशीक काडून तांचो जाहीर पोस्टमोर्टम करपी ही एकांकी. गांवचें चैतन्य हें गांवच्या संस्कृतीक गिरेस्तकायेंत भरिल्लें आसता. पूण केन्ना केन्ना सुवार्थी लोक देवा-धर्माच्या नांवार आपली पोळी भाजून ख़ावपाक सोदता. अशा वेळार गांवचें चैतन्य काबार जाता. गांव आपली संस्कृतीक वळख विसरता, तेन्ना अशा गांवाक ताची वळख करून दिवपाचो मंत्र ही एकांकी दिता.

आयज फक्त एक गांवच न्हय तर अख्खो भारत देस आपली नीज वळख विसरूंक लागला. हे नदरेन ही एकांकी 'लाव्ड थिंक' करपाक आमकां प्रवृत्त करता. एकांकीची मांडणी, संवाद, संघर्श आनी शेवट भोवूच सोबीत आनी सुचक जाला. पुंडलीकबाब नायकाच्या चैतन्याक मठ ना ह्या गाजिल्ल्या नाटकाचो उगडास करून दिवपी ही एक उत्कृश्ट कलाकृती.

21 व्या शेकड्यांतल्या कोंकणी एकांकीची ही एक ल्हानशी झलक. गोट्यावेल्यान भाताची परिक्षा घेवंचेलो हो यत्न. ह्या शेकड्यातल्या कोंकणी एकांकींत दिसून येवपी आशय-विशय आनी विचारांची सांगड कोंकणी एकांकीचो फुडार सुगूर आशिल्ल्याची गवाय दिता. ह्या प्रातिनिधीक झेल्या पयलीं साहित्य अकादेमी, गोवा कोंकणी

अकादेमी आनी दाल्गाद कोंकणी अकादेमीन अशे तरेचीं एकांकीचीं संकलनां उजवाडायल्यात. तातूंत पयलीं पुंडलीक नायक हांणी जाल्यार उपरांत जुझे साल्वादोर फेर्नांडीसान असलो वावर केला.

मराठींतले विजय तेंडुलकर, महेश एलकुंचवार, प्रेमानंद गज्वी, सतीश आळेकर, रत्नाकर मतकरी, हिंदींतले शंकर शेष, मोहन राकेश, प्रताप सहगल, कन्नडांतले चंद्रशेखर कंबार, गिरिष कर्नाड, बंगालींतले बादल सरकार, मणिपुरांतले रतन थिय्या इंग्लिशींतले सेंड्राद हॅलन, कॅवीन मायर्स, हांच्यानी एकांकी तशेच नाट्यमळाचेर जे प्रयोग केल्यात तेच प्रयोग आयज कोंकणींत जावपाक लागल्यात. सिग्मंड फ्रोय्डच्या मानसशास्त्राच्या तशेंच फ्रेड्रीच्ड नित्त्सेच्या समाजशास्त्राच्या गुपितांचो सोदूय आयची एकांकी घेता. ह्या पांच बरोवप्यांचीच देख दिवपाची जाल्यार; ह्या पांच एकांकींतल्यानूच न्हय तर तांच्या हेर एकांकी लेखनांतल्यान अतिशय प्रयोगक्षम आनी सशक्त एकांकी कोंकणी रंगमाचयेक ह्या एकांकीकारांनी दिल्यात. देखीक - इंप्रुवायझेशन, तानसुर्या, सायकोसीस, कोणतरी, चलता वाट अश्वत्थामो (शाबा कुडतरकार) उज्याची वाट सुरू जाता, आमचें झूंज, पूत तोर ओसलो (मार्कोस गोन्साल्वीस), कुंवाडीं, मॅ......, अंत्यसंस्कार, निमणी लायफ लायन (हनुमंत चोपडेकार), राजकुंवर शेणला, बॉन्साय, इश्टागत, वळख,( कविंद्र फळदेसाय), उपरें, टू हॅल ऍण्ड बॅल (प्रशांती तळपणकार)

एक गजाल मुजरत बरयन दिसता : 'बाप्पा-व्हनीबाय' ह्या मध्यवर्ती व्यक्तिरेखांच्या उखलाप्या मनोरंजनांतल्यान आयज कोंकणी एकांकी वयर सरल्या. तिणें आपलो जैताचो प्रवास पुंडलीक नायकाच्या एकांकींतल्यान आरंभ केल्लो ती आतां 21 व्या शेकड्यांत व्हडा आत्मविश्वासान पावलां मारता. कोंकणी भाशेंत रचिल्ली भारतीय एकांकी म्हणपासारखी ती जुंवान जाल्या. हेर भारतीय भासांतल्या एकांकी इतलीच न्हय तर कांय आंगांनी कोंकणी एकांकी ताचेपरस मुखार गेल्या. पूण एक खंत आसाच; आयज गोवा कला अकादमीच्यो

शिक्षणीक संस्थां खातीरच्च्यो सर्ती सोडल्यो जाल्यार कोंकणींत एकांकी सर्ती व्हडल्योश्यो जायनात. फाटल्या दिसांनी फोंडेचे अंत्रूज घुडयो हे संस्थेन व्हडा धिटायेन आनी व्हडा जापसालदारकेन ह्या वावराक खांद मारला. तांच्या सारक्यांच्या प्रयत्नांक यश आंवडेतानाच हेर संस्था वांगडा गोवा कोंकणी अकादेमी, दाल्गाद अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ सारक्या पालक संस्थांनी हो वावर मुखार व्हरचो तशेंच तातूंत खासा सर्ती खातीर बरयल्ल्या नव्या एकांकी लेखनाचें खेरीत इनाम दिवन कोंकणी एकांकीक उर्बा दिवची अशी मागणी करची कशी दिसता.



## 15. आस्वाद.... मोग डॉट कॉमाचो...

आस्वाद हो समिक्षणात्मक मुल्यमापनाचो एक म्हत्वाचो घटक. खंयचेय गजालीक जेन्ना आमी बरी वा वायट म्हणटात तेन्ना एके तरेन आमी ताची समिक्षाच करीत आसता. सैमान मनशाक जी विवेकबुध्दी दिल्या तिचेर तो संवसारांतले बरे आनी वायट हांचें वेगळेंपण सोदून काडटा. मनीस समाजभिमूख प्राणी आशिल्ल्यान विवेकशील मनीस सदांच बरें आनी वायट हांचेमदल्यान बरें निवडटा. तो तातूंतल्या समाजीक, जीवन आनी नैतीक मुल्ल्यांचो पुरस्कार करता. हें संवसारांत कदीमकाळा सावन सेगीतपणान चलत आयलां. साहित्यीक कलाकृतोचो विचार केल्यार निश्चितूच वयल्या मुल्यांक आयच्या विज्ञानीक युगांतूय पर्याय ना हें सिध्द जायत आसा. इतलेंच न्हय तर ललीत साहित्यांत समिक्षा आनी समिक्षकाचो एक घटक म्हूण आसपाव जाला. कोंकणींत समिक्षा वा समिक्षेची प्रथा भोव उसरां सुरू जाली. ताचे फाटल्यान तशीं जायतीं काश्णां आसात. कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक संवसार ल्हान, तातूंत तथाकथीत जेश्ट श्रेश्टांच्या साहित्याचेर भाश्य करप म्हणजे आ बैल मुझे मार प्रमाण तांची कराय सोंसून घेवप. आनीक जायतें कितें ... कारणां खूब आसात. त्या कारणांचेर सद्द्या भाश्य करपाचे टाळटा. पूण इतलें मात ख़रें, ती (समिक्षा) फाटीं उरल्या. तिका फुडें काडटाना नव्या साहित्यीक चंवराचेर आनी पिकाचेर लक्ष केंद्रीत केल्यार बरें जातलें.... आतां तेंच करतां.......

कोंकणीच्या साहित्यीक मळार वावूरपी तरनाटे पिळगेक एकठांय हाडून सर्जनशील लेखन साधनेच्या नव्या पर्वाक आरंभ जालो तो, युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांतल्यान. तारीख़ आसली 12 डिसेंबर 1998. ह्या दिसा पयल्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाची बुनयाद केपेंच्या सरकारी महाविद्यालयान घातली. 2009 वर्सा 11 व्या संमेलनांतल्यान परत एकदा भास्कर सरांच्या प्रेरणेंतल्यान त्याच महाविद्यालयांत एक नवी इतिहासीक प्रथा सुरू जाली. युवा संमेलनांच्या

माटवांत, ह्याच संमेलनांतल्यान घडिल्ल्या युवा लेखकाचें पुस्तक आयोजकांनी प्रकाशीत करचें हें खातीर तांणी फुडाकार घेतलो. पयल्या वर्सा तरनाटी कथालेखिका जोफा गोन्साल्वीस हाचो 'निर्णय' हो कथाझेलो जाल्यार दुसऱ्या वर्सा 12 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत काणकोण माशें हांगासल्ल्या एस. एस. आंगले उच्च माध्यमीक विद्यालयाच्या युवांगणांत युवा कथाकार नरेश नायक हाच्या 'गांवमन' ह्या कथाझेल्याक उजवाड मेळ्ळो. ह्याच वळेरेंत 13 व्या युवा कोंकणी संमेलनात प्रतिभावंत युवा कवी अमेय विश्राम नायक हाच्या 'मोग डॉट कॉम' ह्या कविता झेल्याचो आसपाव जाला.

आंयचे घटकेक कोंकणींतल्या युवा बरोवप्यां मदीं जायते जाण आपली खेरीत वळख घडोवपांत सक्रीय जाल्यात. तांच्यानी कविता, कथा, नाटक, एकांकी अशा साहित्य प्रकारांच्या आदारान आपले प्रतिभेची गवाय दिवपाक सक्रीयताय दाखयल्या. नवीन अणभवविश्व आनी शैली ह्या तत्वांक लागून तांचें बरप लक्ष ओडून घेताना दिश्टी पडटा. तातूंतल्या कांय बरोवप्यांचें साहित्य पुस्तक रूपान आयलां जाल्यार कांय जाणांचें येवपाचे वाटेर आसा. ह्या युवा बरोवप्या मदीं केंद्रीय साहित्य अकादमीचो युवा साहित्य पुरस्कार जोडपी जोफा गोन्साल्वीस, नरेश नायक, योगिनी बोरकार-आचार्य, तेचप्रमाणे चेतन बोरकार, अन्वेशा सिंगबाळ, आनंद फडते, दिक्षा कांबळी, शितल शेटगांवकार, नमन धांवसकार-सावंत, मिनीन आल्मेदा, अमेय नायक, रेश्मा सुर्लकार, लालन पालेकार, कृपाली नायक, ममता फडते, श्रीनिशा नायक, तन्वी कामत बांबोळकार, गौराज तळावलीकार, लविना दाबोळकार, प्रितेश परसाई, वासिम खंगानवी, विल्मा बंटवाल, नॅल्सन वाझ, सिध्दी केरकार, रॉमान रोड्रीगीस, हेतल शहा, पुजा परब, सिध्दी शेट रायकार, चंद्रकांत नायक, डॅनीस वाझ, सुनेत्रा जुंवेकार, मेहंदी देसाय. अंतरा भिडे, सिया पंडीत हांचो आसपाव जाता. हे घटकेचें हें बरप म्हणल्यार नव्या दमाच्या युवा साहित्य प्रतिभेचो घेतिल्लो हो वेद अशें वाचकांनी समजल्यार म्हजी कांयच हरकत नासतली. हो वेद घेतना डब्लू डब्लू डब्लू डॉट मोग डॉट कॉम लॉगइन करचेंच पडटलें. चलात तर

**ोग डॉट कॉम : लॉग-इन करताना...**

'मोग डॉट कॉम' ह्या काव्य-झेल्यांत वट्ट 60 कवितेंचो आसपाव जाला. गोवा कोंकणी अकादेमीन खासा येवजणेंतल्यान प्रकाशीत केल्ल्या ह्या कविता झेल्यान तरूण वाचकांचेर एक नवी भुरळ घातल्या. ह्या झेल्याच्या अभ्यासांत होलमल्ली कांय बरीं वायट निरिक्षणां हांगा मांडपाचो हो यत्न.

'मोग डॉट कॉम' ह्या झेल्यांत ह्याच नांवान एक विलक्षण आनी कलंदर मोग-कविता आसपावल्या. मोग ह्या भोवूच सुंदर विशयावेल्या ह्या कवितेंत पोरन्या आनी भोव पुर्विल्ल्या त्याच मोगाक नव्या स्टायलिस्ट बाटलेंत भरून प्रस्तूत केला. कवीचे प्रतिभेचो थोडोसो अमुरपिकोसो दिश्टावो तातूंत मेळ्ळे बगर रावना. कवी आपले कलंदर शैलींत बरयता -

**लव प्यार प्रेम म्हळ्यार मोग आसता**
**दोन मनांक मेळोवपी दोर आसता**
**जरीय काळजाचो चोर आसता.**
**लव प्यार प्रेम म्हळ्यार मोग आसता.**

सांगपाचें म्हणजे, ह्या झेल्यांत चडांत चड कविता मोग ह्या आशय विशयाक धरून उक्त्यो जाल्ल्यो आसात पूण दर एका कवितेचो गाबो आनी प्राण दुसरे परस निखालस वेगळो जाल्लो आसा. मोगाचे तरेकवार रंग कवी ह्या कवितांनी चितारता. तरनो मोग, अमुरपिको मोग, ल्हवपीक मोग, सिरियस मोग, पिसो मोग, शाणो मोग, फूल टायम मोग, पार्ट टायम मोग आदी. खरें म्हणल्यार ह्या पिरायेचेर मोगाच्यो कविता सगळेच बरयतात. आमच्या मदल्या चडशा कवींनी ताचो अनुभव घेतला पूण अमेय एक नवें ट्रिटमेन्ट ह्या मोगाच्या विशयाक दिवन आशयाक नवी कलाटणी दिता. ताकालागून ताची कविता वेगळी दिसता, सदचो

विशय आसुनूय ती आगळी भासता. देखीक –

**हांव मेल्यार लेगीत**<br>
**तूं म्हाका विसरचेंना**<br>
**कित्याक जाणा**<br>
**म्हाज्या यादींचें बीं**<br>
**हांवें तुज्या मनांत रोयलां**<br>
(तुज्या म्हज्या भितर)

**2) तूं म्हज्या मोगांत**<br>
**घुस्पोवचें म्हण**<br>
**हांवें खूप यत्न केले**<br>
**पूण, ह्या घुस्पागोंधळांत**<br>
**हांवूच तुज्या मोगांत**<br>
**खोलभर घुस्पत गेलों**<br>
**आतां सुटन सुटना.**<br>
(घुस्पागोंधळ)

अमेयाच्या कवितेचो सगळ्यांत् व्हडलो गूण जो रसिकाक वा समिक्षकाक भोव दिपकावन वता तो म्हणल्यार, ताच्या कवितेची सादगी. आयज काल कवितेच्या प्रांतांत एक विचित्र आनी विक्षिप्त प्रथा रुजपाक लागल्या. कोंकणींतूच न्हय तर देशी तशेंच विदेशी भासांनीय ही अनिश्ठ प्रयोगशिलताय मूळ धरपाक लागल्या. काळजाची भावना उक्तावपी कवितेक कठीण करून सोडपाची ती अनिश्ठ प्रथा. (समिक्षेंतूय तेंच घडटा) वचत तो तकलेक शीण दिवपी, तकलेंतल्या मेंदवावयल्यान बावन्स् जावपी, उतरांच्यो आनी अर्थाच्यो कायलोळ्यो करपी कविता रचून कांय तथाकथीत कवीवर्य आपली पत वाडोवपाचो निश्फळ प्रयत्न करतना दिश्टी पडटा. आटीव आनी घोटीव वा अब्ट्रेक्ट,

ह्या भरभक्कम संकल्पनेचो तेंको घेवन ह्या लोकांनी कवितेक बदनाम करपाचें महाकारस्थान बी रचूंक ना मू, असो भंय आमच्या सारक्या रसिकांक दिसता. गंभीर आनी मॅच्युअर्ड कविता समजुवपाक बी म्हाका तकालस जाता आसुयें असो कोणी समज करून घेंवचो न्हय.

वयलें विवेचन इतल्याकूच लागून मांडचें पडटा की, गुढार्थ हो कवितेचो मुळांत गूण जरी दिसता आसलो तरीय दोशूच चड प्रमाणांत जावन आसता. ह्या फाटभुंयेचेर हांगा अमेयाच्या कवितेंत सादेंपण, सोपेंपण आनी सुटसुटीतपण वाचप्यांक रोंकडेच भावता. ताच्या साद्या सोप्या शैलींतूय एक उंचेल्या पांवड्यावेली कलात्मकता आसा हें म्हत्वाचें. ह्यो दोनूय गजाली एकाच प्रतिभेंत मेळप तशें कुस्तार. पूण ती प्रतिभा अमेयाक लाभल्या ते खातीरूच हो कवी रसिकप्रिय थारला. कांय देखी पळोंव येतात -

**दोन उतरांचें उतर हें**
**उलोवपाक सोंपे आसता**
**बरोवपाकूय सोंपे आसता**
**पूण, जेन्ना मोगाची वाट चुकता**
**तेन्ना काळजाक खूप दुखता**
(जेन्ना मोग जाता)

2) **तुज्या मोगाचो परमळ**
**म्हाज्या नाकांतल्या,**
**भेंमन्यांत भरलो**
**आनी तेन्नासावन हांव**
**शेंमडो जालो**
**तुज्या मोगान......**
(शेंमडो)

3) **आतां, दोतोरान रिपोर्ट दिला**

**काळजाक खंय बुराक जाला**
**होल इन द हार्ट**
**दोतोरान शेरो मारला**
(होल इन द हार्ट)

मोग हो एकूच विशय घेवन एकाच कविता झेल्यांत इतल्यो सगळ्यो कविता आसपावपी हो नव्या आनी युवा बरोवप्यां मदलो कोंकणींतलो घडये पयलो कविता झेलो आसतलो. (अरूण साखरदांडेचो 'मोगकिनारी' होवूय एक तसलो प्रयोग.) ह्यो मोगाच्यो कविता उतराकणकणी वेगळें कितें तरी सांगता हें मतींत दवरपा सारकें. देखीक, वयल्या तिनूय कवितांची तीन मोग-आवर्तनां शब्दबद्ध जाल्यात. पयल्या काव्यांत; दिसपाक सोपी दिसली तरीय मोगाची वाट निखालस सोपी न्हय कारण मात्शी चुकल्यार ती काळजार घावे करता हो भावार्थ मांडला जाल्यार दुसरेंत मोग नांवाच्या गोड संकल्पने सकयल लाचार जावन उरिल्ल्या मनाची अवस्था कवीन चित्रायल्या, तशेंच तिसरेंत; होल इन द हार्ट असो शेरो मारून - मोगान काळजाक केल्लो होल दाखोवपाचो कल्पक यत्न कवीन केला. अशेच तरेन गिराण नांवाचे माणकुले कवितेंत कवी बरयता -

**अस्तंमत्या सुर्या मुखार**
**अचकीत तुजो**
**चंद्र आयलो**
**हांवें तुका पळयलें**
**आनी म्हाका**
**मोग नांवाचें गिराण लागलें....**
(गिराण)

ह्या काव्यांतलीं सुर्य, चंद्र गिराण ही प्रतिकां भोवूच कलात्मक रितीन उबीं जाल्यात.. खासाकरून बरोवप्याची प्रतिकात्मक नदर ह्या कवितेक नवी उंचाय दिता. तातल्या तातूंत अस्तमत्या सुर्यामुखार अशें म्हणटाना सुर्याची म्हणजे मोगाची बाविल्ली अवस्था आनी त्या अवस्थेंत आयिल्लो चंद्र आनी उपरांत गिराण; ह्यो घडणुको, ही जुळवाजुळव भव्य सुचकतेची सुलूस दिता.

मोग डॉट कॉमांत मोग थपथपून भरिल्लो आसा ही ह्या झेल्याची आनीक एक खाशेलताय. कारण जायते फावटीं साहित्यकृतीचो माथाळो आनी भितरलो आशय विशय हातूंत बरीच तफावत आसता. आपणाक जें सांगपाक जाय ह्या मुद्द्यांकडेन जायते बरोवपी प्रामाणीक नासतात पूण अमेय जें कितें सांगपाक जाय तें सहजतायेन आनी जशें येता तशें सांगीत रावता. हें थोडें आयलें तशें गायलें ह्या तत्वाक धरून येता. पूण ह्या कवीमदीं एक स्वयंभू कलात्मकताय आसा जी ताच्या काव्याचेर नक्षी काम करीत रावता.

ह्या झेल्यांत प्रेमभंग, अपयश, निर्शेवणी, मोगांत फोग, फोगांत भोग, जिणेंतलो कर्मभोग अशे सगळेच उरफाटे विशय आयल्यात. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार हो कवी स्वता इमोशनल फूल जायना. दर एका बऱ्या वायट गजालींक तो साक्षीभावान तशेंच फकाणेर नदरेंतल्यान पळयता. मोगांतलें फटकिरेंपण, उखलापेंपण, व्यवहारीकताय, सुवार्थीपण आदी गाजालींचेर तो खोलायेन पूण उरफाटो विचार करता आनी आपल्या कल्पनेच्या मालवज्यार कोणीच बरोवंक नाशिल्ल्यो मोगाच्यो संकल्पना बरोवंक लागता-

**म्हजे कडेन**

**घर दार**

**गाडी घोडो**

**साटली पोटली**

**आज्यालें भाट**

**बापायचो फात**
**कुळाची मिरास**
**कांयचना**
**पूण तरीय हांव भिता**
**लाखाचें काळीज कोणीय**
**फारायत म्हण**
(भिरांत)

कोर्ट हॉप ह्या जाणकार कवीची कवीते संदर्भांत एक फामाद व्याख्या आसा. तो म्हणटा, 'Poetry is an art of producing pleasure by just expressing imaginative thoughts in a metrical language.'

अमेयाच्यो कविता आनी वयली व्याख्या ह्यो मुदयेक थिक कश्यो जुस्ताजुस्त जुळटा. अमेयाच्या काव्यांतल्यान खोशी मेळटा. उपाट आनंद फावो जाता. ताची कविता पयले फावटीं हांवें आयकली गोमन्त विद्या निकेतनांतल्या म्हयनाळ्या काव्य मैफलींत. म्हयन्याच्या तिसऱ्या शेनवारा जावपी ह्या 'काव्यमैफलींत अमेयाची कविता सगळ्यांचींच काळजां भेदीत वयता. नव्या बरोवप्यांनी जाल्यार मुजरत थंय येवचेंच. पयले एन्ट्री उपरांत तो सेगीत त्या काव्यमैफलींत येवंक लागलो आनी आपल्या कवितेच्या पिटाऱ्यांतल्यान एक एक अफलातून कविता सादर करूंक लागलो. ताच्यो कविता तो सादर करता तेन्नाच आयकुपाच्यो. कारण जबरदस्त सादरीकरण ही अमेयाची खासा वळख आसा. कवीवर्य बाकीबाब. चा फ्रा डिकोश्टा हांच्या सारको अमेय कविता गायना जरी आसलो तरीय ताच्या सादरीकरणांत एक सूर आनी लय दिश्टी पडटा. पयल्याच बॉलार सिक्सर मारपाचें तंत्र अमेयाच्या सादरीकरणाक गवसलां.

वयल्या सगळ्या विवेचनांत मोगायण मांडलें आसलेंय तरीय जायत्यो समाजीक, राजकी, संस्कृतीक, पर्यावरणीक विशयांच्योय कविता ह्या झेल्यांत आस्पावल्या. मांयभास, मांयभूंय, मांयसंस्कृताय

ताका भोवूय प्रिय. गांवच्या झाडां-पेडांचो सांगात, न्हंया-दोंगराचो वांगड आनी जात्रा काल्यांचो सहभाग आयज उणो जाल्ल्याची खंत ताची कविता उक्तायता. धुल्ल खावपी जिणेची ताका तिडक मारता. साकोडड्या ह्या मिनाच्च्या वाठारांत जल्मल्लो अमेय फकत साकोडड्याचेच प्रस्न आपल्या कवितेंत उबे करीना जाल्यार अख्ख्या गोंयच्या साबार प्रस्नांकडेन तो आमचें लक्ष ओडूंक सोदता. 'घराची शोभा' हे कवितेंतलो आशय ताच्च्य गांवाची शीम हुपताना आनी वैश्वीकतायेक हात घालताना दिश्टी पडटा. -

**पयलीं घरा सामकार**
**गोठो आसतालो**
**म्हशी, गायो, बैल आसताले**
**पाडकां रेडकां आसतालीं**
**घरांत मांजरां सुणीं खेळटालीं**
**घराक शोभा येताली**
**तीं सगळीं वाघान खाल्लीं**
**आतां घरा सामकार फक्त**
**ट्रक आनी चार चाकी**
**धुल्ला बगर कांयच ना बाकी**
(घराची शोभा)

'फॉरेनची आण्टी' हिवूय ताची विचार करूंक लावपी कविता. ह्या कवितेंत प्राथमीक पांवड्यार विद्यार्थ्यांक मांयभाशेपासून आनी मांयसंस्कृते पासून पैस रावचें पडटकूच फॉरेनची आण्टी कशी हड्ड्यार बसून राज्य करता ताचें भन्नाट काव्य अमेयान जल्माक घातलां.

**माणकुल्या गोंयांत आमच्या**
**फॉरेनची आण्टी येता**
**फॉरेन कपडे चॉकलेटी**
**पिज्जा आनी बर्गर दिता**

**ल्हेंवटे आवटे देडशाणे,**
**मागीर आवयचो पदर सोडटा**
**फॉरेनचो दुडू मेळटा म्हूण**
**आण्टी फाटल्यान धांवत सुट्टा**
(फॉरेनची आण्टी)

फॉरेनची आण्टी ही कविता फकत भाशेचेर वा संस्कृतायेचेर भाश्य करता इतलीय मर्यादीत रावना तर ती राजकी, समाजीक मळाचेर चलिल्ल्या मानसीक गुलामगिरीचेरूय धाडसान उलयता. अर्दकुटो गांव, मांय धरतरी, भांगरा कणसां, हें खंयचें गोंय, घर एकसुरें अश्या जायत्या आशयसंपन्न कवितांचो आसपाव ह्या झेल्यांत आसा. गांवांतलें भुरगेंपण आनी गोंयकारपण ह्या दोन मुखेल धाग्यांनी गुथिल्ल्यो वयल्या माथ्याळ्यांच्यो साबार कविता बरोवपाची व्यासंगी प्रतिभा दाखोवन वता. मोग, मोग आनी मोगाच्योच कविता म्हणटना कवीच्या ह्या कवितेंचेर अन्याय जावंचो न्हय. देखी खातीर अर्दकुटो गांव ही कविता पळोवची -

**फात्या पारार उठच्या पयलीं**
**कोणा कोंब्यान साद घायलो**
**अचकीत त्याच खेपे भावा म्हाका,**
**म्हाजो गांव याद आयलो**
(अर्दकुटो गांव)

'दिवाळेचो बॉम्ब' ही मडगांवां नरकचतुर्दशेक जाल्ल्या बॉम्ब स्फोटावेली ताची कविताय अशीच तांकिवंत. ह्या कवितेंतली कवीची नदर आनी निरिंक्षण शक्त तोखणाय करपा सारकी. तातूंतली शब्दकळा वेगीच शाब्दीक चमत्कृती घडयता. गजाल खरी, पूण चमत्कृतीच्या मोहान ती कविता आशयाक वेर वचूंक दिना. 'अर्दकुटो गांव' आनी 'हें खंयचें गोंय' ह्यो कविता हांगा देख म्हूण दिवं येता.

**मोग डॉट कॉम : लॉग-आव्ट करताना...**

एखादे साहित्यकृतीचें वा एखाद्या विशिश्ट काळांतल्या वा प्रकारांतल्या साहित्याचें आस्वादन, आकलन, अवलोकन, वर्गीकरण, विश्लेशण आनी मुल्यमापन आमी करता तेन्नाच साहित्य समिक्षा अस्तित्वात येयत आसता. अनिश्ठ वाङमयीन प्रथेंचेर बडी मारप, तांकां शेपलावप, बऱ्या प्रथेंचें रक्षण करप, साहित्याक गती दिवप, लेखक आनी वाचकांक उर्बा दिवप, बरे साहित्यीक प्रवाह निर्माण करपाक प्रेरणा दिवप आनी वाचकांची अभिरूची वोडोवप आशीं साबार प्रयोजनां साहित्य-समिक्षे फाटल्यान आसता.

संस्कृत भाशेंत समिक्षात्मक बरप करपी समिक्षकाक रसीक, सहृदय, टिकाकार अश्यो संज्ञा वापरिल्ल्यो आसात. प्राचीन संस्कृत साहित्यांत आचार्य भरतमुनी साकून जगन्नाथ मेरेन जायत्या जाणांनी टिकेची ही परंपरा मुखार व्हेल्या. इंग्लिशींत ताका क्रिटीक 'Critique' ह्या नांवान वळखतात. सर्वसामान्यांचे नदरेन विचार केल्यार, समिक्षा म्हणल्यार फकत टिका करप आसो एक चुकीचो समज सगळ्याक पसरिल्लो पळोवंक मेळटा. म्हज्या एका साहित्यीक विद्धान इश्टान जाल्यार '70 टक्के टिका आनी 30 टक्के तोखणाय करप म्हणजे खरी समिक्षा' अशी समिक्षेची भन्नाट व्याख्या तयार केल्ली. समज आमी गैरसमज हे विशीं वयलें विवेचन आनी सकयल्यो व्याख्या योग्य तरेन मार्गदर्शन करूंक पावतल्यो.

मॅथ्यू आर्नोल्ड - "Allowing poetry to be understand by the reader.'

जॉन ड्युईल - "Critique himself is a decision.'

ऍरिस्टोटल - "Criticism is serious examination judgment done by a wise man.'

श्री. के. क्षीरसागर - 'कलाकृतीचा जाणकारपणे आस्वाद घेणे आणि आस्वादाच्या ओघातच आवशय तेथे टिका करून तिचे मूल्यमापन करणे म्हणजे समिक्षा होय.'

प्रा. लक्ष्मणराव सरदेसाय - 'साहित्याच्या शेतांतली नण्णी काडपाचे सृजनात्मक प्रक्रियेक साहित्य-समिक्षा अशें म्हणतात.'

**वयल्या सगळ्या मोलावणीचो तशेंच समिक्षा शास्त्राचो बरीकसाणेन विचार केल्यार मोग डॉट कॉम विशीं सकयलो निश्कर्श मांडूं येता -**

मोग डॉट कॉमांत मोगावांगडा जायते हेर संदर्भ आयल्यात. थोडे तरने तर थोडे परिपक्व जाल्यात. जायते कडेन कवी फक्त यमक ह्या अलंकाराकडेन खेळटना दिसता. ल्हान भुरग्यान बॉला कडेन खेळचो तसो हो कवी यमकां कडेन खेळटा. पूण यमक म्हणजेच कविता असो चुकीचो समज ताणें करचो न्हय. असो समज जायत्या नव्या कवी मदीं सुरवेक आसता. अमेयान तो तकलेंतल्यान आनी आपले कवितेंतल्यान काडून उडोवंचो. मुदयेक थीक कसो सहजतायेन येवपी यमकाक वाट करून दिवची. कविता खोशी जातली. प्रसन्न जातली. ह्या कवीची पिराय आनी अबुध्द मानसिकता पळयल्यार ताका ते खातीर माफी करूं येता. तरीय फकत भावनेंत पिसो जाय नासतना कल्पना आनी विचार हांचो सांगड घालून तांणी मोग डॉट कॉम जल्माक घातला. ताच्या काळजांत कविते विशीं उपाट मोग आसा, व्यासंग आसा, सातत्य आसा देखुनूच अमेयाक फुडार आसा.

अमेय हो आयच्या युवा बरोवप्यांचो एक प्रतिभावंत प्रतिनिधी. आयज ह्या नव्या बरोवप्यांक प्रसिध्दीचीं साधनां सहजतायेन उपलब्ध आसांत. एक दोन प्रयत्नांतल्यान हे बरोवपी प्रसिद्धीच्या वलयांत झुम्म करून चमकून वतातूय. हें प्रसिद्धीचें ग्लॅमर केन्ना केन्ना सहजतायेन तांच्या तकलेकूय मारता. तेखातीर अमेया सारक्यांनी सादूर रावंचें. तांच्यांनी आपली तोखणाय जाल्या म्हूण चड भुलुसून वयचें न्ही आनी टिका जाल्या म्हूण व्हड खंती जावचें न्ही. ताचे मदीं जर स्पार्क आसत तर निश्चितपणान 'लंबे रेस के घोडे' जावन ते साहित्याच्या मळार बरेच मुखार वचूंक पावतले. लॉग-आव्ट.



## 16. 'फ्लोटींग लायफ' : एका तारवट्याच्या आत्मस्वराची सशक्त अभिव्यक्ती

हालीसराक युवा बरोवपी कोंकणी साहित्यांत विंगड विंगड स्वरुपाचें बरप बरयत आसात. गोवा कोंकणी अकादेमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय, राजभास संचालनालय आनी हेर संस्थांचो पालव मेळिल्ल्यान उदयमूख लेखकांच्या प्रतिभेक उर्बा मेळटा हें फाटल्या कांय वर्सांनी सिद्ध जाल्लें आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' सारक्या येवजणेंतल्यान जाल्यार फाटलीं कितलिंशींच वर्सां बरोवप्यांचें एक भिरेंच कोंकणीच्या साहित्यीक मळार येवंक पवलां. पूण कांय युवा बरोवपी एका पुस्तका उपरांत आपली लेखणी थांबयतात. तांची लेखन प्रतिभा आट्टा. आमचे जाण्टे म्हणटाले : टनांनी माती उसपीतकच मूठभर भांगर मेळटा. तशें म्हाकाय हांगा दुर्दैवान म्हणचें पडटा. पूण परिस्थिती सामकी वायट आसा अशें न्हय तर तातूंतय कांय बरोवपी मेळिल्ले संदीचें भांगर करून कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेच्या उत्कर्शा खातीर रातदीस वावूरतना दिश्टी पडटा. साहित्यीक म्हूण तो तरनाटो मुखार आयलो ना जाल्यारूय एक कोंकणी कार्यकर्तो म्हूण आपली लागणूक जपताच.

आयज कोंकणी साहित्यीक मळार सक्रीय आशिल्ले तरन्या तशेंच मध्यपिरायेच्या खंयच्याय कोंकणी साहित्यिकाची देख घेतली जाल्यार तांचो साहित्यींक आरंभ वयल्या कोंकणी संस्थांनी राबयिल्ल्या साहित्यीक उपक्रमांतल्यानूच जाल्लो हें मतींत धरचें पडटलें. तातूंत डॉ. प्रकाश वजरीकार, विन्सी क्वाद्रुश, शशिकांत पुनाजी, मुकेश थळी, डॉ. प्रकाश पर्येकार, डॉ. राजय पवार, डॉ. हनुमंत चोपडेकार, अजय बुवा, ग्वांदालूप डायस, काशिनाथ नायक आदींचो आसपाव करूं येता.

1998 वर्सा सावन केपेंच्या शासकीय कला, विज्ञान आनी वाणिज्य महाविद्यालयांत युवा कोंकणी प्रतिभेक उर्बा दिवच्या हेतून युवा कोंकणी साहित्य संमेलन आरंभ जाल्लें. आयज मेरन 17 जैतिवंत युवा साहित्य संमेलनां विंगड विंगड शिक्षणीक आनी हेर कोंकणी

संस्थांच्या आदारान घडोवन हाडपाक गोवा कोंकणी अकादेमीक यश आयलां.

केंप्या महाविद्यालयांत परत एकदा जल्लूया 11 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत दोन म्हत्वाच्यो गजाली संमेलनांक जाल्यो. तातूंत 'सर्गेस्त मेघश्याम नायक यादस्तीक युवा कोंकणी पुरस्कार' आनी साहित्य संमेलनांतल्यान घडिल्लूया 'युवा बरोवप्यांचें पुस्तक छापपाची येवजण.' हे दोनूय उपक्रम 11 व्या साहित्य संमेलनांतल्यान आरंभ जाले. ताचे अंतर्गत डॉ. प्रकाश पर्येंकार, डॉ. राजय पवार, डॉ. हनुमंत चोपडेकार, ग्वादालूप डायस, रामनाथ गावडे, मार्कूस गोन्साल्वीस हांकां युवा पुरस्कार जाल्यार जोफा गोन्साल्वीस, नरेश नायक, अमेय नायक, पुर्वा गुडे, स्मिता प्रभू चोडणेकार, विल्मा बंटवाल ह्या तरनाट्यांची युवा लेखन प्रतिभा पुस्तक रुपांत लोकांमेरेन पावल्या. हें सगळें श्रेय गोवा कोंकणी अकादेमी तशेंच आयोजनांतल्या संस्थांक आनी हेर जाळवणदारांक वता.

20 आनी 21 फेब्रुवारी 2016 ह्या दोन दिसांनी जाल्लूया 17 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत आनीक एका युवा प्रतिभेचो सन्मान जालो. ह्या समयाचेर पयल्या युवा कोंकणी संमेलनांतल्यान म्हणजेच 1998 वर्सा सावन हे प्रदिर्घ अशें साहित्यमंथनाचे प्रक्रियेंत सक्रीय आशिल्लो युवा बरोवपी प्रसाद सुरेश पागी हांच्या प्रवासवर्णानात्मक लेखनाक उजवाड फाव जालो. ताच्या 'फ्लोटींग लायफ' ह्या प्रवासवर्णनात्मक लेखसंग्रहाची ही सविस्तर वळख आनी उस्तवारी.

कोंकणी मनशाक प्रवास करपाक आवडटा. तसो कोंकणी मनीस संवसारभर भोंवला. तरेकवार बरेवायट अणभव तांणी गांठीक बांदल्या पूण ते अणभव शब्दबद्ध करपाची लागणूक मात तांणी चडशी केन्ना दोखवंक ना. ताका लागून कोंकणीक प्रवासवर्णानात्मक साहित्य चड प्रमाणांत लाबूंक ना. दत्ता दामोदर नायक, दिलीप बोरकार, हर्षा शेटये, माया खरंगटे, सुमेधा देसाय सारक्या जेश्टांनी हो प्रकार केळयला पूण नव्या बरोवप्यां मदीं ह्या साहित्य प्रकाराचें फाव तितलें वलय आजून निर्माण जावंक ना अशेंच म्हणचें पडटा. प्रसाद पागी हांच्या फ्लोटींग

लायफ ह्या पुस्तकाच्या रुपान ते नदरेन पावल पडला अशें म्हणल्यार अतिताय जांवची ना.

फ्लोटींग लायफांत वट्ट 29 प्रकरणां आसात. 'उदकांतलो संवसार म्हजो' साकून आरंभ जाल्लें पयल्या प्रकरण तें 'एका तारवट्याचो आत्मस्वर' मेरेनचें ताचें लिखाण एका सेंगीतपणान केल्ल्या दर्या सफरीचें उत्कट आनी उत्स्फूर्त चित्रण करता. एका उपरांत एक अशे आकांताचे खीण दर्या सफरीचेर गेल्ल्या तारवट्याच्या जिवितांत कशे येतात आनी ताका कसल्या संकश्टांक धिटायेन तोंड दिवचें पडटा ताचें भोव सोबीत वर्णन प्रसादान आपल्या ह्या बरपांत केलां.

'एम. व्ही. पान्तानासा' हे एका ग्रीस कंपनीचे बोटीर मॅसबॉय म्हूण काम करतानाचे वर्सभराचे अणभव ह्या पुस्तकांत आयल्याच. ते दर्या सफरींत हो बरोवपी भारतीय तशेंच सौदी अरेबिया, दक्षिण आफ्रिका, कुवेट, तांझानिया, दक्षिण कोरिया, यु. ए. ई., इंडोनेशिया, पाकिस्तान अश्या संवसारांतल्या कितल्याश्याच देशांतल्या साबार वेपारी बंदरांनी भोंवून येता. मुंबय, कांडला, मलाका स्ट्रेट, दर्बन, दुबय, मुंबासा, सालढाना, कराची, जकार्ता अश्या एका परस एक व्हड पोर्टांचेर पावतकच थंयसल्ली वेपारकेंद्रीत अर्थीक जीण पळयतानाच त्या वाठाराची इतिहासीक, समाजीक, संस्कृतीक आनी राजकी जीण हो युवा लेखक भोव तटस्थतायेन अणभवता. ते जिणेची खोलाय आनी उंचाय आपले निरिक्षणशक्तीन हेरता आनी आपले लेखन प्रतिभेचे सगळे आयाम पणाक लावन एक अप्रतीम साहित्यकृती कोंकणीक दिता. ताच्या लेखनांत एक लालित्य दिसता जें वाचकाक आपले भितर ओडून घेवपाक समर्थ आसा. म्हज्या भितरल्या वाचकाचो हो अणभव हेरांकूय येतालो हातूंत म्हाका दुबाव ना. एक काव्यमयता प्रसादाचे लिखणेंत आसा. मुद्दम वाचून पळोवंचें. देखी खातीर फ्लोटींग लायफांतले कांय माथाळे घेवयां

1. मुंबय ते कांडलां जिणेंत कितें मांडलां
2. झगझगती दुनिया - यु. ए. ई.
3. इंडोनेशिया - सलामत पागी
4. पिशें लावपी शार दुबय
5. तेलान रंगलां कुवेट
6. तुफानी दर्यांतली हालती जीण
7. इक्वेटर क्रॉस करतनाचो कार्नवाल
8. द बर्निंग कंटेनर
9. पयल्या समुद्र सफरीची भैरवी
10. एका तारवट्याचो आत्मस्वर

दुसरी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार, प्रसादाक भोव बरी लेखनशैली लाबल्या. ते लेखनशैलीक लागून ताचें बरप वाचनीय थारता. ल्हान ल्हान वाक्यां, सादी सोपी भास आनी आपली अशी नीज उतरावळ हाका लागून तें बरप वाचकाक आकर्शीत करता. मुखार कितें जातलें हाची उमळशीक वाचकाक लागून रावता. तेच परी दर्या सफरीच्या प्रस्तूत विशयाक एक अर्थपुर्ण आशय दिवंक हो बरोवपी आपले संवदनशीलतायेक लागून यशस्वी जाता. जंय जंय वता थंय थंय तो त्या वाठाराची भास आनी हेर खाशेलतायो शिकपाचो यत्न करता. त्या वाठारांतल्या संस्कृतायेचें दर्शन घेता. तशेंच पावला कणकणी तो शणत वचपी मनीसपणाचो वेद घेवपाचो यत्न करता.

ह्या फ्लोटींग लायफाची बारीक अभ्यासणी केल्यार एक गजाल सहज मतींत येता ती म्हणजे हो बरोवपी घरची दुडवांनी अडचण पयस करतलो म्हूंण बोटीर कामाक वता. पूण थंयसल्ल्या झगझगत्या दुनियेंत दिपकावना. दुडवांच्या धुंदीत तो धुंद जायना. ते मायावी दुनियेंतल्यान तो पासार जाता पूण थंय स्थीर मात जायना. सीमॅनची मस्त मस्तानी जीण ताका मेळटा पूण ते जिणेंत तो आपलो जीव शेणयना. तो एक काम

मात मुजरत करीत रावता; ते जिणेचीं आकांताचीं मोडां आनी मनोपटलाचेर उफाळून येवपी भावनीक ल्हारां प्रसाद आपले लिखणेंतल्यान जिवंत करता. एक तारवटी जेन्ना घर, घरचीं, आवय-बापूय, भुरगीं-बाळां, बायल हांचे पासून म्हयन्याचे म्हयने आनी वर्सांचीं वर्सां पयस उरता तेन्ना तो आनी ताचीं घरचींय लेगीत कसले तरेच्या मानसीक, अवस्थेंतल्यान वता हाची वास्तवीक अभिव्यक्ती प्रसादान ह्या साहित्यकृतींत केल्या.

म्हाका दिसता : संवसारांतल्या आनी पर्यायान गोंयच्या असंख्य तारवट्यांच्या जिणेची व्यथा आनी वेदना प्रसादान आपल्या स्वताच्या अणभवांच्या म्हालवज्यार प्रखरतायेन मांडल्या. ही व्यथा मांडटाना तांणी आपली नीज प्रतिभा आनी नीज उतरां वापरल्या. ही सीमॅनची जीण पितारतना ते जिणेंत मेळिल्ल्या दमन, मॅथीव, विजय, दौलतभाई अश्या जायत्या सीमॅनाच्या व्यक्तिमत्वाचे विविध आयाम चित्रायल्यात. हे कांय लोक ताका पयल्या दर्यासफरींत मेळ्ळ्यात. प्रसादान तश्यो हेर दर्यासफरीय केल्यात देखून तांणी तसल्या साबार व्यक्तिमत्वांचेर उजवाड घालून तारवट्यांच्या मानसिकतायेचो सोद मुखावेल्या साहित्यकृतींत घेवंचो अशें म्हाका ताका सुचयन दिसता.

हय गजाल खरी. हें पुस्तक एक प्रवासवर्णनाचें. पूण हेर प्रवासवर्णना परस निखलस वेगळें आनी आकर्शक. दर्यासफरीचेर आनी तेंवूय बी एका तारवट्याच्या दर्यासफरीचेर तें आदारिल्लें आसा. पोटापाणयाच्या निमतान मर्चंट नॅव्हीर कामांक गेल्ल्या प्रसादरुपी एका युवा तारवट्याचे प्रामाणीक आनी कलात्मक रितीन मांडिल्ले अणभव तातूंत शब्दबद्ध जाल्यात. प्रसादान पयलेच फांवटीं पुराय वर्सभरांत केल्ल्या धिटायेच्या आनी आकांताच्या दर्यासफरीची ही रुचीक आनी आकर्श काणी म्हणल्यार जाता. एका कादंबरी वरी ती वाचकाच्या भेटेक येता हें प्रसादाच्या लेखणेचें खाशेलपण अशें म्हाका दिसता. भोव भावूक

संवेदना, बारीक तपशील सांगपी निरिक्षण, ल्हान ल्हान माणकुलीं वाक्यां, म्होंवाळ आनी ल्हवपीक भाशाशैली, वेंचीक संवाद पेरपाची कळाशी आनी वास्तवतायेचें भान राखपी नाट्यमय समारोप अश्या गजालींक लागून हें फ्लोटींग लायफ भोव .'एन्जॉयेबल' तशेंच 'थॉटप्रोवोकिंग' जालां असो निश्कर्श हांव हें प्रवासवर्णन अभ्यासल्या उपरांत मांडटा.



## 17. बालमनांचेर सुसंस्कार घडोवपी गीत काव्य - राम राय साय सुटल्यो

संवसारांतल्या दर एका भाशेंत बालसाहित्याक खेरीत आनी खाशेली सुवात राखून दवरिल्ली आसता. भुरग्यांमदीं साहित्यीक अभिरूची वाडोवन तांचेमदीं वाचन संस्कृती रूजवणाक येवचे खातीर त्या त्या भाशेंतले साहित्यीक बाल साहित्याची निर्मणी करतना दिश्टी पडटात.

आयच्या म्हायती तंत्रज्ञान तशेंच विज्ञानीक युगांतूय बालसाहित्याची पयलींच्या इतलींच गरज आसा. फरक इतलोच की, आयज सी. डी, कार्टून्स, वॅबसायटी, व्हिडिओ गेम्स अशा तंत्रज्ञानाच्या आदारान विंगड विंगड भासांतले बालसाहित्य नव्या पिळगेच्या म्हन्यांत पावूंक लागिल्लें आसा. काळाच्या गरजे प्रमाण हे बदल घडत आसात, पूण बालसाहित्याचे ते पर्याय असो विचार योग्य न्हय. हांचें कारण म्हणजे नवें तंत्रज्ञान हें फकत एक साधन. पूण साध्य, बालसाहित्य आनी तातुंतल्यान घडपी संस्कारूच जावन आसात.

पुर्विल्ल्या काळांत पंचतंत्र, इसापनिती, बिरबल अकबर, तेनालिराम, अरेबियन नायट्स सारक्या ग्रंथांतल्यान आरंभ जाल्ली बाल संस्काराची परंपरा आजूनय सबंद भारतीय भासांच्या साहित्यांत नदरेक भरता. हालीसराक नवी दिल्लीच्या साहित्य अकादेमीन लेगीत बालसाहित्याच्या निर्मितीक उर्बा दिवचेखातीर पावलां उबारल्यात. भारतांतल्या मान्यतायप्राप्त सगळ्या भासांतल्यान निर्माण जावपी बालसाहित्याक वर्सुकी पुरस्कार दिवपाचीय तांची येवजण ही त्याच विचारसरणीचो भाग.

आमच्या कोंकणी साहित्यांत भोव पयलीं साकून बाल साहित्याची निर्मणी जाताली. खासा शणै गोंयबाबांनी लेगीत ''भुरग्यांलो इश्टासारक्या पुस्तिकेंतल्यान ह्या मळार फुडाराची दिशा थरोवपाचो यत्न केल्लो. आयचे घटकेक जायते ल्हान- व्हड लेखक बालसाहित्याच्या निर्मणेक हात-बोट लायताना दिश्टी पडटात. तातूंत

'आमी पिकेन' (सुनापरान्त), 'भुरग्यांलें आंगण' (बिन्ब), 'किलबील' (पणजी आकाशवाणी) सारके उपक्रम भोवूच तोखणायेचे. गुलाब, राखणो, जैत, कोंकण टायम्स, ह्या सारक्या नेमाळ्यांनीय कोंकणी बालसाहित्याक सदांच पोसवण दिल्ली आसा. तातूंतल्यानूच नवे नवे बरोवपी ह्या मळार वावरूंक लागल्यात काणया झेले, नाटकुलीं, बालनवलिका, गीत काणी, बाल कविता, हांसयाळीं, बाल निबंद, एकपात्री, अशे जायते प्रकार कोंकणींत प्रसिध्द जातात.

हालींच प्रसाद तुकाराम सावंत हांचो 'राम राय साय सुटल्यो' हो गीत-काव्याचो झेलो कोंकणी साहित्यांत रूजू जाला. प्रसादसर शिक्षणीक, साहित्यीक, संस्कृतीक आनी समाजीक मळाचेर व्हडा तळमळीन वावरिल्लें एक उमेदी व्यक्तिमत्व. तांचो अणभव खूब मोठो. मराठी, कोंकणी अशा भासांनी तें समर्थपणान बरयत आयल्यात. एक विद्यार्थीप्रिय शिक्षक म्हूण ते फामाद आसात. भुरग्यांचें मन समजुपाची तांची कळाशी ह्या बाल गीत-काव्य झेल्यांत दिश्टी पडटा. प्राणी प्रेम, भुंय प्रेम. राष्ट्रप्रेम, धर्मप्रेम, शिक्षण प्रेम, समाजीक जाण, वाड-वडिलांचो, सुटकें झुंजाऱ्याचो आदर अश्या साबार जिवीत मुल्यांचो दिश्टावो हो झेलो घडयता. सुरवातीक येवकाराचें गीत गायत ते श्री गणरायाच्या कवनांतल्यान भुरग्यांचे मन उत्कें करतात -

**तुज्याच खातीर सुटी मेळटा**
**मेळटा नाचूंक खेळूंक**
**तरातरांचो फोग लावंक मेळटा**
**मेळटा भरपूर गिळूंक**
**देड दिसा खातीर कित्याक येता**
**सदांच राव रे मोरया**
(वंदन)

सगळ्योच कविता गेयतेन रचून हांगा प्रसादबाबांनी एक सोबीत प्रयोग ह्या झेल्यांतल्यान केल्लो आसा. बाल मनांचेर संस्कार करपी खयच्च्योय गजाली ताच्या नदरेंतल्यान सुटूंक ना. अज्ञानाच्या

काळखांतल्यान ज्ञानाचो दिवो लावपाचो संदेश ते बालमनाक दिता, तशेंच राष्ट्रपुरूश, सुटके झुंजारी, आई, बाबा, भाव-भयण हांच्या कार्याचें गुणगान गायत तरन्या काळजांक उर्बा दिता.

**ह्या भुंयच्या म्हापुरूसांचो करूया आमी जयजयकार**
**आमकां आसा अभिमान तांचो, करूया आमी जयजयकार**
(म्हापुरूसांचो जयजयकार)

हांगा कवी भारतीय संत कवी, इतिहास पुरूश, क्रांतीकारी, म्हान खेळगडे, गायक, संगीतकार, कलाकार, ह्या सगळ्यांचो भौमान करतात. सैम पर्यावरण, झाडां-झुडपांची, न्हंयांची, दर्यांची तोखणाय हो बरोवपी आपल्या काव्यांतल्यान करता. भुरग्यांचें शिक्षणीक ज्ञान, अक्षर ज्ञान, व्यवहार ज्ञान, सामान्य ज्ञान वाडीक लागचें म्हूण सप्तकी, वार, पाडे, जनावरां,. जीव जंतू हांच्या आदारान कवी ह्यो बाल कविता रचीत वता. देखीक -

**17, 18, 19, 20 धर्तरी तापता दिसान दीस**
**21, 22, 23, 24 उदका बगर जीव कासावीस**
(पाड्यांतल्यान पर्यावरण)

**सात वारींनी थारायलें एकदीस एकठ्यांय मेळपाचें**
**खंय तरी पयस वचून पिकनीक करपाचें**
(देवाचो कारबार)

हो कवी माणकुल्यांच्या भावविश्वाक बारीकसाणेन समजता. .अमुरपिक्या काळजाची बरीं-वायट सगळीं स्पंदनां ताका वळखीचीं आसात. ल्हानावांगडा ते ल्हान जाता आनी तांच्या काळजांतल्यान तांच्याच उतरांनी उलयतात, तेंच तांच्या काव्यात उक्तें जाता. काऊ, माऊ, चिऊ, गाय, गांयडोळ, कासव, वानर, मूय, मांजर, हुंदीर, कुत्रो, पोपट, हत्ती अश्या जिवांचेर भोव सुंदर बाल कवनां तें रचतात. भुरग्यांचें मानशास्त्र समजल्या बगर तें शक्य ना. तांच्या कवनांतली मूय मनशाक म्हणटा.

आमची मार्चिंग पळेयात, ओर्डर ना पिल्लूक ना
शिस्तींत आमी चलतात
लिडर ना म्युजिक ना आडखळ कितें आयल्यार मदीं
मनशावरी आमी थांबना
काडटात वाट कुशींतल्यान
चलपाचें आमी सोडून दिनात.
(मूंय)

'राम राय साय सुटल्यो' ह्या झेल्यांत वंदे मातरम, फळां फुलांचो देश, भारत भुंयचे पूत आमी. भारत आमचो देश ह्या सारकीं देशप्रेमांचीं गीतां आसपावल्यांत. तशेंच गोंयच्या व्हडविकायेचींय तुस्त-गीतां तातूंत आसात. 'माणकुलें गोंय आमचें' ह्या काव्यांत गोंयच्या चैतन्न्यमय वातावरणाची गीतां गायताना कवी म्हणटा -

माणकुलें गोंय आमचें
गोंयकारांचें अपुरबायेचें
व्हांवत्यो न्हंयो, धोलतीं शोतां
गीत गायता तें खुशालकायेचें
(माणकुलें गोंय आमचें)

आयज समाजांत चलिल्ल्या वायट गजालींचो संदर्भ दिवन कवी कवळ्या मनाचेर बरे संस्कार करपाचो हावेस बाळगिता. पुराय झेल्यांत तांची ही भुमिका ठळकपणान जाणवता, झाडां, फुलां, फळां, वारो. न्हंयो. सूर्य, चंद्र, दर्या, ल्हारां, सुकणीं, सावदां, हांचेकडल्यान आमी स्फूर्त घेवची अशें तें सुचयतात आनी बरो संदेशूय दितात -

विसरूया जाती काती
जोडूया मोगाची नाती

एकंदर : मनीस म्हूण. व्हडा भाग्यान आमी जल्मल्यात. ही जीण

सोबीत, सुंदर करून मनिसपणान आमी जगूंया असो भावार्थ कवी उक्तायता. कवी प्रसाद सावंतानी रचिल्ली हीं बाल-कवनां संगीताच्या साजान नटोवन प्रस्तूत जालीं जाल्यार निश्चिंतूच ल्हान व्हडांचीं, सगळ्यांचीं मनां जिखतलीं. कवीन ते नदरेन यत्न केल्यात ताका आनीक बरो नेट येवंचो. कोंकणी बालसाहित्याचें मळ तांकां उक्ते करतना हांव तांका मुक्त मनान इतलेंच म्हणटा. राम राय साय सुटल्यो.........



## डॉ. हनुमंत चोपडेकार

गोंयांतल्या युवा साहित्यकारां मदले एक सृजनशील आनी अश्टताशी व्यक्तिमत्व म्हूण फामाद. फकत कविता-कथाच न्हय तर पथनाट्य, एकांकी, नाटक, निबंद, बालसाहित्य आनी साहित्य समिक्षा सारके साबार प्रकार कुशळतायेन हाताळतात. कोंकणी आनी मराठी अशा दोनूय भाशेंतल्यान ते फिशालकायेन बरयतात. साहित्य सेवेखातीर तांणी जायते पुरस्कारूय जोडल्यात.

### प्रकाशीत पुस्तकां :

1. आतां केन्नातरी फांतोड जातली (कविता झेलो)
2. हम होंगे कामयाब (नाटक)
3. कैदी नंबर 001 (नाटक)
4. कुंवाडीं (एकांकी झेलो)
5. हरी आमचो टेम्परारी (नाटक)
6. हांव सायबा मॉडर्न जाता (नाटकुलीं - बालसाहित्य)
7. मुक्ती उपरांतचे कोंकणी कादंबरींतली अस्तुरी प्रतिमा (संशोधन)
8. दम दमा दम (नाटक)
9. संवसारीक नामनेचे समाजवावूरपी (निबंद - बालसाहित्य)
10. संवसारीक नामनेच्यो अस्तुऱ्यो (निबंद - बालसाहित्य)
11. 21व्या शेंकड्यांतली कोंकणी एकांकी (संपादीत - एकांकी झेलो)
12. वळख फुलांची (निबंद - बालसाहित्य)
13. वळख भाज्यांची (निबंद - बालसाहित्य),
14. रायटर आनी फायटर... रवीन्द्र केळेकार(संपादीत - समिक्षा)
15. एक चीट मोगाळ आईक (कविता झेलो)
16. तीन मामा एक ड्रामा (नाटक)

### साहित्य सेवेखातीर मेळिल्ले पुरस्कार :

1. कोंकणी भाशा मंडळाचो 'सर्गेस्त रॉक बार्रेत यादस्तीक साहित्य पुरस्कार' (2009)
2. गोवा कोंकणी अकादेमीचो 'उत्कृश्ट ग्रंथ साहित्य पुरस्कार' (नाटक

विभाग - 2010)

3. फोंडा जेसीचो 'युथ आयकॉन पुरस्कार' (साहित्यीक सेवेखातीर - 2010)
4. पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालयाचो 'उत्कृश्ट शिक्षक पुरस्कार' (2010)
5. सर्गेस्त मेघश्याम नायक यादस्तीक 'युवा साहित्य पुरस्कार' (2012)
6. सर्गेस्त सविता सदानंद खानोलकार यादस्तीक 'नाट्य लेखन पुरस्कार' (2012)
7. कला आनी संस्कृती संचालनालयाचो 'युवा सृजन पुरस्कार' (साहित्य विभाग - 2014)

बिम्ब म्हयन्याळ्यांत तांचें 'आस्वाद' हें समिक्षेवेलें सदर भोव गाजलां. तांणी राज्यस्थरीय, राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय परिसंवादांनी संशोधनात्मक पेपर सादर केल्यात. 2011 वर्सा जपानांत टोकियो शारांत जाल्ल्या 'जाल्ट' (JALT - Japani Association of Language Teachers) हे अंतरराष्ट्रीय परिशदेंत सहभागी जावन "Goan Language and Culture' ह्या विशयाचेर प्रपत्र सादर केलां. टोकियोंतलें 'वासेदा विद्यापीठ' तशेंच 'सोफिया विद्यापीठ' ह्या संवसारांतल्या नामनेच्या ज्ञान-केंद्रांक भेट दिवन थंय चलपी भाशीक अध्ययन आनी संशोधन कार्याचो अभ्यास केला. सद्द्या मडगांवच्या पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालयांत कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय ह्या विशयाचें अध्यापन करतात. 'भाशीक वाद आनी भाशीक चळवळी' ह्या विशयाचेर संशोधन करून गोंय विद्यापिठांतल्यान पीएचडी घेतल्या. तशेंच तांचें साहित्य महाविद्यालयीन पांवड्यावेल्या अभ्यासक्रमांत आसपावलां. ते सेगीतपणान आपले साहित्यीक सेवेंत सक्रीय आसून तांचें मराठी आनी कोंकणी भासांनी रचून जाल्लें हेर जायतें साहित्य प्रकाशीत जावपाचे वाटेर आसा.



संपर्क नामो आनी भ्रमणध्वनी क्रमांक :
hcchopdekar@rediffmail.com
08805152539

फकत एखाद्या पुस्तकाचें परिक्षण करपाचो हो यत्न न्हय तर गोंय, कर्नाटक आनी केरळ वाठारांतल्या वेंचीक कोंकणी साहित्यकृतींची चिकित्सक मोलावणी करतनाच कोंकणी साहित्यांतल्या विंगड विंगड प्रवाहांचो सोद आनी वेध घेवपाचो हो प्रारंभीक वावर. बरोवपी आनी वाचपी हांचो कलात्मक संगम घडोवन हाडपाचो हो संकल्प. वेंचीक साहित्यकृतीचो अभ्यास करप, निरूपण करप, निरिक्षण करप, आस्वाद घेवप, आकलन करप, विश्लेशण करप, मोलावणी करप आनी साहित्यांतल्या विविध प्रवाहांचो सोद घेवप हो हावेस बाळगून हें कार्य तडीक व्हेलां.

आंतरकेंद्रीत (Centripetal) आनी बाह्यकेंद्रीत (Centrifugal) समिक्षा अश्या दोनूय समिक्षा पद्धतींचो प्रयोग प्रस्तूत ग्रंथांत केल्लो आसा. कोंकणी साहित्याच्या खऱ्या अभ्यासकांक हे साहित्य-धारेचो उपेग जातलो ही आस्त बाळगून ती रसिकांक भेटयतां.

डॉ. हनुमंत चोपडेकर